जाग प्रकाशनाचें

# जाग

*म्हयनाळें*

**वर्स ४५ : आंक ४ : डिसेंबर, २०१८**

✻ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

✻ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

✻ संपादपी :
आसावरी नायक

✻ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

✻ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✻ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

✻ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोनः ९७८०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भायलें आनी भितर्ली चित्रां : **भरत जगताप**



# काळाची सुलूस लागलीच ना

**दामोदर मावजो**

भारतीय साहित्यपटा वयलो एक म्हालगडो असो अचकीत आमचे मदल्यान उठून वता, आमकां कसलीच सुचोवणी दिनासतना, हें समा न्हय. पूण शीण कोणा कडेन काडपाचो? चूक कोणाची करपाची? दुशण कोणाक दिवपाचें?

फाटल्या जुलय म्हयन्यांत हांवें रमेशाक फोन लायिल्लो. पुराय रिंग गेली तरी उखल्ली ना. हाचे पयलीं अशें जालें ना अश्यांतली गजाल न्हय. अशें जाता तेन्ना आयज ना फाल्यां ताचो परतो फोन येता. मागीर आमी गजाली करतात. पूण हे खेपेक तशें जालें ना. म्हाका रमेश जाय आसलो तो गजाली करपाक न्हय. म्हत्वाचें काम आसलें. गोआ आर्ट आनी लिटरेच्यर फेस्टिवलांत उक्तावणाचे कार्यावळींत दर वर्सा आमी एका म्हालगड्या कवीचें प्रस्तुतीकरण दवरतात. हाचे पयलीं सिंगापुरी कवी एडवीन थम्बू, नामनेची भारतीय कवी अरुंधती सुब्रह्मण्यम, सलील चतुर्वेदी अश्या कवींचें काव्य वाचन जालां. ओंदूं वर्सा म्हळ्यार २०१८च्या डिसेंबरांत हो भोवमान रमेश वेळुस्कराक दिवपाचें एकमत्तान थारिल्लें. तें आमंत्रण दिवन ताचो हयकार घेवपा खातीर हांव ताचे कडेन उलोवंक सोदतालों. पूण जाप आयली ना तेन्ना कांय दिसांनी हांवें परतून फोन केलो. उबगून मागीर दिलीपाक विचारलें. दिलीपालें आनी रमेशालें सूत बरें जुळटा ताचें एक कारण म्हळ्यार 'बिम्ब' सुरू तांणीच केल्लें. पयलो संपादकूय रमेशच आसलो. रमेश रायबरेलीक आसता तेन्ना रमेश दिलीपाच्या संपर्कांत आसता हें हांव जाणा आसलों. दिलीपान सांगलें- 'ताचो ताळो पडिल्लो आसा देखून तो फोन घेना'.

अजाप म्हळ्यार म्हज्या वाडदिसाक ताचो परबीं दिवपी संदेश आयलो. परबीं वाडदिसाचींच न्हय, तर 'भाई ७५क लागीं पावलो' म्हूण याद करून दिवपी. हांवें फोन केल्यार मात फोन घेना. सप्टेंबरांत चवथीच्यो शुभेच्छाय मेळ्ळ्यो. पूण फोनार मेळना.

दर साहित्यीक महोत्सवाक रमेश सक्रीय हाजिरी लायतालो. प्रत्यक्ष वांटो घेतालो. हेय खेपेक तो येतलो हाची खातरी आसली. पूण काव्यवाचनाचें भोवमानाचें आमंत्रण पावोवपाचें आसलें देखून ताकतीक आसली. सप्टेंबरांत हांवें परतून फोन केलो तरी जाप ना. पयर बारा तारखेर पणजे गेल्ले कडेन दिलीपान सांगलें, 'भाई, सिमेंतिनीचो रकाद आसा. रमेशाक उलोवपाक जमना आनी तो आतां फोनार मेसेजींगूय करिना; ते परस पत्र बरय. ताका वाचूंक जमता.'

'अशें कितें जालां तर ताका?' अजाप जालें म्हूण विचारलें जाल्यार दिलीपान सांगलें, ''ताका डिफ्थेरिया भशेन कितें तरी जालां. वखदां चालू आसात.''

मनांत उपरासपी वायट विचारांक धांवडावन हांव घरा आयलों. काळ असो घात करीत अशें तेन्ना दिसूंक नासलें.

निजाचो साहित्यीक प्रकृतीचो रमेश साहित्यांत तसो साहित्यकारां मदीं खूब रमतालो. रायबरेलींत उरतालो तेन्नाय थंयच्या साहित्यीक वातावरणाची मजा घेतालो. लखानौ शारांत पावलो तेन्ना हिंदी साहित्यकार शिवमंगल सिंग हांकां मेळिल्लो. मुजरत वचून अमृता प्रितम हांची भेट घेतिल्ली. महाश्वेता देवीक मेळिल्लो. दिल्लीक पावतालो तेन्ना कोणा कोणाक मेळून येतालो. 'गाल्फ' (गोआ आर्ट ॲण्ड लिटररी फॅस्टिव्हल) महोत्सवाक तो फकत हाजिरी लायनासलो. तो मन लावन आयकतालो, समजून घेतालो, निमंत्रीत साहित्यकारांक मेळटालो, तांचे कडेन चर्चा करतालो. कोंकणी लेखक ह्या महोत्सवाची

फावो तितली मज घेनात असो म्हजो शीण आसा. पूण रमेश मात मुजरत येतालो. हिन्दी, मराठी, गुजराती लेखकां कडेन ताचें बरें वतालेंच. पूण बंगाली लेखकां कडेन तो जेन्ना बंगालींतल्यान उलयतालो तेन्ना ती चर्चा आयकतना म्हजें लेगीत हड्डें अभिमानान भरून येतालें.

एक म्होंवी याद आजून मनांत घट आसा. १९८९ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जाहीर जालो तेन्ना रामनाथीं साहित्य संमेलन चलिल्लें. सांजेच्या सात वरांचो सुमार आसुंये. म्हालगड्या निमंत्रीत कवींचें काव्य वाचन चलिल्लें. सुत्रसंचालन हांव करतालों. रमेशालें वाचन जाल्लें, चाफ्रालें चालू आसलें. इतल्यान एन शिवदास धांवट फाटसून वेदीचेर आयलो आनी म्हाका कुशीक आफोवन सांगूंक लागलो, म्हाका अनाउन्समेंट करपाक जाय. सावुलगोरी खातीर रमेशाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जाहीर जाला. येदी व्हडली खबर पब्लिका मुखार फोडपाची ताका उमळशीक लागिल्ली. पूण ही चलून आयिल्ली संद हांवें तरी कित्याक सोडची? आमचो आवाज कोणाच्या कानार पडचो न्हय अशे तरेन हांवें ताका सांगलें, ''सुत्रां म्हज्या हातांत आसात तेन्ना ती बातमी जाहीर करपाचो अधिकार म्हजो.'' शिवदासाचें तोंड पडलें. पूण हांवें ताका उतर दिलें की ही बातमी तुवें हाडल्या हें हांव जाहीर करतां. आनी तरी हांवें रमेशाक सुलूस लागूंक दिनासतना लोकांची फर्माईश आसा अशें सांगून ताका सावुलगोरी कविता पेश करूंक परतून आपयलो. आनी मागीर तो सिटार बसचे पयलींच हांवें ती बातमी फोडली. घे, ताळ्यांचो गडगड. म्हाका पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना जालो ना तितलो आनंद म्हाका त्या दिसा जाल्लो.

आनीक एक याद. १९९५ वर्साची. कोची शारांत आयोजीत केल्ल्या 'सुरभि' ह्या राष्ट्रीय साहित्यीक महोत्सवाक आमकां आमंत्रण आसलें. ह्या पांच दिसांच्या सुवाळ्याक देश भरांतले साहित्यकार हाजीर आसले. तांचे मदीं गोंयच्यान आमी दोग सोडून रवीन्द्रबाब, मनोहरराय, चंद्रकांतबाब, मीनाबाय आनी पुंडलीकबाब हेवूय आसले. डॉ. यू. आर. अनंत मुर्ती येजमान कशे वावुराले. नांवां आयकल्यांत पूण प्रत्यक्ष पळोवंक नात अशे लेखक थंय आसले. तांतलीच एक इंदिरा गोस्वामी. तिचो बेफिकीर भेस, कपलार मोट्टो तिबो, काळजीपुर्वक पिसुडिल्ले केंस आनी मेकळेपणान वागपाची तरा हाका लागून हेर अस्तुऱ्यां मदीं ती वेगळी आनी उठून दिसताली. वळख जाली तरी चड उलोवपाचें धाडस जायनासलें. पूण रमेशान मात रोखडीच संवकळ सादिल्ली. ताका लागून आमचे मदीं रमेश फकाणांचो विशय जाल्लो. पूण रमेश बिन्धास्त आसलो.

हेच कार्यावळींतली आनीक एक याद. आमी धा-पंदरा जाणांचो पंगड करून साहित्यीक गजालींक बशिल्ले. सुरवेकच स्वताची वळख करून दिवपाची कार्यावळ जाली. जणेकल्यान आपलें नांव, गांव, लेखनाचें मळ आनी बरयिल्लें साहित्य अशी थोडे भितर वळख करून दिवपाची. रमेशाची पाळी आयली तेन्ना रमेशान सुरू केलें- ''बहुत मुश्कील है मेरा परिचय कर देना- क्यों कि मैं खुद नही जानता मैं कौन हूँ।'' अशे शैलीन वळख दिली... 'आवय-बापायन नांव दिलां देखून लोक म्हाका रमेश म्हणटात, पूण-'

सादी गजाल क्लिश्ट करून सांगपाची रमेशाक अदींमदीं कूय येताली हें जाणा आशिल्ल्यान म्हाका हांसो येतालो. पूण उपस्थितां मदीं मिस्तूर प्रतिक्रिया उदेली. थोडे 'आप फिलॉसॉफिकल बोल रहे हैं' अशें उलयले. आमचे मदीं कमला दास ही नामनेची इंग्लीश आनी मलयाळम भासांनी बरोवपी राष्ट्रीय नामनेची साहित्यकार आसली. तिणें मात बरी दाद दिल्ली. 'रिअल लिटररी इंट्रोडक्शन' अशें म्हणिल्लें.

रमेश खूब फावटी गूढ उलयतालो. सादी गजाल अगम्य आनी समजुपाक कठीण करून सांगतालो. एक दीस ताका हांवें तशें स्पश्ट सांगलें. जाल्यार रमेशान हांसून जाप दिली, 'हांव कवी न्हय रे?' मागीर म्हजें म्हाकाच गुन्यांवकारी दिशिल्लें- रमेशाक वळखुपाक हांव चुकना मूं? ह्या कवीन आपली वळख कवितेंतसून दिल्लीच-

*तो वयता तो हांव*
*आनी तो येता तोय हांव*
*तुजे वीण जीण जाची वचना*
*तोय हांव.*

ह्योच वळी तो गद्यांत उलोवन सांगतालो तेन्ना त्यो दुर्गम अश्यो दिसताल्यो. रमेश कुवाड्यांनी उलयता अशें दिसतालें. पूण त्यो कविता म्हूण वाचल्यार तातुंतली जाणवाय होलमता. ताची वळख ताच्याच उतरांनी मेळटा-

*हीं म्हजीं काश्टां*
*काय पांच पंचिश्टां?*

*हें म्हजें हांव*
*काय तुज्या ओमकाराचें गांव*

*ही म्हजी वळख*
*काय ही भुलयाळी अळखनळख*

'हांव' ह्या उतराचेर रमेशान जितलें बरयलां तितलें कोंकणींत तरी आनीक कोणेंच बरयिल्लें हांवें वाचूंक ना. ती ताची अंतर्मूख जावपाची तरा आसली. सुर्याच्या उजवाडाक उद्देशून तो म्हण्टा- तुज्या बळांचें, कुळाचें मूळ मेळटा तेन्ना हांव, हांव उरना... म्हज्या महा उजवाडा, हांव घड्यत वयतां/ उदकांतल्या मिठा वरी/ हांव ब्रह्मांडाक भेदत वयतां/ आनी तरिकूय उरतां.

'हिरण्यगर्भ' संग्रहाचे प्रस्तावनेंत तर ताणें फोडणिशीच केल्या- सुर्याचें दर्शन ऋतंभरा प्रज्ञेक जाग हाड्टा... 'हांव', 'आमी'चे इश्टगतीचो याग प्रज्वलीत जाता. 'आमी, तुं, ते' ह्या सगल्यांचें रूपांतर 'हांवां'त जावपाक लागता... जेन्ना 'तुमी'चें रूपांतर 'हांवां'त जाता तेन्ना हांव हें तुमकां सांगतां म्हणटा तेंच विरून वयता आनी उरता फकत हांवेंच म्हाका सांगप. 'हांव' हें अस्तित्व. हें अस्तित्व म्हणचेंच विश्व.'

मागीर तो फुडें सांगता --

'संवसारांतल्यो कांय आड्खळी 'हांव' ह्या अस्तित्वाक विचार करपाक लायतात. हे विचार इतले खर जातात की 'हांव' हे खरायेंत जळपाक लागतां... 'हांव' हे खरायेंत जळटा आनी भांगर जाता...'

रमेशालें हें अस्तित्व सुक्त वाचकांक वा आयकुप्यांक होलमूं वा ना होलमूं- रमेशाल्या मनांत तें लख्ख परजळिल्लें आशिल्ल्यान तो बिन्धास्त तें सुक्त उतरांनी मांड्टा. तें समजुपाची तांक वाचकाठांय आसूंक जाय अशें कवीक दिसता.

रमेश आपणापरीन सत्याचो वेध घेत रावलो. फकत सत न्हय तर सत्याचे पलतडीन आनीक कसलें तत्व आसा ताचोय सोद तो घेतालो. हें सत्यापलतडचें सत्य मुठींत आयलें म्हणटकच तो कवितेंतल्यान तें वितरायतलो. रमेशांतलो कवी हो असो --

*हें म्हजें, उत्कट स्मरणशिल्प*
*म्हज्यान कोणाकूय दाखोवं येता*
*दाखयलें म्हण तें*
*तुमकां दिसतलेंच म्हणपाची*
*कळटलेंच म्हणपाची*
*भास म्हज्यान दिवं नज*
*जाच्यांत तें पळोवपाची*
*उत्कट ताकद आसल्यार*
*हांवें ना दाखयतांय*
*तें दिसूं येता, तें कळूं येता*

कवितेक शिर्शक दिवप रमेशाक मानवनासलें. एखादरो विशय घेवन त्या विशया भोंवतणी. कवितेचेर कविता अशी कवितावली रचप ताका मानवतालें. 'आंगणीं नाचता मोर मोरया' हो झेलो तर विंगड विंगड संदर्भ दिवन मोराकच नाचोवपी. मनमस्त मोरा विशीं रमेशान भरभरून बरयलां. समेस्त कोंकणी साहित्यकारांली बरपावळ एकठांय करून उस्तून पळयली जाल्यार आमकां पांच-पंचवीस मोरपांखां मेळटलींच. पूण आख्खो मोर मेळटा तो फकत रमेशाले कवितेंत. मयूर सुंदरी वांगडा मदनक्रिडा करपी शिरंगारासक्त मोर!

बाकिबाब आसतना जाणवूं नासलें. पूण बाकिबाब वतकच होलमलें- त्या म्हान कवीच्या तोंड सून तागेली कविता आयकुपाक मेळ्ळी हें आमचें भाग्य. आयज रमेश वतकूच आमी कितले भाग्यवान तें लक्षांत येता. हांवें स्वता रमेशाक आगरो करून कविता म्हणपाक लायिल्ल्यो त्यो कांय यादी आसात. मनाकाळजा थावन फर्माईश जाताली तेन्ना रमेशान केन्ना कोणाक निराश केलें ना. रमेशाल्या तोंडान तागेली सावुलगोरी, शिरशिर नम्रुबे आनी भौसार्पणमस्तु सारक्यो कविता परतून आयकुपाक मेळची ना हाची खंत आसाच. पूण त्यो आमी आयकल्यात हाचें एक आगळें समाधानूय आसा.

रमेशाले कवितेची भास हो डॉक्टरेट खातीर संशोधन करपा सारको विशय. कोंकणी भास ताणें स्वतंत्रपणान केळयल्या. जोडल्या, मोडल्या, घडयल्या. ताचे कवितेंत 'सासाय-सांवार रुंवार बसता' आनी 'सैंभोंवतणच्या काकूळ-कळांचें मनांत आकटें पेट्टा.' रमेशाल्या मोरांचे रंग छूम छूम; ताच्यो दिको पार्दिकी, देंठ सकाळी आनी सांजवेळो शेंदुरी-शेंदुरी. तागेलो फांतोड-उत्सव म्हळ्यार गुलाल तरंगोत्सव आनी तागेल्या ल्हानपणांतलीं स्मरणकेणां घनरंगांची झींग चड्यतात. ही ताची 'वळख काय भुलयाळी अळखनळख' असो संभ्रम कवी उकतायता.

लोकभाशा आनी वेदभाशा हांचें मिश्रण रमेशाले भाशेंत दिश्टी पड्टा. ताचे कवितेंत हिरण्यगर्भ, चैतन्य, सुवर्ण, ऋतंभरा, शुभंकर, वसुंधरा हीं संस्कृत उतरां येतात आनी तांच्या सांगातान येतात आयावपण, फागूर-आडफागूर, उज्याकेण, आयणो, कवडुलां, पेणे, मिरास अशीं नीज कोंकणी उतरां. उतरांचे धनी आशिल्ले कवी आमचे मदीं जावन गेल्यात. मनोहरराय सरदेसाय उतरां कडेन खेळतले काय उतरां मनोहरबाबां लागीं खेळटलीं कळनासलें. बाकिबाबूय अशेच कोंकणी-मराठी-संस्कृत भास एकूच जाल्ले वरी सहजतायेन केळयताले. रमेश वेगळो न्हय. भासांची आनी ही वज समजून घेवनच ताणें कविता रचल्यात-

*तुका सांसपितकूच*
*म्हजे भाशेंतल्या, आदिम अर्थांचे संदर्भ*
*म्हाका मोनेळ जावन, केळयत येतात*
*आनी हांव*
*प्राणा-मरणाचे चिमटेंतल्यान*
*अचळय सुट्टां.*

कोंकणी लोकमानसाचे हे गोड भाशेक संगिताचें देणें आपसूंक मेळ्ळां अशें सांगून रमेश देखीक हें लोकगीत दवरता-

*भांगर शेंवतें*
*आमाड्या भोंवतें*
*गगन ताळये खेळऽ तें*
*गगन ताळये खेळऽ तें*

लोकगितांक शिर्शकां आसनात. देखून जावंये, रमेशाल्या कवितांकूय शिर्शकां आसनात. ती ताची खासियत म्हणूंक जाय. लोक-दायजाचें मोल रमेश वळखल्लो देखून लोकसाहित्याचे बुनयादीचेर ताणें आपणालें स्वतंत्र साहित्य रचलें. ताणें म्हळां-

*काल आसलें म्हण आयज आसा*
*आनी पोरनेंच नव्याचें दायज आसा*

ह्याच भरवंशार रमेशान आपणाली वाट निश्चीत केल्ली. ताणें धरिल्ले वाटेर ताका जायत्या म्हालगड्यांचो सांगात मेळ्ळो. ताका रविन्द्रनाथ टागोर मेळ्ळो. संत तुकाराम मेळ्ळो. रेने रिल्के आनी पाब्लो नेरुदा मेळ्ळे. कोंकणी, मराठी, हिन्दी कवींचीय वळख जाली. ह्या कवींनी रमेशालें विचारविश्व समृद्ध केलें. ही विचारांची खोलाय हेंच रमेशालें संचीत.

फाटलीं धा पंदरा वर्सां रमेशान खूब गद्य लेखन केलें. कोंकणी आनी मराठींतूय. सुरवेच्या काळारूय ताणें 'मोनी व्यथा' सारकी नवलिका बरोवन गद्याच्या मळार पावल घातिल्लें. तिका कला अकादमीचो पुरस्काररूय फावो जाल्लो. गद्य आसली तरी तिची काव्यात्म प्रकृती लिपनासली. २००६ वर्सा ताणें बरयिल्ली 'एक

भेट-एकामेकांची एकामेकांक' ही कथाय अशीच काव्यमय जाल्या. पूण ताणें जें लळीत लेखन केलां तें अप्रुपांचें. गद्यांत बरयिल्लें काव्य कशें.

रमेशा कडेन वाद घालपाक म्हाका खूब आवडयलें. वाद घालपा सारकें आमचे मदीं मतभेद नासताले. पूण एखादरी कलाकृती म्हाका आवडली आनी ती ताका आवडिल्ली नासली जाल्यार मागीर आमी ते साहित्यकृतीचेर भासाभास करताले. गुलजारा विशीं ताचीं मतां वेगळीं आसलीं. संजीवाली म्हाका आवडिल्ली कविता कशी कविताच न्हय हाचेर आमचो वाद जातालो. कोंकणींतले नवे कवी कांय वाचनात हाचेर आमचें एकमत्त आसुनूय तांच्या गुणांची तोखणाय करतकच तो म्हणी 'तूं तांकां माथ्यार घेता. मागीर ते माथ्यार बसतात.' विष्णू वाघाल्या सुदीर सुक्ताचेर वा दत्ताले सावित्रीचेरूय आमी उलयिल्ल्याची याद जाता. पयस रायबरेली आसतना केन्ना केन्ना फोनाचेर लेगीत आमी अर्द अर्द वर चर्चा करताले. आमचो वाद सुटावो जातालोच अशें ना. पूण एकामेकांचेर टिका करूनूय कसलीच कोडपाण मात उरनासली.

म्हगेली 'रुमडफूल' कथा ताका आवडिल्ली. ते कथेचें नव्यान नामकरण करून तिका आनी संग्रहाकूय 'मिर्गतान' अशें नांव दिवपाचें हांवें थारायिल्लें. पूण रमेशा कडेन उलयतना ताणें त्या नांवाचेर म्हजेकडेन वाद घालो. मृगतृष्णा आनी मिर्गतान हीं समानार्थी न्हय. कोंकणींत मीर्ग हें उतर पावसा कडेन संबंदीत हें ताणें इतले खरसाणीन म्हाका पटोवन दिलें की हांवें तें मानून घेतलें आनी विचार बदल्लो. अजाप म्हळ्यार एक दीस रमेशालेच एके कवितेंत 'रामाक पासून भूल पडून जाता ताचें मीर्ग' अशें वाचलें. ताणें तें भांगराच्या हरणाक उद्देशून म्हणिल्लें. ताचे कडल्यान म्हाका स्पश्टीकरण जाय आसलें. पूण म्हज्या विसरपड्या सभावाक लागून उरलें तें उरलें. एक वाद जावचे पयलींच व्हळ्ळो.

२००९ वर्सा अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्ष पदा वयल्यान उलयतना रमेशान कांय शिटकावण्यो दिल्ल्यो त्यो भोव मोलादीक. पुरस्कारांचेर नदर दवरून लेखन करपी बरोवप्यांक आनी दोनचार पुस्तकां उजवाडाक येना फुडें 'वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतूय धरना' अशी गत करून घेवपी लेखकांक तांचे सर्जनशिलतायेचेर जावपी अनिश्ट परिणामांची जाणीव करून दिल्ली. पूण तेय परस चड गरजेची शिटकावणी दिल्ली ती समिक्षेच्या अभावाची. जों वेर परखड समिक्षा जायना तों वेर साहित्याची वाड जावंक पावची ना. तागेल्या ह्या मता कडेन हांव पुरायेन सहमत आसां. आयज जाता ती आस्वादक समिक्षा. असली समिक्षा म्हळ्यार साहित्याच्या रुखार चडिल्ली बेंनुल्ल. लेखकांक अडेचो आत्मविस्वास दिवपी ही समिक्षा साहित्यीक गूण आशिल्ल्या प्रतिभावंताक वाडूंक दिना. ताका अल्पसंतुश्ट करता. ही शिटकावणी दिवन रमेशान साहित्याचे मुल्यात्मक वाडीची वाट दाखयल्या. तिका पाळो दिवप ही रमेशाक अर्थपूर्ण श्रद्धांजली जातली.

संपर्क: 09422059509



# कैफा कैफांचो जोगी

### उल्हास पै रायकार

हय. रमेश वेळुस्कार. ताच्या मनाच्या मळबांक कोण धिगी लायत! मोनेळान उपाट भरिल्लीं मळबांच ताचे कडेन आशिल्ली. तांतूत दनपारचो मोनेळ गच्च भरिल्लो. घन दनपरां हुंवाराचें मन घेवन पाठांर सांवळी तोखेत बसपी तो. माथ्यार जोरगतीचें घेऽ हुंवार. मोनेळाचो बांद फुट्टालो तेन्ना ह्या जोग्याचेर शब्दांचो सुरंग सांवार येतालो. आतां ताचींच उतरां उश्णीं घेवन ताका आगीं ओंपपाचो हो खीण आयलो.

कविते कडेन आनी तातुंतल्या उतरां कडेन कशी मनस्वी इश्टागत आसची तशीच म्हजी ताचे कडेन इश्टागत आसली. रमेशाक हांव कविताच म्हूण पळेतालों. शणै गोंयबाब जन्मशताब्दी वर्सा नागेशबाब करमली हांणी तरनाट्यांच्या मनांनी आनी पांखांनी कोंकणीचें वारें भोंवडायलें. तेन्ना जें भिरें उडटालें तातूंतलो रमेश एक. गांवां गांवांनी लळीतकांच्या कार्यावळींक आमी नागेशबाबा वांगडा खूब फिरले. ताच्या कवितेच्या सभावाक लागून हांव ताका लागीं आयलों. हालीं चड भेटी नासल्यो तरी पणजे अचकीत भेट जाताली. मागीर च्या घेता आसतना घेऽ गजाली, फकत साहित्याच्यो. हालींच्या काळांत ताच्या साहित्याचो वाठार वाडिल्ल्यान हेर भासांतले साहित्यीक ताच्या मना कडेन चड दाटसाण करताले, पूण कोंकणी कवी र. वि. पंडीत, पांडुरंग भांगी आनी मराठींतले पु. शि. रेगे तांचे आवडीचे. तातूंत पंडीतबाब ताच्या मनाक सामके लागशिल्ले. हांवें मस्करेन म्हणचें ''तूं उतरां कातयतना भांग्या वरी कातयता पूण चड गायता पंडीतबाबांचें.'' ''तशें न्ही...'' अशें म्हणून तो जो पंडीतबाबांचे कवितेचेर उलयतालो तें आयकुपाक मजा येताली. ते कवितेचेर इतले नाद-अपुर्बायेन उलोवपी हांवें दुसरो कोण पळोवंक ना. अशी अपुर्बाय जोग्याकूच आसता.

लग्ना उपरांत तो खूब फावट गोंयां भायरूच उरतालो. गोंयांत झळकच नाशिल्लो. जेन्ना तो हांगा येतालो तेन्ना ताचे इश्ट म्हण्टाले, ''तो कुळारा आयला.'' 'रमेश, कितें रे, कुळरीचे वाटे'? अशें म्हण्टकच ताच्या हांसपांत खरेंच कुळारची गोडी शिडशिडटाली.

कवी-संमेलनांनी खास फर्माईशी कांय कवींकूच जाताल्यो. तातूंतलो रमेश एक. सावुलगोरी, सर्वंगीच्यो कविता, शंबल्ल्यो, रे मोरा ह्यो कविता तो रंगयतालो. ताका साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जाहीर जालो तेन्ना आमी रामनाथी आशिल्ले. मागीर आमी सगळे इश्ट ताका घेवन फर्मागुडयेर येवन बसले. त्या दिसा ताणें गायिल्ली 'व्हडे राती फाग गाती' ही तर जोग्यानूच गायिल्ली!

ताच्या सगळ्या कवितांनी तो एक सुबद्ध अशी लय केळयता.



सगळ्या स्वरांची वीण ताच्या कवितांनी आसता. ताचें एक गीत 'रंगलीं कुपां दर्या मुखार' हें जायत्या जाणांनी गायलां. ताका त्यो चाली मानवल्यो नात. ताचें मत ह्या गिताक मारवा राग मानवता. म्हजें मत सांज रंगयली तरी तातूंत मालकंसाचे रंग आसात. हांवें म्हणून दाखयलें. तो म्हणूंक लागलो, ''तुका संगिताचें नाका आशिल्लें आंग दिसता.'' म्हजी जाप - संगीताचें आंग न्हय, मन दिसता. हाचेर ताचें तें आंग हालयत हांसप अजुनूय म्हाका याद जाता. चर्चा करतना उतरां कडेन नाजूकपणान आनी मुमुरख्यांनी खेळत ताचो आनंद घेवपी आनी मागीर सगळें विसरून आपलेच धुंदीन शांतपणान फुडलो मार्ग धरपी रमेश हो जोगीच.

ताची 'दीस सोहनी सुरांचो' ही कविता हांवें जेन्ना पयले फावट आयकली तेन्ना हांव पिसो जालों. सोहनी रागाचे सगळे उत्तरांगी भाव हे कवितेंत आसात. ही कविता वाचची आनी पं. अभिषेकींची 'देखी एक चतुर नार' तशेंच पं. कुमार गंधर्वांची 'रंग ना डारो शामजी' ही चीज आयकूंची. पं. अभिषेकींचो षडजाचो थर्त आकार आनी पं. कुमारजींची मुरली हे कवितेंत मेळटा. सोहनी सुरांच्या दीसाक तो नदर तासां कडेन, रक्त सुंवारी कडेन, पयल्या वयल्या आंकरे वयल्या शिरांच्या रंगां कडेन जुळयता. हो दीस भानूय सोडटा, ताका जायांचोय वास आसा आनी तो बाळंटिणीच्या पयल्या वयल्या फावटीच्या कश्ट सुटकांचोय जाता. सोहनीच्या सुरांची, तातुंतल्या वेगळ्या वेगळ्या रंगसुवाळ्यांची तनर जाणविकाय आनी पयसुल्ल्या मळबांत विरत वचपी रंगांची सया हे कवितेंत आसा. ही सया जोग्याची. निर्मळ मन आशिल्ल्याकूच ही सया दिसता.

साहित्यिकाच्या मनांत विकल्प आनी विकृतीचें वारें आसता, तेन्ना ताका रास्तवांत बुरशेपण दिसता. ताच्या मनांत जोगी आसता तेन्ना वास्तवाचो नाद निर्मळपणान येता. रमेशाचो निर्मळ रंग पळेयात.

*तळ नितळ पाणयां*
*तिचो पांय घसरलो*
*थळ उथळ मांडयां*
*तिचो रंग उसळलो.*

रंगयाळ्या सावुलगोरीचे दोळे पळेतकीच ताच्या सर्वंगाचेर कळे-उमाळे येतात आनी तिच्या दोळ्यां आड ताचे पेटून इंगळे जातात. ही शिर्शीर भुलकोमरी कितें करता पळेयात -

*झडोवन घालता*
*पिकोवन राती*
*फाटमणयांच्या मदसून शिरशिर*
*चिरीत वयता गोरी*
*घालून समगम घुरी*
*रे वयता सावुलगोरी*

पूण ती सगळ्यांचे वसंत एकठांय हाडून जाळून उडयता कारण -

*सावुलगोरीन आमकां*
*रेखल्या आंगळीन आंगळी*

हें वास्तव आनी तें दाखोवपाक हे शब्द...
फकत जोग्याचेंच काम.

रमेश मळबा कडेन लागीं तितलोच मातयेक लागीं. केन्नाय आपलें रूप विसरून तो कूप जाता जाल्यार केन्नाय ताच्या आंगापांगाक पाळां येवन फळांय जाता. जमीन बरी देखून आपल्या कुडीक नांव आसा अशें म्हणीत तो फुडें सांगता

*म्हाका किल्लोवपी*
*म्हजी सद्गती*
*ती धरती*

मळबा कडेन ताचो सूर सादता तेन्ना ताचें जोगीपण जागता. घडये तो आपणाकूच वर्णिता-

*माथ्याक बांदलो*
*फेटो मळबाचो*
*आंगार कामुरली माती*
*वयतना तो सांगून गेलो*
*बुद्धाकडचीं नातीं*

खरेंच कैफां कैफांचो हो जोगी...

संपर्क : 7507441344



# एक मुलाखत

माधव बोरकार

हे मुलाखतीची फाठभूंय अशी. रमेश वेळुस्काराल्या 'सावुलगोरी' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जाहीर जालो तेन्ना रामनाथी हांगा कोंकणी लेखक संमेलन चलतालें. थंयच ही बातमी आयली आनी आमी आकाशवाणी खातीर ताची एक मुलाखत ध्वनिमुद्रित करपाचें थारायलें. आनी ते प्रमाण ती रिकॉर्ड केली. मुळांत ती थोडी आयस पयस आशिल्ली. ताचें संपादन करून आमी ती वितरायली. मुखार 'उर्बा' अंका खातीर ती आटयल्ल्या रुपांत प्रसिद्ध केली. हांगा आतां ती निवळावन दिल्या.

**बोरकार : तुमकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो हे खातीर तुमकां म्हजीं परबीं. तुमी आनी हांव समकालीन. आनी आमचे बरोबरच्या कवीचो असो भौमान जाता हाचो म्हाका आनंद जाता. रमेशबाब ह्या वेळार तुमी फाटल्यान वळून पळयतात तेन्ना तुमकां कितें दिसता?**

**वेळुस्कार** : आमी वांगडा बरोच काळ चल्ल्यात. हो फाटलो कांय ना म्हळ्यार वीस वर्सां परस चड काळ आसा. हांव जेन्ना परत फाटीं वळून पळयतां ह्या काळा कडेन तेन्ना म्हाका दिसता की मनशाच्या जिवितांत अशी एक गरज आसता, ताका म्हणजे मनशाक जाणें निर्मिला म्हणजे ही सृश्टूय त्या निर्मितल्याचें आमी खूब कितें देणें लागतात. आमी आमच्या बरपांतल्यान तें रीण पावयतात.

**बोरकारः तें जालेंच. पूण आज तुमकां तुमचे कविते विशीं कितें दिसता? म्हळयार ह्या काळांत तिचे अभिव्यक्तींत जाल्ले बदल बी?**

**वेळुस्कारः** बदल हे जाताततच. आनी तशे ते जावंक जाय. ना जाल्यार ती सांयेतली. अभिव्यक्तीचे बदल हे बरेच वेगळे वेगळे तरेचे आसतात. आशयाचे, तिचे शब्दकळेचे बी. तुमकां खबर आसा आमी बरोवंक लागले तेन्ना दिलीप पु, चित्रे, ग्रेस, ना. धो. महानोर हे मराठी कवी ऐन घोंसार आशिल्लें. तांच्यो कविता आमी भारावन वचून वाचताले. सुरवातेच्या काळांत तांचो प्रभाव अप्रत्यक्ष आमचे कवितेचेर पडिल्लो दिसता.आमी तांचें अनुकरण करी नासले. अनुकरण आनी प्रभाव हांचे मदलो फरक आमी लक्षांत घेवंक जाय. म्हजी सुरवेची कविता ही सैमाचें वर्णन करपी. जी भास हांव आयकतालों वा म्हणुया ज्या भाशीक पर्यावरणांत हांव वाडलों ताचो प्रभाव म्हचे शब्दकळेचेर जालो. 'मोर पाखांतली' म्हजी कविता आनी 'सावुलगोरी'तली कविता हातूंत अभिव्यक्तीचे नदरेन थोडो फरक आसा. चड करून ह्या काळांतले कवितेंत आदीम प्रतिमा येतात. 'मोरपाखांत' त्यो नाशिल्ल्यो. हाचें कारण म्हाका दिसता तें अशें की नवे नवे कवी वाचतना आमी तांचे कडल्यान बरेंच कितें घेतात. दुसरी गजाल अशी की आमच्या अणभवाचो वाठार काळा प्रमाण वाडत वता. 'सावुलगोरी'त ताचें पडबिंब दिसता. ती अदीक mature जाली अशें म्हाका दिसता.

**बोरकारः नादमयता हें तुमचे कवितेचें एक व्यवच्छेद लक्षण. ही नादमयता तुमचे कवितेंत कशी आयली?**

**वेळुस्कारः** जेन्ना वेगळे वेगळे लोक वेगळ वेगळे पद्दतीन उलयतात तेन्ना ताचे फाटल्यान जाणिवेचें एक वेगळें परिमाण आसता. आनी ताकाच लागून त्या शब्दाक एक वेगळो अर्थ प्राप्त जाता. शब्द हो निखटो शब्द नासता तर तो प्राण आसता. परत शब्दाक आपलो असो नाद आनी तातूंतल्यान उत्पन्न जावपी संगीत आसता. आनी हें संगीत अर्था कडेन व्हरता. लोकसंगीत हांवें खूब आयकलां. तेच भशेन हेर संगीतूय. 'सावुलगोरी' सारके कवितेंत ही नादमयता बरीच आयल्या. म्हाका दिसता म्हजे कवितेंतली नादमयता ही म्हज्या लोकसंगीताच्या अभ्यासांतल्यान आयल्या.

**बोरकारः तुमी कांय मालिका कविता बरयल्यात. ते विशीं?**

**वेळुस्कारः** मालिका कविता बरोवपा फाटलें कारण अशें एखाद्री कविता बरोवन जातकच सगळें सांगून सोंपलां अशें दिसना. कितलें तरी आनीक सांगपाचें उरलां अशें दिसता. जेन्ना त्या विशयाचो वेध घेतां तेन्ना त्या अणभवाचीं वेगळीं वेगळीं तासां होलमूंक लागतात आनी तातुंतल्यान ही मालिका कविता येता. 'माती' ही मालिका वाचतकच तुमच्या लक्षांत ही गजाल येतली.

**बोरकारः सावुलगोरी हें नांव तुमकां कशें सुचलें? आनी ही कविताय?**

**वेळुस्कारः** भुरगेपणांत हांव शाळेंत वतालो तेन्ना राखणेक सोडिल्ली आमगेर एक गाय आशिल्ली. तिका म्हाका राखचें पडटालें. एक फावट हांव तिका घेवन बाकीच्या राखण्यां बरोबर लागशिल्ल्या गाळींत गेलों. ते गाळीक सावुलगाळ अशें म्हणटाले. आनी हांगा म्हाका ही कविता वेगळे तरेन जाणवताली. ते गाळींत खूब सावळी पडटाली आनी तिका सावुलगाळ कित्याक म्हणटात हाचो हांव विचार करपाक लागलों. ते भायर दोंगर करतल्यांचे भुरगे कांय लोकगितां बी म्हणटाले. कांय काळा उपरांत हांव कविता बरोवपाक लागलों तेन्ना म्हाका तें सगळें आठवपाक लागलें. आनी सावुलगाळींतल्यान सावुलगोरी हें नांव सुचलें. आनी सावुलगोरीचें एक प्रतीक जालें.

**बोरकारः प्रतीक जालेंच. पूण ही कविता कोंकणी कवितेक नादाचें देणें दिता. ती तुमचे कडल्यान आयकुपांत एक वेगळीच मौज आसता.**

**वेळुस्कारः** हांव ती तुमकां वाचून दाखयतां. (कविता वाचता)

**बोरकारः सद्या तुमी कितें बरयतात?**

**वेळुस्कारः** सद्या हांव आनीक एक अशीच मालिका बरयतां. 'तनरजोत' अशें तिका हांवें नांव दिलां. पस्तीस सुमार कविता बरोवन जाल्यात...

संपर्कः 9420222876



# सुसेगाद गोंयकार, नांवाजतो साहित्यीक आनी मन मेकळो इश्ट

गजानन जोग

कमराक आदले मादींची पँट, वयर सदरो, खांदाक झोळी माथ्यार कोंगरे केस अशी ती वाटकुळीच मूर्त पयशिल्ल्यान धोलत धोलत येतना दिसताली तेन्ना म्हजे खातीर काळ इल्लो ल्हव ल्हव चलपाक लागतालो. हातांतलीं कामां आपशींच कडेक पड्यलीं आनी रमेशाचें स्वागत करपाक आमी दोगांय सुनेत्रा आनी हांव तयार जातालीं. मागीर लिंबू घाल्ली फुटी च्या जांव सरबताच्या आलाशिन्यान खाबरी चालू जाताल्यो. भारतीय शास्त्रीय संगीताचो खयाल गावपी जसो सवकास सवकास एकेका स्वराक लक्तुबायेन आयकुप्यां मुखार हाड्य, तशेंशें ताचें एकेक उतर मुखार येतालें. ''मागीर, कितें गो कशें चल्लां तुजें'' ''आमी घट, तुजीं सगलीं कशीं रे, आयल्यांत?'' अश्या प्रस्नांनी संवाद सुरू जातालो आनी मागीर कोंकणी, हिन्दी लेखकांचेर, सद्या कोंकणींत कितें चल्लां ताचेर चर्चा सुरू जाताली. केन्ना वर भर केन्ना दुसरें काम येय मेरेन.

ही आमची इश्टगत ४०-४५ वर्सां कसल्याच वितुस्त्य बगर चल्ली आनी अकस्मात रमेश आमकां सोडून गेलो. ताच्या स्वरयंत्रांत कितें तरी नोत आयिल्लें आनी तें तो उलयतनाय लक्षांत येतालें. ताणेंय ती गजाल म्हाका सांगिल्ली. मागीर मॅसेजींचें मदीं मदीं दिवप घेवप सुरू जालें. आनी मागीर संपर्क तुटलो. ताचे आदीं एके सकाळीं ताचो फोन आयलो तेन्ना ताचीं उतरां सारकीं कळनासलीं पूण ताका तें सांगिनासतना हांव आयकत रावलों, उलवण्याचो अर्थ लायत रावलों. थोड्या वेळान ताणेंच आपणाक जाल्ल्या दुयेंसाचेर चलिल्ल्या उपायां बद्दल थोडें सांगलें. मागीर संभाशणाची गाडी हांवें 'लायटर व्हेन' लेनीचेर व्हेली. सूचत वता तें उलयत रावलों... सगल्यांकूच हांगा येतना हांगच्यान त्या अवकाशांत वचपा खातीर लागता तो पासापोर्त आदींच दिल्लो आसता, व्हिजाय आसता. फकत तिकेट आयले बराबर वचपाचें. त्या विमानांत बसपा खातीर विमानतळार वचपाची, आदीं वर भर जांव तीन वरां वचून थंय मुस्कां मारीत बसपाची गरज नासता. हें विमान तूं जंय आनी जे अवस्थेंत आसा, थंयच्यान तुका सूक्षिम रूपान व्हरता. केन्ना फांत्तोडेर, केन्ना दनपरां केन्ना तिनसांजेक जाल्यार केन्ना व्हडे रातीं. हाचेर ताणे म्हळें, 'तीं चिंता म्हाका ना रे, मरणाक भियेवपाचें कितें.. हांव तयार आसां वचपाक' अशे तरेचें कितें तरी तो उलयलो आनी हांवेंय ताका हांसत आमी फाटीं-फुडें जांव, पूण सगलेच वतले अशें म्हटलें. पूण ताचें विमान इतले बेगीन येवन ताका व्हरत अशें धरूंक नासलें हें मात खरें. तो गेलो ही गजाल समजली तेन्ना तकली भेरेल्ले भशेन जाली. फुडें कांयच सुचना अशे तरेचें एक वेगळेंच वागरें मनार पडलें. मागीर ताका कितलीं वर्सां आसलीं, अमको कितल्या वर्सांचेर गेलो, म्हाका कितलीं वर्सां, अशे तरेची तपासणी म्हजें मन करपाक लागलें. थोड्या वेळा भितर खंय तरी रमेश गेलो ही नोंद जावपाक लागली आनी ते रातीं रमेशा बद्दलच्या सपनांतल्यानूच मदीं मदीं जागो जालों. निमाणें ताणें आमचो सगल्यांचो निरोप घेतला हें सत स्विकारचेंच पडलें. अविरत, अविश्रांत गावपी तो कोगूळ आतां गांवचो ना. नियतीचें म्हूण कितें हें!! कोगळाचो गावपी ताळो काडून घेतलो जाल्यार मागीर ताची जी जीण उरता तिका कितलोसो अर्थ आसता?

रमेश-मिथिलेश हांचें लग्न गोंयां भायर जाल्लें पूण स्वागत समारंभ गोंयांत जाल्लो. जेन्ना रमेशाची घरकान्न कांय कारणाक लागून रायबरेलीची शिर्वीस सोडून गोंयांत येवं शकत ना हें समजलें तेन्नाच्यान रमेशाच्या इश्ट-मंडळां मुखार एक प्रस्नचिन्न उबें राविल्लें- हांचो संवसार कसो जातलो ? पूण तांचो संवसार बरो जालो, फुल्लो, फळ्ळो. रमेशा फाटल्यान ताची घरकान्न, तीन भुरगीं आसात आनी तीं ल्हवू ल्हवू रमेश कुडीच्या रूपांत तांचे बराबर ना हें सत स्विकारपाक लागल्यांत.

रमेशाली व्हडली चली सिमन्तिनी हिचे कडेन हालींच उलयलों तेन्ना रमेश निमाण्या दिसा मेरेन हांसतालो हें समजलें आनी जिवाक सू जालें. ही आमची एक समजून घेवपाची आनी आमकां थातारपाची पद्दत इतलेंच अशें म्हाका दिसता. कूड सोडून आत्मो वता त्या खिणाक जें संवेदनांच्या रूपांत आमचे कडेन जीण भर आसता तें मन- ताची अवस्था कशी आसता काय? जीण म्हळ्यार संवेदना, जाणीव. ती सोडून वता तेन्ना कितें जाता, ग्लानी येता, याद वता, न्हीद येता जल्म भर चलिल्लो आपुलाची वाद आपणासी कसो कितें सोंपता हें सगलेंच गुळूच उरता. मरणाक आफडून आयिल्ले लोक तांच्यो त्या काळांतल्यो तरतरांच्यो यादी सांगतात. पूण मरून परतो जितो जाल्लो कोण्ण ना. ताका लागून मरणाचो 'फर्स्टहॅंड' अणभव म्हण्यत तो कितें हें आयज मेरेन तरी कळूंक ना. आपूण मेले बगर सर्ग दिसना अशें म्हणून विशय सोडून दिवप इतलेंच हातांत उरता.

(पान १० चेर)

# मातयेचो कवी... मातयेंतच विलीन जालो!



**डॉ. जयंती नायक**

२१ ऑक्टोबर २०१८ दिसा रमेशबाब वेळुस्कार, जिंदादील कोंकणी कवी ह्या संवसाराक अंतरले. तांचेर आज हांव स्मृतीशेश बरोवंक बसलां. म्हाका ही गजाल खूब विचित्रच दिसता, काल मेरेन रमेशबाब स्वता र.वि. पंडित, पांडुरंग भांगी हांचेर स्मृतीशेश बरयताले आनी आज तांचेर स्मृतीशेश बरोवपाचो प्रसंग म्हजेर आयला!

खरें तर रमेशबाब गेलो हाचेर म्हजो विस्वासच बसना. आजूनय दिसता, अशे मर्दीच केन्ना तरी ते रायबरेलीच्यान गोंयांत अवतरतले आनी मागीर एका दनपारचें अकादेमींतल्या म्हज्या कॅबिनाचें दार उगडून भितर सरतले. आंगार सदरो घाल्ले, खाड वाडयिल्ले, खांदाक शबनम बोटवो, माथ्यार वक्ल चिडयिल्लें... आपले तनरेंतच एखाद्री गिताची तान गुणगुणत घब्ब करून म्हज्या मुखा वयल्या कदेलार बसतले आनी तोंडार हांसो फुलयत विचारतले... ''कशीं आसात गो... ? कितें खबर गोंयची...?''

रमेशबाबाचो हो संवसार सोडून वचप ही गजाल काळजाक व्हडलो चटको लावपी. मनाक धक्को दिवपी. हांव त्या धक्क्यांतल्यान सुमार चार दीस सावरिल्लें नाशिल्लें. जिवन मरणाचें म्हाका सत्य पुराय खबर आसूनय, तांच्या मरणाची खबर कळटकच हांव खूब अस्वस्थ जालें, कित्यांतच मन लागना जालें... म्हजी आई आनी पापा हो संवसार सोडून गेल्लीं तेन्ना जशी म्हजी मानसीक स्थिती जाल्ली तशी आतां जाल्ली. म्हज्या भावां-भावजांकय ती जाणवल्ली. रमेशबाबाच्या मरणाचें वायट दिशिल्लें. कारण रमेशबाबाचे स्नेहसंबंद म्हज्या घरच्यां कडेनय आशिल्ले. देखून तांची खबर कळटकच म्हाका प्रत्येकान फोन करून विचारपूस केल्ली.

...आनी एकदम ते अस्वस्थतायेंत आसतना म्हज्या कानार पयसुल्ल्यान कशीं रमेशबाबाचींच उतरां पडलीं, ''आगो, हांव गेल्याचें अशें दुख्ख करनाका... हें अशेंच आसता, ultimately आमकां सगळ्यांक एक ना एक दीस वचपाचेंच आसता. आमी संवसारांत येतात तीं वचपाकच. ज्या दिसा आमी ह्या संवसारांत येतात, त्याच दिसा आमचें वचप निश्चित जाल्लें आसता. मरण हें ह्या संवसारांतलें अंतीम सत्य... आनी तूं जाणां ? ...मरणय सोबीत आसता... मात आमकां ताचे कडेन पळोवपाची नजर जाय. आनी मरण आयलें म्हण हांव खंय गेलां तर ? हांवें फक्त म्हजें रूप बदल्लां. हांव एके अवस्थेंतल्यान दुसरे अवस्थेंत transform जालां. म्हजो मनीस देह मातयेंत विलीन जावन... मातयेचोच एक अंश जाला...''

त्या उतरांनी हांव भानार आयलें. 'माती' आनी रमेशबाबाचो आगळो संबंद. हो संबंद ताच्या 'माती' पुस्तकांत उतरा उतरांतल्यान जाणवता. तशें ताणें बरयल्ल्या हेर साहित्यांतल्यानय माती कुशीक काडूंक मेळना. मातयेचेर उपाट प्रेम करपी रमेशबाब, आपूण मातयेंत विलीन जावन ह्या विश्वमंडळांत चिरंजीव जावन वावुरतल्याचें म्हाका सांगतालो.

आभास रुपान कानार पडिल्ल्या त्या उतरांनी म्हाकाय पटलें, रमेशबाब खंयच गेल्लो ना, तो हांगाच आसा, तो ह्या चराचरांत वावुरता, मातयेच्या रूपान, पावसाच्या सरींनी... ताका अतिशय प्रिय आशिल्ल्या धालो-जागराच्या गितांच्या सुरांनी... ताच्या सावुलशिंरगार कवितांनी...

रमेशबाबा कडलें म्हजें नातें खूब लागींचें. पूण त्या नात्याक हांव भाव-भयणीचें, गुरू-शिश्येचें, इश्ट-इश्टिणीचें... अशें अमुकच म्हण नांव दिवंक शकना. पूण तें नातें काळजाचें, स्नेहाचें, अंतस्करणांतलें. रमेशबाब ह्या संवसाराक अंतरले ते राती सुमार देड वराचेर ताची व्हडली धूव सिमू म्हणजे सिमंतिनी कडेन वॉट्सॲपाचेर मॅसेजींनी उलोवप जालें. हांव जागेंच आशिल्लें, न्हीद पडूंक नाशिल्ली. सिमून सांजे सुमार साडेसाताक आपलो बापूय ह्या संवसारांतल्यान गेलो म्हणपाची मॅसेज केल्ली, ते आर्दी संजीव वेरेंकारान म्हाका ही बातमी दिल्ली आनी मागीर हांवें माधव बोरकारा कडेन ताची खात्री केल्ली. तर न्हीद पडना जावन रमेशबाबांच्या विचारांत आसतना हांवें सहज मॅसेज बॉक्स उगडलें. सिमू ऑनलायन दिसलें, तशें मागीर आमचें दोगांयचेंय मॅसेजींतल्यान मन उकतें करप जालें. सुमार वर भर आमी उलयतालीं. (मॅसेजीन) तेन्ना सिमून म्हाका सांगलें, ''डॅडी आपको बेटी मानते थे।'' आयकून म्हजें काळीज भरून आयलें. तांचें ग्रेटनेस होलमलें. एक वेगळी नात्याची वीण तांचे विशीं मनांत जुळून आयली. म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी उमळ्ळ्यो.

रमेशबाबान केन्ना अशें तोंड उकतें करून म्हाका म्हणलें ना, पूण सदांच अतिशय मायेन म्हजे कडेन ते वागताले. म्हाका कितेंय टेन्शन आसल्यार धांवन येताले. ते दिसा जेन्ना सिमू कडल्यान म्हाका तें कळ्ळें तेन्ना तांचें एक आगळेंच रूप म्हजे मुखार उकतें जालें. तशें हांव तांचे परस फकत सुमार पंदरा-सोळाच वर्सांनी ल्हान. पूण तांचे भाशेनच सांगपाचें जाल्यार, ''खंयच्याय नात्याक वय लागना, लागता तें आमी कितें मानतात तें!'' मानिल्लें नातें तांणी सदांच पाळ्ळें. ते गोंयांत आसूं वा नासूं म्हाका तांचो सदांच मानसीक आनी बौद्धीक आदार मेळ्ळा. तशें तांच्या सभावा प्रमाण जांचे जांचे कडेन तांचो संबंद आशिल्लो, तांचें सगळ्या कडेनच ते अशे मायेनच वागताले. तांच्या उतरांनी, तांच्या वागपांत मोवाळपण, माया ओतप्रोत भरिल्ली. म्हाका याद जाता ते प्रमाण म्हजें तांचे कडेन स्नेहाचें हें नातें सुमार चोवीस वर्सां आर्दी, म्हजी आवय ह्या संवसारांतल्यान गेली तेन्नाच्यान जुळिल्लें. आई गेल्ली तेन्ना हांव खूब अस्वस्थ आशिल्लें. हांवें एक दुकय तिच्या मरणा प्रसंगार गळोवंक नाशिल्लें, पूण मनांतल्या मनांत हांव घुस्मट्यालें. अकादेमींत म्हाका भुजवण दिवंक आयिल्ले कडेन तांणी तें पारखिलें. उपरांत तांणी कितक्यो तरी पावटी मारल्यो,



जिवनमरणाच्यो कितक्यो तरी गजाली, तत्वज्ञानां सांगून म्हाका ते मानसीक अवस्थेंतल्यान भायर काडलें.

ते उपरांत रमेशबाब म्हाका खूब लागींचे जाले, म्हजे घरचेच एक वांगडी कशे. म्हज्यो व्यक्तीगत वा साहित्यीक क्षेत्रांतल्यो कागाळी हांव तांकांच हक्कान सांगतालें. जिवितांत केन्ना अटितटीचो प्रसंग आयलो तर तांचेच कडेन उलयतालें, केन्ना एखाद्री बरी साहित्यकृती निर्माण जाली वा केन्ना साद्या एखाद्या उतराक अडलें तर हांव तांकांच फोन करतालें वा सांगतालें. म्हज्या कसल्याय प्रस्नांक, अडचणींक तांचे कडल्यान जाप मेळ्ळी ना अशें केन्नाच घडलें ना. फोना वयल्यान वा गोंयांत आसल्यार प्रत्यक्ष भेटून ते तांचें परिमार्जन करताले. तांची जाप वा स्पश्टीकरण म्हाका सदांच पट्टालें अशें ना, केन्ना केन्ना म्हजे प्रस्न हांवच सुटवें करतालें, पूण प्रसंगार सगळ्यांत आदीं याद जाताली ती तांचीच. ते केन्नाच बेजारले नात वा नकारार्थी उलयले नात. दुसऱ्याक समजून घेवपी, दुसऱ्याच्यो भावना जाणपी, निरपेक्ष मनाचो, संवसारांतले वायटांतले वायट गजालींतय सत्यम् शिवम् सुंदरम् आसता अशें मानपी, तांचे सारको दुसरो मनीस हांवें आज वेर पळयलो ना. साहित्य अकादेमी खातीर कृष्णा सोबती हांची 'जिन्दगीनामा' कांदबरी हांव कोंकणींत अणकार करतालें तेन्ना उर्दू उतरां खातीर म्हजें अड्टा हें जाणून रायबरेलीच्यान येतना ते म्हजे खातीर एक उर्दू - हिन्दी कोशच घेवन आयले. म्हज्या लेखनांतल्यो त्रुटी जश्यो ताणी सांगल्यो तेच बरोबर ''आदिमायेचो अस्त'' सारके कथेची आनी 'मिर्गविणो' ह्या म्हज्या कविता संग्रहाची तुस्त ताणीच केली. हांवें न सांगतां तांचेर समिक्षणाय बरयलीं. खरें तर ताणीच सांगलें म्हणूनच हांवें मिर्गविणो हो कविता संग्रह छापलो, ना तर हांव ते म्हजे व्यक्तीगत उमाळे म्हण म्हजे आरमारीतच तांकां बंद दवरपाचें. एखाद्रे साहित्य कृतीच्या अंतरंगांत भितर सरून तिच्या सप्तरंगांचो थाव घेवपाची कळाशी कोंकणी साहित्यीकां मदीं सद्य स्थितींत तांच्याच एकट्या कडेन आशिल्ली अशें हांवें विधान केल्यार जायते जाण म्हजेर रागार जातले, तरी तें सत्य आसा. रमेशबाब आमचे मदींच आसात, मातयेच्या रूपान, पावसाच्या सरींच्या रूपान, तांच्या कवितांच्या रूपान, हें जरी मानून घेतलें तरी तांचें देहवसानय तितलेंच सत्य आसा. तांकां जाल्ल्या दुयेंसाची म्हाका अखेर मेरेन गंभीरताय खबर नाशिल्ली हें कळून म्हाका आज खूब गुन्यांवकारी जाता. हांव सप्टेंबराचे ३० मेरेन वॉट्सॲपा वयल्यान तांचे कडेन संपर्कांत आशिल्लें. तांचे भलायकेची खबर विचारत आशिल्लें. ताणी सत्य केन्ना सांगलें ना, दर वेळा ''पोझीटीव्हीटी दवर, सगळें बरें जातलें. हळू हळू प्रकृती सुदारतली...'' अशें सांगलें...

सप्टेंबराच्या तिसऱ्या सप्तकांत 'अनन्य' खातीर वट्ट १० कविता ताणी धाडल्यो. तांचे विशींचो म्हजो अभिप्राय वाचून खोसय प्रगटयली, - सप्टेंबराक साहित्य अकादेमीच्या पोर्टब्लेराक जावपी लेखक उत्सवाक म्हजी कोंकणीचें प्रतिनिधी म्हण निवड जाल्या म्हण म्हजें अभिनंदनय केलें. मात हें सगलें मॅसेजींनी आशिल्लें. आपल्याक दिप्थेरिया जाला तेन्ना उलयतना त्रास जाता हें ताणी सांगतकच हांव तांकां त्रास जावनये म्हण फोन करनाशिल्लें, तर मॅसेजींनीच उलयतालें.

३० सप्टेंबरा उपरांत मात ताणी दोन आठवडे मॅसेज बॉक्स उक्तें केलेंना, तेन्ना हांवें हुस्क्यान फोन लायलो. पयले दिसा कोणें घेतलोना, दुसरे दिसा सिमून घेतलो आनी ते बरे आसात, तांकां बऱ्यांतलो, बरो ट्रिटमेंट चलता, तांची प्रकृती पयलीं परस सुदारल्या मात कित्याक कोण जाणा इलेक्ट्रीक मिडिया कडलो संबंद ताणी तोडला, तेन्ना तांकां पत्र बरय. आतां वखदांच्या प्रभावाक लागून ते न्हिदून उरतात, अशें सांगलें. ही गजाल १७ ऑक्टोबराची. नवरात्रांतले नमीचे सांजेची. रायबरेलींत नवरात्रांचो उत्सव मोठो जाता, अशें ते सांगताले आनी दर वर्सा थंय नवरात्रांत हाजीर रावताले, हाची याद जावन आनी तांच्या हुस्क्यान हांवें तांकां फोन केल्लो. आनी सिमून तांची प्रकृती सुदारिल्ल्याची खबर म्हाका दिल्ली... आनी फकत चार दिसांनी तांच्या संवसार सोडून वचपाची खबर कळ्ळी.

रमेशबाबान म्हाका सत्य कित्याक सांगलेंना ?... तांची प्रकृती खालावली आसतनाय सिमूनय म्हाका ती सुदारता अशें कित्याक सांगलें? ...रमेशबाबांच्या गूढ उलोवपा प्रमाण, ह्या प्रस्नांचें गूढ म्हज्या मनाक सतायता!

संपर्क: 9823575623 

(पान ८ वयल्यान)

म्हाका आशा आसा, फुडें मरणाचें कुवाडें सुट्टलेंच.

रमेशाच्यो यादी भरपूर आसात आनी तातूंत सगले कडेनूच प्रांजळ, मेकळो आनी हांसत हांसत घुस्पावन उडोवपी रमेशूच चड कडेन आसा. तो गेल्ल्याचें दुख्ख जालें हें खरेंच. पूण तें एके तरेचें संयत दुख्ख. तातूंन दुखांचो घसघसो ना, हुंडक्यांच्यो चडट्यो देंवत्यो नात आनी जें कितें दिसता तें तें सगलें उतरांनी हांगा उक्तावपाचो येत्नूय ना. रमेशाचें वचप म्हज्या मनान आतां आपणावन घेतलां. स्मृतीशेष जो रमेश आसा तो म्हजे वांगडा उरतलोच, म्हज्यो स्मृती शाबुद्दीर आस मेरेन. आपोवणें आयलां सायबा वचपाको को हो रकाद येयत तेन्ना अचळय हांगच्यान पपा काडपाची.

रमेशाची लेखन संपदा भरपूर आसा जी आजून पुस्तक रूपांत येवंक ना. उणीच तीं धा तरी पुस्तकां जावपा इतलो कोंकणी आनी मराठींतलो मजकूर आसतलो. ते भायर हिन्दींतलेंय बरप आसतलें. रमेशाच्या बरें मागप्यांनी, ताच्या प्रकाशक इश्टांनी जर ताच्या पुस्तकांच्या प्रकाशनाचें काम खांदार घेवन तें केलें जाल्यार ताका ती बरी श्रद्धांजली थारतली. रमेशाल्या आत्म्याक सद्‌गति मेळू अशें मागतां आनी थांबतां.





# अक्षरयात्री झेनीयस...!

दिलीप बोरकार

कांय लोक फकत 'कवी' म्हणूनच जल्माक येतात आनी आयुश्य भर उतरांचो उत्सव मनयत मनयत एक दीस मरणाकूय उत्सव मानून तो मनयत आमचे मदल्यान एक्झीट घेतात. तांचें सगळेंच काव्यमय आसता. बाकीबाब तसो आशिल्लो. ताचे उपरांत म्हाका रमेश तसो दिसलो. कांय कवी, कवी म्हणून खूब व्हड आसतात. पूण मनीस म्हूण तितलेच ल्हान आसतात. पूण व्हड कवीं वांगडाच व्हड मनीस म्हूण म्हाका जे कोण हातांच्या बोटांर मेजपा सारके कवी गावल्यात तातूंत रमेश मुखेलपणान आसा. रमेश हो फक्त भारतीय तोलाचो कवी न्हय तर वैश्वीक मोलाचो कवी. हांव हें बरयतां तें रमेशाच्या आकस्मीक मरणान हळवो जावन बी न्हय. केन्ना तरी रमेशाच्या कवितांची मोलावणी करतलों म्हण आशिल्लों. कविता वैश्वीक केन्ना जाता, तर ते कवितेंत पुराय विश्वाचें स्तवन आसता, पुराय मनीसकुळयेचें गायन आसता आनी सृश्टीचें कवन आसता. तातूंत लोकवेदाचो नाद आनी काळाचो साद आसता. रमेशाच्यो सुरवेक सावन आतां मेरेनच्यो सगळ्यो कविता जर वाचून पळयल्यो, तांतले भोवरंगी, भोवढंगी आयाम जाणून घेतले जाल्यार तातूंत मुखेलपणान हाताक लागतले ते मातयेचे अणूरेणू. आनी माती म्हळ्यारूच हें विश्व हाचें भान दरेक श्वासा कणकणीं बाळगुपी कवीच खऱ्या अर्थान वैश्वीक जावंक पावता. रमेशाच्या काव्यांतल्यान रमेश जसो विश्वव्यापी जावंक पावलो तसो मनीस म्हणूनय तो विश्वव्यापीच आसलो. ताचें कारण म्हळ्यार रमेशान आपूण आनी कविता ह्यो वेगळ्यो गजाली अशें केन्नाच मानलें ना. रमेश म्हळ्यारूच एक दीर्घ कविता आशिल्लो. जाय जाल्यार कोणें ताका महाकाव्य म्हणूं येता वो कोणें ताका स्फुटय म्हणूं येता. उतरां अदीक उणीं आसलीं तरी आशय विशयान सामकी परिपूर्ण अशी ही कविता. छंदमुक्त तशीच छांदस. रमेशाच्या काव्याचेर सगळ्या तासांनी आनी आयामांनी फुडाराक अभ्यास जातलोच. तो जाले बगर कोंकणीक पर्याय ना. रमेशाचे कविते बगर कोंकणी काव्याचो विचारच जावंक शकना. कविताच न्हय तर ताणें गद्य म्हूण जें कितें बरयलां त्याय साहित्याचो अभ्यास गोंयकारांक करचो पडटलो. तांचे पासत रमेश हो 'अक्षरयात्री' आसतलो. पूण म्हजे पासत कोण..? खूब गहन प्रस्न हो! रमेशाचे हेर इश्ट, रमेशाचीं घरचीं हांचे परस रमेशाचो चड वेळ म्हजेच वांगडा सरला आसूंक जाय. 'जाका कोण ना ताका देव आसा' अशें हांवें जायत्या लोकांच्या तोंडांतल्यान आयकलां. पूण आमचे बाबतींत कोण नाशिल्ल्या म्हाका रमेश आशिल्लो आनी रमेशाक हांव आशिल्लों. हें अशें कित्याक जावंक पावलें..? खबर ना. पूण रमेशाक हांवें सगळ्या तासांनी पळयला. खूब लागींच्यान. पयसुल्ले लोक ताची कविता लागींच्यान समजून घेवंक शकतात, समजावंक शकतात. पूण रमेशाक समजल्लो म्हजे बगर दुसरो कोण आसत काय..!!

रमेश म्हजे परस १० वर्सांनी व्हड. हांव शाळेंत शिकता आसतना तो कविता करतालो. कविता कित्याक करतात हें म्हाका खबर नाशिल्लो तो काळ. आमगेर रामभट म्हूण एक भट येतालो. तो रमेशाच्या शेजराक पाळ्यांत रावतालो आनी थंयच्या सांतेरीच्या देवळाचो तो पुजारी आसतालो. ताका रमेश कविता करता म्हूण खूब अपुरबाय आनी तोखणाय. आमगेर आयिल्ले कडेन हांवें ताच्या तोंडांतल्यान रमेशाची व्हड्वीक आयकल्ली. आतां हें आयकप कशें आनी कित्याक जातालें हाकाय तशें रजांव नासतालें. तेन्ना उलोवपा सारके लोकां कडेन हेर विशय आसूं येताले. पूण आमच्या घरांत कोण अभंग गायता, कोण नाटकां बसयता, कोण पेटी वाजयता हाचेरूच उलोवप जातालें. रमेशाचो बापूय भगवंत हो तेन्ना भजनां, अभंग गावपी आनी नाटकांनी बी पेटयेची साथ करपी. रामभट ताची तोखणाय सांगतां सांगतां रमेशाचेर येतालो. हें सगळें घड्टलें तें म्हजो व्हडलो भाव नंदा खातीर. ताचें त्या काळार हेंच विश्व आशिल्लें आनी राम भटा कडल्यान ताका जाय ती खावड मेळटली. म्हजो दुसरो भाव उत्तम. नंदा फाटलो. ताचो गजानन सावंत म्हूण एक मित्र आशिल्लो. तो वड्वड (कुड्का) रावतालो. ताचे कडेन आमचो सामको घरोबा. इतलो की हांव तागेर वचून आठ आठ दीस रावतालों. थंय उज्या जात्रा (होळी) जाताली आनी ते जात्रेक तो गजानन आमकां व्हरपाक येतालो. वड्वड वचपाक आमकां आगशी कार्रेर-कामिजांव धरून शिरदोना देंवचें पड्टलें आनी मागीर तांबड्या रस्त्यान चलत पाळें काड्न वड्वड वचचें पड्टलें. वतना वाटेर रामभटाचें सांतेरीचें देवळ घर लागतालें. ताणेंच बोट दाखोवन कवी रमेशालें घर दाखोवच्चें. रमेशालें घर हुपून मुखार गेलो काय आनीक एका कवीचें र. वि.पंडिताचें व्हडलें घर लागतालें. रमेशालें घर मातशें भितर जाल्यार पंडितालें घर सामकें रस्त्यार. पंडिताक लोक भाटकार म्हणटाले आनी ताका गांव वळखून आसतालो. ताचे विशीं व्हडलेंशें बरें उलयल्लें कानार पडूंक नाशिल्लें. पूण हांव जेन्ना जेन्ना वड्वडा वतालों तेन्ना तेन्ना ह्या दोनूय कवींच्या घरां कडेन पावलों काय मुजरत नदर ते वटेन भोंवडायतालों. कवी नदरेक पड्टा काय म्हणून...

दर माया म्हयन्याक आमी शिरदोना वतालीं. आमी म्हळ्यार



आई, आईची इश्टीण सत्ती आनी आमच्या शेजराक रावपी लताई आनी तागेर मड्कयच्यान बी आयिल्लीं सोयरीं. तांकां खारें उदक न्हावपाचें आसतालें. सकाळीं वचून सांजवेळार घरा येवप. ती एक पिकनीक कशी आसताली. वडामुळांत बसतान मारप, थंयच आंबे, पणस खावप, थंयच दनपारचें आडपडप बी. थंयूय हांवें कवी रमेश खंय दिसता काय पळोवप. कवी कसो आसता हें पळोवपाची म्हाका उमळशीक कशी लागिल्ली.

आनी एक दीस कवी रमेश आमकां शिकोवपाक आठवेच्या वर्गांत आयलो. वर्स १९७१. हांव तेन्ना नेवऱ्यां दयानंद आर्य हायस्कुलांत मराठी माध्यमांतल्यान शिकतालों. १४ वर्सांचो म्हजो भाव नंदा त्या स्कुलाचो प्रिन्सीपल. म्हणटकच प्रिन्सीपलाचो भाव म्हूण म्हाकाय आपसूक भाव आशिल्लो. रमेश म्हज्या भावाचे वळखीचो. तेन्ना मराठी शाळेंतले शिक्षक मेळपाक मारामार. सगळे आयात करचे पड्याले. ते भायर खंयच हेर कडेन नोकरी मेळना ते शिक्षक जातालें. दुसरी नोकरी मेळ्ळी काय शिक्षकाची नोकरी सोडून पळटाले. आमकां समाजशास्त्र आनी भुगोल शिकोवपी शिक्षक नाशिल्लो. तो ये मेरेन रमेशाक तो विशय शिकोवपाक नंदान हाडलो. साक्षात समाजशास्त्र शिकोवपी कवी हांवें आठवेच्या वर्गांत शिकयतना पळयलो. वर्गांत मराठी उलयतालो आनी भायर मेळटकच कोंकणी. मागीर ताचें आमगेर येवप सुरू जालें. केन्ना केन्ना जेवपाकूय आसतालो. ते वेळार नंदा आनी रमेश हांची भाशे वेल्यान खूब व्हड वादावादी जाताली. नंदा मराठी वटेन आनी रमेश कोंकणी वटेन. पूण वाद जावनूय रमेशान शाळाय सोडली ना आनी आमचें घरूय. रमेश सायकल घेवन केन्ना येता काय जातालें. म्हाका सायकलीचें वोल्त मेळटालें. पूण कविता मात केन्ना ताणें आयकयली ना.

पांच काय स म्हयन्यांनी शाळेक नवो शिक्षक आयिल्ल्यान रमेश शाळा सोडून गेलो. तो वतलोच हें आमकां ताणेंच सांगिल्लें. तो स म्हयन्यां खातीर आयलो आनी आपल्याक सर म्हणूंक लावन गेलो. मागीर तो आमगेर येतालो, ना जाल्यार तारीर येवन बसतालो. पूल जावचे आदीं आगशी कुठ्ठाळचे तारीर फेरीबोटी चलताल्यो. ते तारीर बरेच लोक सांजचे वेळार येवन बसताले वारो खावंक आनी फेरीबोटींतल्यान देंवून बस धरूंक आनी बसींतल्यान देंवून फेरीबोट धरपाक धांवपी लोकांक पळोवप ही एक विरंगुळ्याची गजाल आशिल्ली. रमेश थंय म्हाका दिसतालो आनी 'दिलीप बरो मरे..?' इतलेंच म्हणयलो आनी हांव ताका 'हो सर...' म्हणत कूस मारतालों.

मागीर हांव मॅट्रीक जावन धेंपे कॉलेजींत वचूंक लागलों तेन्ना रमेश दिसतालो. तो धेंपे कॉलेजींत रातचे कॉलेजीक येतालो. आमचें कॉलेज सुटलें काय ताचें सुरू जातालें. कॉलेजीच्या वर्सुकी अंकांत बी ताच्यो कविता आसताल्यो. पूण हांव त्यो वाचनाशिल्लों. तेन्ना हांव एक ल्हानसो मराठीवादी आशिल्लों आनी कविता ह्यो मराठी आनी हिन्दीच आसतात ह्या समजांत घुस्पल्लों. हेर लोक कोंकणीचीं खेबाडां मारतात तशीं हांवूय मारतालों, म्हणटकच कोंकणी कविता वाचपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. पूण जेन्ना हांव कोंकणी पंगडांत आयलों तेन्ना म्हाका रमेश सामको लागीं जालो आनी म्हजो 'सर' केन्ना म्हजे पासत 'रमेश' जालो हें म्हाकाच कळ्ळें ना.

पणजे आमची एक ल्हानशी मठी आशिल्ली. मळ्यांत. इ-३६. नागेश करमलीचें घर तें. त्या घरांत नागेशबाब, ताचीं दोन भुरगीं, भाभी आनी पुस्तकांच्यो आलमारी चिड्डून्शयो आसताल्यो. तातूंतच हांव, रमेश, पुंडलीक नायक, दिगंबर सिंगबाळ, केन्नाय एन. शिवदास, तुकाराम शेट, गजानन जोग हेय आसताले. चडशे आसताले ते रमेश आनी हांव. एका ल्हानशा रुखा खाला दनपारच्या कडार दोनचार पाड्कां सावळेक गोठेल्यांत अशें तें दृश्य आसतालें. आमचेर सावळी आसताली ती नागेश करमली ह्या रूखाची. आमी सगळे ताका 'भाऊ' म्हणटाले. रमेश, हांव आनी दिगंबर हे चडशे वांगडा आसताले. आमी तिगूय वांगडा खूब्ब भोंवल्यात. खूब्ब विशयांचेर उलयल्यात. रमेशाक आनी म्हाकाय चित्रां काडपाची आवड आशिल्ली आनी दिगंबराक चित्रां वांगडाच साहित्याची आवड आशिल्ली. ताका लागून आमचें बरें जमतालें. मिरामारचे रेंवेंत उदारे पडून रात भर मळबांतलीं नखेत्रां पळेत पळेत, तांकां तोखेत विश्वाचो गूट आमी सोदताले आनी शिरदोनच्या, केन्ना तेरेखोलच्या तर केन्ना काब द रामच्या दर्यांत पेंवत पेंवत दर्याचो थाव घेताले. दिगंबर मागीर आपल्या व्यापाक लागून ल्हव ल्हव पयस जालो आनी मागीर आमच्या त्रिकुटाची चौकट जाली. प्रकाश पाड्गांवकार, तानाजी हळर्णकार, रमेश आनी हांव अशी ही चौकट. शणै गोंयबाब जल्म शताब्दी वेळार लळीतक म्हण एक कार्यावळ आमी करताले तेन्ना ही चौकट घडली आनी मागीर खुबश्या संमेलनांक जांव हेर कसलेय कार्यावळींक आमी वांगडाच वताले. खूब उलयताले. खळखळून हांसताले. एक समर्थ जिवन जगले आमी.

ह्या सगळ्यां परस रमेश म्हाका लागीं आसपाचें कारण म्हळ्यार तो शिरदोना रावतालो आनी हांव आगशी. रातचे आमी निमणे बसीचेर वांगडाच घरा वताले. ताका लागून सदांच मेळप जातालें, मागीर खंय तरी बसून व्हिस्की घेवप, वरांचीं वरां काव्य, साहित्य आनी हेर गजालींचेर उलोवप... चड वेळ एकठांय रावल्यार कांय लोकांची उबगण येता. रमेशाचे बाबतींत तशें जाय नासलें. आमी दीस दीस भर चकाट्यां मारल्यांत. शिरदोनचे वेळेर बसून सोरो पिल्यात, दर्यांत न्हाल्यात आनी तशेच उगड्यांनी म्हजे गाड्येंत बसुनय फिरल्यात. हें इतलेंय करूनय आमचो केन्नाच वाद जालो ना. रमेश केन्नाच झगडीं जावंक दी नाशिल्लो. तो केन्नाच कोणाचें वायट उलय नाशिल्लो. हाचो अर्थ ताका सगळेच लोक बरे दिसताले अशें न्हय. आमचे मदल्या खूब जाणां बाबतींत ताचे विचार वेगळे आसताले. तांच्या

(पान ३७ चेर)

# सावुलगोरी आतां मौनी जाल्या!

नागेश करमली

रमेशाची आनी म्हजी वळख जाली ते गजालीक पन्नाशेक वर्सां जाली. नमळ सभावाचो आनी म्होवाळ उतरांचो हो मनीस. हांव तेन्ना पणजी आकाशवाणीर काम करतालो. युवताणी कार्यक्रमाचें संयोजन करपाक कार्यावळ अधिकाऱ्यांक मदत करतालो. आनी ते पासत युववाणीखातीर कोंकणी कार्यावळींनी आस्पावन घेवपाक कोणूय तरनाटे बरोवपी/कलाकार मेळटात कांय किते हाचो सोद घेत आसतालो. तरनाटे पिळगेंतले बरोवपी तेन्ना आयचे इतले तयार जावंक नाशिल्ले. रमेशाची वळख जाल्ली. पूण ती तितले पुरतीच. तो किते बरयता बी म्हाका कळूंक नाशिल्ले. तो योग १९७०त केन्ना तरी आसलो. पणजेंत कोंकणी भाशा मंडळ तेन्ना दर वर्सा एक काव्यसर्त घडोवन हाडटालें. एके सर्तींत रमेश भगवंत वेलुस्कार हांची एक कविता आसली. ताचे कवितेक ते वर्सा पयलो पुरस्कार फावो जाल्लो. ती कविता ल्हानशीच पूण सर्तींत आयिल्ल्या कवितांमदे एकदम लक्ष वेधून घेवपी अशी आशिल्ली. ती कविता अशी:



*श्रावणांत हांसलें वोम*
*वारयत पांचवो रंग*
*पावसाचें नाचप उडप*
*वोतांत जालें दंग*

*पाना-पानार धतरिच्या*
*मोतयां चंवल्लीं*
*सुर्याची किरणां तांणीं*
*भुंयेर शिंवल्लीं*

*मदींच कोणे फुंकले अशें*
*झुजाचें हें शींग*
*धणसू-बाल भरून गेलें*
*सातूय रंगांत चिंब*

(मोरपाखां)

कविता वाचून, आमचें मातयेंतलें नीजपण आनी नाद-सुवाद हांचो मेळ घालपी एक कवी वयर सरता अशें दिसले बगर रावलेंना. कारण त्या काळांत कोंकणीत खूब कवितां जल्माक येताली पूण तातूंत रमेशाले कवितेचो बाज वेगळोच आशिल्लो. हांवं रमेशाक दुसरेच दिसा आकाशवाणीर आपयलो आनी कार्यावळ अधिकाऱ्यांकडेन ताची वळख करून दिली. युववाणी खातीर ताच्यो कविता रिकोर्ड केल्यो. तेन्ना ताच्यो ज्यो कविता आयकल्यो आनी वाचूंकय मेळ्ळ्यो तो, एक आगळोच आनंदाणभव आशिल्लो. ते उप्रांतच्या काळांत रमेशाली कविता आपणाली खोलाय आनी उंचांय सतत वाडयतच गेली. निमाणे मेरेन ताणे फाटी बाग घेवन पळयलेंचना ताचीं *मोरपाखां* उजवाडा आयली. *हिरण्यगर्भ, तनरजोती, दर्या, सावुलगोरी* हे ते उप्रांतचे कांय म्हत्वाचे काव्यसंग्रह. *सावुलगोरीन* रमेशाले कवितेन एक तेंगशी गांठली आनी ह्याच झेल्यान तांकां साहित्य अकादेमीचो प्रतिश्ठेचो असो राष्ट्रीय पुरस्कार मेळोवन दिलो तशे पळोवंक गेल्यार कवितेन रमेशान जायते पुरस्काराचे भोवमान जोडून दिले. ताच्या *समुद्रमुद्रिका* ह्या हिंदीतल्या कविता झेल्याक हिंदी साहित्य विश्वांतलो व्हड भोवमान फावो जालो.

रमेशान कांय नाटकांचो कोंकणी अणकारय केलो. तांतूतले *अंधा युग* हे धर्मवीर भारतींच्या मूळ हिंदी नाटकाचें कोंकणी रुपांतर भोव म्हत्वाचें.

रमेश हालींच्या काळार खूब गद्य बरोवंक लागिल्लो. तो कोंकणीत तशेंच मराठींतय बरयतालो. शेंकड्यांनी पानां भरतील अशें ललित गद्य ताणें निर्माण करून दवरलां. तांचें *मळबकळी* हें ललित गद्यातलें पुस्तक म्हळ्यार एक गद्यकाव्यच.

कोंकणी चळवळींतलो रमेशालो सहभाग होय खूब म्हत्वाचो. १९७६-७७ ह्या काळांत आमी कांय जाण - हांव, रमेश, पुंडलीक, तानाजी, शिवदास, गजानन जोग, दत्ता श्री. नायक, प्रकाश पाडगांवकार, भरत नायक, दिगंबर सिंगबाल आनी हेर कांय जाण मेळून गांवागांवांनी वचून *ललितक* हो साहित्य दर्शनाचो कार्यक्रम सादर करताले. ह्या कार्यक्रमाक लागून लोकांक कोंकणी साहित्यावांगडाच तें निर्माण करपी साहित्यीकय प्रत्यक्ष पळोवंक मेळटाले. ही कार्यावळ त्या दोन वर्सांच्या काळांत आमी पेडणे ते काणकोण आनी मुरगांव ते कुळें अशा ८० सुमार गांवानी करून दाखयली. कथा, कविता, काणयो, विनोद, एकपात्री, आपउलोवपां अशे ह्या लळितकचे स्वरुप आसतालें.

हे कार्यावळींत रमेश जाण्ट्यां वांगडाच चड करून ल्हान भुरग्यांची आपणाल्या शिशूकवनावरळीं बरी मनरिझवण करतालो. कार्यक्रमाक कांयकडेन भुरग्यांची उपस्थिती चड आसताली तेन्ना रमेशाकडेन तांचे खातीर मनरिझवणेचो भरपूर सांठो आसतालो. ह्या लळितकाक लागून आमी गोंयच्या खांची कोनशानी पावले. ह्या लळितकान कोंकणीक

खूब जाण बरोवपी मेळोवन दिले. तांतले कांय जाण आज कोंकणी साहित्य क्षेत्रांत व्हड नांव मेळोवंक पावल्यात.

रमेशाक उतरांकडेन खेळपाची खूब आवड. तो उतरांची नवीं नवीं गांठवळां घडयतालो. कांय खेपो ती मुदयेर थीक कशीं अशीं आसतलीं. *'संबंद'* ह्या उतराचें ताणे *'सबन'* अशें करून उडयिल्लें. 'आरे तें संबंद मरे रमेश'' अशे म्हळ्यार तो म्हण्टालो, ''म्हाका सबनच बरें लागता.'' ताच्या नादाचो एक वेगळोच अणभव घेवंक मेळटा. असल्या प्रस्नाचेर रमेशाकडेन चड वादावादी करपांत अर्थ नासतालो. तो आपल्याच म्हणण्याक दसून रावतालो. तो म्हण्टालो, *''आमोरे वेळार''* बदला *''आमोरवेळार''*म्हाका चड म्हजें नीज उतर कशें दिसता.

रमेशालें एक पुस्तक आसा *'पूर्वनवा'* म्हाका ते *'पुनर्नवा'* कशे दिसलें. रमेशाक हांवें विचारलें, हें उतर अशें कशें? रमेशान कितें सांगचें. ताणे म्हळें, तर्शेंच तें आनी ताणे ताचेर पांचेक मिण्टा व्हडलें लेक्चर दिले. अखेर मेरेन म्हाका त्या उतराचो अर्थ कळ्ळो ना.

हालींसरांक *गजल*चो म्हयमा खूबच वाडला. बरेराचे जाण *गजल* बरोवपाचो यत्न करतात. पूण कांय आडवाद सोडल्यार ती खऱ्या अर्थान *गजल* जायचना. कवितेच्या मळार वेगवेगळे खूब यशस्वी प्रयोग करपी रमेशान *गजलय* बरोवपाचो प्रयत्न केलो. पूण पुर्णार्थान ताका *गजल* जमली ना. एक दीस म्हाका ताणे *गजल* म्हूण बरयिल्ल्यो आपणाल्यो कांय रचना दाखयल्यो. हांवे ताका त्यो *गजल*च्या फोर्मांत कित्याक बसनात तें विस्कुटावन सांगलें. रमेश म्हणूंक लागलो ''बरें आसा. हांव तांकां *गजाल* म्हण्टालों.'' आनी ताणे तशें केलेंय बी. त्यो त्याच नांवान उजवाडाकय हाडल्यो.

रमेश नितळ, उक्त्या मनाचो मनीस आसलो. ताणे केन्नाच कोणायविशीं वांकडें उतर काडिल्लें हांवें आयकूंक ''तो आत्मानंदी ना.'' ते नदरेन तो एक अजातशत्रू!

रमेश मार्च (२०१८) म्हयन्यांत रायबरेलीक वचचे पयलीं म्हाका म्हज्या घरा चिंबला येवन मेळिल्लो. तेन्ना ताणे म्हाका म्हणिल्लें, ''म्हाका म्हज्या ताळयाकडेन कितें तरी आडखळिल्ले वरी जाता.'' ताका हांवें म्हणिल्लें, ''बऱ्याचशा कोणा दोतोराक दाखय जडार पडूंक दिवं नाका.'' रमेशाची जाप आशिल्ली - ''हय दाखयता!'' ते उपरांत रमेश रायबरेलीच्यान फोनाचेर म्हजेकडेन एक दोनदा उलयिल्लो कांय उतरां सारकीं कळ नाशिल्लीं. विचारल्यार ताची जाप आशिल्लीं ''हांव ट्रीटमेंट घेतां.... ट्रीटमेंट घेता. बरो जाता आनी थोड्या दिसांनी गोंयां येता.''

रमेश कसोच परतून पावलो ना. फावली ती फकत ताच्या मर्णाची दुखेस्त खबर. मनांत म्हळें, एक म्होंवाळ, निर्मळ मनाचो आमचो जिवाभावाचो इश्ट गेलो. ताच्या कांय कवितेच्यो ओळी याद जाल्यो.

*''चुरवण वंठ*
*हून - सोनारी*
*सावुलगोरी''*

ही सावुलगोरी आतां मोनी जाल्या!

संपर्क: 9420597501





# कवी रमेश वेळुस्कार

**महाबळेश्वर सैल**

रमेश वेळुस्कार पूर्णत्वान कवीच आसलो. ताचें व्यक्तिमत्वच कवीचें आसलें. तो भरभरून कविता करतालो, कवी वरी उलयतालो, कवी वरी जियेतालो, कवी वरीच गायतालो. तो समग्र अफलातून कवी आसलो. ताणें गद्य म्हणय कविताच बरयल्यो. असलो अवलिया कवी हांवें कोंकणींत तरी दुसरो पळोवंक ना.

बरीच वर्सां तो वर्साक तीन चार फावट तरी ट्रेनीन रायबरेली वतालो. आनीक कोणाक जाल्यार ती ख्यास्त आसचेली. पूण रमेश ट्रेनींतच इस्ट जोडटालो. इस्ट जोडपाची ताचे कडेन एक बरी कला आसली. कोणय उलयताना तो मर्दीच आपले मत प्रभावीपणान आनी कवीचे लकबेन मांडटालो. मागीर ताचें उलोवप, केन्ना तावातावान मुखार चलतालें, केन्ना प्रवास सोंप मेरेन. ताचो एक तो गूण काय अवगूण नकळो तो उलोवपांत केन्नाच हार मानिनासलो, सदांच्या इश्टां वांगडा लेगीत ताका सोताच्या व्यक्तिमत्वा विशीं, कविते विशीं खूब अभिमान आसलो. केन्ना तो अभिमान अहंकारा मेरेन पावतालो. तरीय तो सगळे दिलखुलास उलयतालो, तो दिलखुलास दिसतालो.

कविता बरोवंपाचो ताका नाद आसलो, ताचें जल्मकर्तव्य आसलें आनी कलाविश्कारय आसलो. ती साधना ताणें भोव बरेपणान केली. कवितेच्या संदर्भांत तरी तो केन्ना घुस्पलो ना, निर्शेलो ना. कविता मरणा मेरेन धांवत चलत उरली. एका भांगर मनशान आपले कवितेचे भांगर केलें. तो स्वताच एक दीर्घ कविता आसलो

आमच्या सारख्यांक रमेश एक कुवाडें कसो आसलो. तो कुवाड्यांनी उलयतालो आनी कवितांनीय कुवाडीं घालतालो. कोणय म्हाका जेन्ना म्हणटालो, रमेशाची कविता दुर्बोध जाता. तेन्ना हांव म्हणटालों, दुर्बोध आनी गहनता हातूंत अंतर आसा. गहनता समजून घेवंक आमी उणें पडटात तेन्ना ताका दुर्बोध म्हणटात. आतां तरी वेळ आयला वैचारीक परिसंवाद बी घेवन ताच्या कवितेंतली गहनताय समजून घेवपाची. रमेश हो सैम कवी, सैमाची गहनताय खोल खोल आसता. रमेश बेश्ठो उलयतनाय केन्ना हाताक लागलो ना, तो कवितेंतल्यान इतले सोंपेंपणान कसो हाताक लागतलो? ते कवितेचेर सखोल विचार जावंक जाय, तें खरें तर नवे पिळगेचें काम जावन आसा. ताच्या वांगडाची पिळगी ते कवितेंतल्यान भायर सरुकच शकना. अलिप्तपणान बरयतलो कोण तरी बुदवंत जाय. हे मुखार रमेश वेळुस्काराले कवितेचेर जितली विचार विमर्शा, संशोधन जातली तितली खंयच्याच कोंकणी कवितेचेर जावंची ना. खरे तर गोवा विश्वविद्यालयान तांचे कवितेचेर एक संशोधनाचे अध्यसनाची थापणूक करूंक जाय. कारण कोंकणींतलो तो एक श्रेश्ठ कवी आशिल्लो. ताणें कोंकणीक अजरांवर काव्य दिलें. सैम, माती, मळब हांचे वांगडा तांणी आपल्या काव्यात्मतेची सांगड घातली. वांगडाच ताका विचारय दिलो. सकाळपारची झिळझीळ वेळ ताची भोव आवडीची. ती वेळ ताणें वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांतल्यान जिवी केल्या. म्हाका याद आसा, आमी एक फावट 'काळी गंगेच्या' वाठारांत गेल्ले. तेन्ना रमेश सकाळच्या पांच वराचेर उठून काळी गंगेच्या तडीर वचून बशिल्लो आनी रातच्या काळखांतल्यान वयर सरपी काळी न्हंय, पलतडचे दोंगर मान हरपून पळयतालो. ताची कविताय अशीच मनाच्या अबोध गाभाऱ्यांतल्यान वयर सरिल्ली. म्हण ताचो थाव आमकां लागनासलो-

*किण्ण खिणाचो किण्ण दर्या*
*किट्ट काळखाचो अखंड सुर्या*
*आतां तिच्या घरांत*
*पांय नासलेल्या पावलांची*
*सवसकाय शेकानशेक*
*घर भरून दार ओतपी.*

अर्थ काडूंक धडपडचें पडटा. तरीय अर्थ काडले बगर सुटका ना. कारण काळखा पलतडचे ते उले आलतडीं येवचे आसात! आमचे कान पिळून अर्थ सांगचे आसात. ते अर्थ एकच न्हय अनेक अनेक जांव येतात. तरीय सोंपेपणान घेवं सारकी ती कविता न्हय.

सावुलगोरीच्या प्रकाशना वेळार दत्ता दा. नायकान म्हणिल्लें, रमेशाचे कवितेक महाकवीचो वास आसा! खरोच तसो तो आशिल्लो. शेवटचें ताचें गद्यकाव्य 'मळबकळी' वाचतकीर म्हाका दिसतालें, रमेश खूब मेच्युर्ड जाला. ताचो प्रवास महाकवी वटेनच चल्ला. पूण रमेश बेगिनच देंठ दवरूनच झडलो. आनीक पांच धा वर्सां तरी ताका आयुश्य लाबिल्लें जाल्यार घडये तें खंडकाव्य - महाकाव्य आमकां मेळटाय आसलें. एक खरें मरता मेरेन ताचें लिखाण थांबूक नासलें. आनीक वीस वर्सां आयुश्य लाबलें तरी तें सोंपचे नासलें. खूब लुकसान जालां कोंकणीचें!

दत्ता, रमेश आनी हांव, आमची बेस बरी साहित्यीक इश्टागत आसली. आमी वांगडा खूब भोंवल्यांत, मौज मजा केल्या. उळवींतल्या सस्यकाशी ह्या अटंग्या घन अरण्यांत पावल्यात. तीन फळांच्या घोसांतलें एक फळ झडून गेलां. भोव रितें रितें दिसता. दोळे ओले जातात.

हांव नावेली आसताना आमी एक फावट सांजचे पासयेक गेल्ले. मर्दीच चंद्रकोर उदेली. रमेशान रोखडीच कविता केली.

*मळबांत मळब कशें फुलला*
*धरतर चान्न्यान परमळटा*

हांवें रमेशाक विचारलें, तूं गेल्या जल्माक कवीच आशिल्लो आसूंक जाय.

ताणें म्हटले, 'ना. गेल्या जल्माक हांव माळी आशिल्लो.' ह्या जल्माक फुलां पुंजायतां'. पूण फुलां पुंजोवन अजून सोंपूंक नासलीं.

संपर्क: 9764072908

# रमेशाक कोंकणी अक्षरांवर जगयतली

एन. शिवदास

वांगडी कवी रमेशाच्या मर्णाचे शोक व्यक्त करतना मनाची जी वयर सकल धडधड जाता, ते धडधडीक कोण स्पंदनां म्हणत पूण रमेशाच्या मर्णाचे धडधडींक अरबी दर्याचीं ल्हारांच म्हणचें पडटलें. रमेशाच्या मर्णाच्या कांय दिसां आर्दी ना म्हळ्यार हांगा गोंयांत इल्लिंशी आमकां सुलूस लागिल्ली ती ताची सकनळी चोक जाली आनी रमेशाची वाच्या थांबलेली, ताच्यान उलोवप बी जायनासलें. पूण पंदरा दिसां भितर अदमास खरो थारलो. रमेश गेल्याची खबर रमेशाचे धुवेन फेसबुकार घाली आनी इतले पयसुल्ले रायबरेलींतली खबर वारे कशें गोंयांत सगळ्या माध्यमानी पसरली. सगळे शोकान खीण स्वास थांबोवन रावले आनी भानार येवन वास्तवांक मानून, रमेशाक आर्गां ओपूंक मनान तयार जाले. रमेश आमचे मर्दी ना ही वस्तुस्थिती आसा.

म्हजी आनी रमेशाची इश्टागत धेंपे कॉलेजींत पयल्या वर्सा कलाशाखेंत शिकतासनातली. कवी, कोंकणी मोगी आनी एक खूब डेलीकेट अशे शांत स्वभावाचे काळें सावळें रूप म्हजेच उंचायेचें हें व्यक्तीमत्व फुडें फुडें दाट जायत रावलें आनी रमेश हो म्हजे पिळगेचो एक वांगडी जालो. तेन्ना कोंकणी बरोवपी म्हण रमेश, हांव पुंडलीक, प्रकाश पाडगांवकार, दिगंबर सिंगबाळ उपरांत आमचे वांगडा माधव बोरकार, दत्ता श्री. नायक, भरत नायक, उपरांत अशोक भोंसलो, दिलीप बोरकार आदी. आयले आनी हे आमचे टिमीचें फुडारपण आमच्यांतल्यान मात्शे व्हडले नागेश करमली पणजे आकाशवाणी वयल्यान करपाक लागले.

रमेशाची अशी खास जिवन शैली आसली. ताका झगडी-तंटे वादावादी व्हडलें लागनासलें, तो आपलीं मतां थंडसाणीन मांडटालो, तो नास्तीक आस्तीक ह्या वादां पलतडीं वचून फक्त मानवी मुल्यांकूच प्रमाण मानून जियेतालो, ताका सूख दूख जांव कसली चिंता बी जांव कसले ताणतणाव घेवन वावुरलेलो हांवें केन्ना पळोवंक ना. मतभेद जायनासले अशें न्हय. रमेशाक वाद बौद्धीक स्थरार घालूंक आवडटालें आनी उलयतां उलयतां प्रतिस्पर्ध्याक निरुत्तर करपाची कला ताका बरी जमिल्ली. वादांत रमेश आपलो मुद्दो खरो हें शेकीं सिद्ध करतालो. रमेशान कविते वांगडाच हेर बरपूय केल्लें. सगळे तरेचीं संकुचीतपणां ताणें उंवाळून उडयिल्ली. रमेश भारतीय जाल्लो, खऱ्या अर्थान जेन्ना ताचें लग्न रायबरेलीच्या 'मिथिलेश श्रीवास्तव' कडेन जालें तेन्नाच्यान तर रमेश गोंयच्यो शिमो हुपून पुराय भारतीय जालो, आनी तागेलो शेवटूय शेकीं ऑक्टोबर २१, २०१८ रायबरेलीच जालो. ताणें थंयच संवसार थाटिल्लो, घर रायबरेलींत बांदिल्लें, बायल भुरगींय थंयच रावतालीं. फकत टुरीस्ट कसो रमेश थोड्या दिसां खातीर गोंयांत येतालो, आमचे मर्दी भरसतालो आनी कोंकणी साहित्यीक कार्यावळींनी वांटेकार जातालो. रमेशाचे डेलेकशीक लागून रमेश कार्यकर्तो दिसनासलो, तो कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष बी जाल्लो. ताणें कोंकणी प्रजेच्या भाशा आंदोलनांत वांटो घेतला पूण फुडारी म्हूण केन्ना वावुरलेलो ना. शांतपणान तो आपणालो सहभाग सिद्द करतालो आनी आमचे वांगडा वावुरतालो. धाक-धाकटपण आनी झुंडाशाय, झगडी-झुजाबंदी रमेशाच्या सभावांत बिलकूल नासली. असो रमेश भितरल्यान एक जबरदस्त कवी प्रतिभेचो आशिल्लो आनी ताची कविता ही सैममय आसून आनी तशीच ती भायर येताली.

ताची कविता मागीर ती मातयेचे महत्व सांगपी आसूं वा सैमाचें गीत गावपी कुळारचे वाटे सारकी आसूं वो लोकवेदाचे स्टायलीन आयिल्ली व्हडे रातीं धालामांडा वयली पारंपारीक धाटणेंतली कविता आसूं. समाजीक परिवर्तनाची अशी क्रांतिकारी अशी म्हणूंक जावची ना. रमेशाचो सभाव धर्मूच तसो आशिल्लो, विश्वव्यापी आनी सैमव्यापी, देखून एके कवितेंत तो सैमांतल्या पंच महाभुतां कडच्यान ताचे वैशिश्ट्य आनी तांचे गूण मनशां खातीर मागता. धर्तरी, दर्या, मळब, झाडां-पेडां हांचे कडच्यान मनशान दिवपा घेवपाची आनी दानाची दानत दाखोवंची. अशें केल्यार मनशां मर्दी सगळी तरेचीं संकुचीतपणां ना जावन मानवी मुल्यां हीं खूब व्हड जातलीं अशे भावनेन रमेश जगलो. तो सगळ्योच गजाली ह्यो येतल्यो वतल्यो अशें मानपी, देखून ताका मर्णाचीय भिरांत नासली. रमेश म्हजे परस दोन वर्सांनी व्हडलो, तो १९४७ तलो तर हांव १९४९ तलो. हांवें निकतीच सत्तरी गांठल्या तर रमेशान सत्तरी हुपिल्ली. अश्या रमेशाचेर म्हाका व्यक्ती अंक 'उर्बा' प्रकाशीत करपाचो योग गावलो. रमेशाची एक दीर्घ मुलाखत, ताचे विशीं हेरांचे लेख, ताचे जिणेतलें टिपिल्ले खीण चित्रमय रमेश्यांत आयिल्लें आसात. रमेशाक एका अंकांत हांवें पुराय छापून दवरला. हे रमेशाक दिल्लें. म्हजे इश्टागतीचें देणें कशें. आयज रमेशा फाटल्यान ग्रंथालयांनी आसतली, एक संदर्भ सहिता वा रमेश शिकपा खातीर अभ्यासू शिकपी बी.ए. एम.च्या विद्यार्थ्यां खातीर उर्बा अंक. रमेश हे फुडें एक संदर्भ ग्रंथ कसो उरतलो, हें म्हजें समाधान हांवें इश्टा खातीर इतलें तरी केलें.

खंत भोगता, येदो व्हडलो कवी रमेश संवसाराक अंतरलो, ताचें दुख्ख गोंय सरकारान वा गोंय सरकाराच्या संस्थांनी कला अकादेमीन जांव कला संस्कृती संचलनालयान एके वळीन उक्तायलें ना. रमेश हो राष्ट्रीय पातळे वयलो गोंयकार कवी, साहित्य अकादेमी पुरस्कार जैतीवंत जाल्लो कवी, राज्यांतल्या सगळ्या राज्य पातळे वयल्या पुरस्कारांनी सन्मानींत जाल्लो कवी, मात कला अकादेमी जांव कोंकणी अकादेमीक रमेशाक जाहीर आर्गां दिवपाक संद मेळ्ळी ना. दुर्बळ, अबुद्ध आनी कला संस्कृती साहित्य हांचो गंध नाशिल्ले राज्यकर्ते जेन्ना नशिबांत येतात तेन्ना अशें घडटा. रमेश त्याच

तोलामोलाचो उंच व्यक्तीम्हत्वाचो कवी, ताचें उचीत अशें स्मारक येतले पिळगेक याद करूंक आनी स्फुरण दिवपी तयार जावंक जाय.

कोंकणी चळवळ मरगळ येवन धारातिर्थी निण्णता, ती मेल्या काय घायाळ जावन पडल्या तेंच समजना, पूण आमची फाटली पिळगी मात साप्प निशक्ती आनी आपले भितरूच आपमतलबी कशी जावन पडिल्ली पळोवंक मेळटा आनी हे खातीर कोंकणी संस्था जांव खाजगी वा सरकारी कार्यक्षमते भायल्यो जावन पडल्यात.

कवी रमेशाचो उगडास जागोवपी कोंकणी व्यक्ती, कवी, बरोवपी आयज हयात आसात तांणी आपलें अस्तित्व आयज जगतना खूब प्रखरतेन व्यक्त केल्यारूच भोंवतणची सगळी मरगळून पडिल्ली संस्थांना, संघटना भानार येवन आपल्यो चुकी सुदारतली. ना जाल्यार अशेंच रमेशाचे बाबतींत जशें गोंय सरकाराचे कला आनी संस्कृती खाते वागला वा कला अकादेमी वागला ते तशेंच उरतलें, आनी हांगा फक्त दिसतलो तो अबुद्ध, असंस्कृत रानवटी मानसिकतेच्या राजकारणाचो थयथयाट.

रमेशाक आर्गां ओंपप खूब कठीण जालां, अशें सगळ्यांक जालां जातलें पूण रमेश आनी रमेशाची कोंकणी कविता रमेशाक चिरंतन कोंकणी भाशे वांगडा जगयतली हातूंत इल्लोय दुबाव ना, परत एकदां इश्टाक म्हजीं आर्गां.

संपर्क: 9422417233

# मोनी व्यथा - एक टिपण

प्रकाश वजरीकार

'मोनी व्यथा' ही कादंबरी रमेश वेळुस्कार हांची १९७६ वर्सा उजवाडाक आयल्या. एक दीर्घकथा वा नवलिका वा लघु कादंबरी अशें आमी सोयी पासत म्हणुंया. आंतरधर्मीय फळादीक न जाल्ल्या मोगाची आत्मनिवेदनात्मक काणी हातूंत येता. जिणेंतलें एकसुरेंपण, पारंपारीक धर्मनिश्टीत मोटवे नदरे खातीर नायकाच्या वांट्याक आयिल्लें दुःख 'धवल' ह्या पात्राच्या माध्यमांतल्यान बरोवप्यान मांडलां. 'मार्था' हे मोगिके कडेन केल्लें आप उलोवप करपी मोगी पयल्या प्रकरणांत आयला. ल्हान ल्हान अशीं चोवीस प्रकरणां हे नवलिकेंत येतात. कांय प्रकरणांनी फकत वर्णन येता. कांय कडेन नायकाची भाववृत्ती (mood) येता. मार्थाचो मोग धवलाक कसो लाबता ताचें वर्णन हे नवलिकेंत येता. एके क्रिस्तांव चलये कडेन मोग करता ही घडणूक धवल्याच्या घरचीं सोसूंक शकनात. नायका सारकेंच जिणेंतलें एकमुळेंपण जगपी मार्था दिसता. आवय ताका रोकडीच सोडून गेले उपरांत जाण्ट्या बापायची सेवा करुन, नोकरी करून भांवडांक पोसपी मार्थाच्या दुख्खाचें चित्रण ही नवलिका घडयता. मार्थाचो आनी धवलाचो मोग उंचेल्या पांवड्या वेलो आसता. देखून कण्णम लोकांनी तुमच्या मोगाचेर उलोवचें न्हय असो विचार धवलाचो इश्ट फ्रॅंडी एकदां धवला कडेन उक्तायता. जिणेंतली परात्मताय नायकाच्या शिक्षकी पेशांतल्यान दाखयताना लेखक मदींच ह्या मुखेल कथानकाक वळण दिता आनी अकस्मात नायकाक बीट-कॉन्टेस्टाक गेल्ले कडेन ताचें आदलें विद्यार्थिनी लिडीया मेळटा जें टिचर जालां. कळगुंटे



घरांत एकटेंच रावता. ताच्या आग्ग्रा खातीर तो तांगेर वता. थंय तें तिका बियर दिता. तीं डान्स करतात आनी कीस घेतात. हांगा सर ताका मार्थाचो विसर पडटा. परतून मार्थाची जेन्ना भेट जाता तेन्ना लग्नाचो विचार तीं करतात. मार्थाचें लग्न थारता. लग्न सिवील रजिस्टर पद्दतीन जाता. ताचो घोव भायर विदेशांत रावता. लग्न जाल्या उपरांत मार्थाक कळटा की आपल्या घोवाचीं ह्यान आदीं दोन लग्नां जाल्यांत. आपूण फटवलें हें कळना फुडें तें धवलाक चीट बरयता उपरांत मार्थाच्या मरणाची खबर तो पेपरांत वाचता. अस्वस्थ जाता. ताच्यो यादी उस्तीता. मागीर खिणाचो मोग दिवपी लिडियाक मेळपाक वता तेन्ना ताका कळटा, लिडीया जर्मनीक गेलें. मोगाक आशेल्ल्या नायकाची भूक ही नवलिका आमकां दाखयता.

आंकवार नायकाचें दिशाहीन एकमुळेंपण दाखोवपी ही नवलिका. तो मोगाक आशेता पूण ताका तो लाबना. कथानकांत 'धवल' दोन क्रिस्तांव समाजांतल्या दोन चलयांचेर मना सावन मोग करता पूण तो फळादीक जावंक पावना. मार्था संवसार सोडून गेले उपरांत ताच्यो यादी हेंच ताचें भांडवल जाता. लिडीयाचे चिटीक तो आशेता.

ल्हान ल्हान प्रकरणांनी काव्यमय भास वापरून बरोवप्यान कथानक मांडलां. मार्था, धवल, लिडीया हीं तीन मुखेल पात्रां. कादंबरेंत चड घडणुको घडनात. चडसो भाग निवेदनाचो आयला. कोंकणी कादंबरेचे रचनाशैलींत एक वेगळो प्रयोग पयलेच फावट पळोवंक मेळटा.

संपर्क : 9923245603

# रमेशाची सासाय

**हेमा नायक**

*रमेश म्हणल्यार सैम, माती, धर्तरी, मोर, झाडां, रूख, मळब, चंद्रीम, कुपां. रमेश म्हणल्यार एक आकांताचें दिव्य अशें ब्रह्मांड, तूंच दिगंत अशें म्हणटां म्हणटां केन्ना पावलो दिगंतरा तेंच कळ्ळें ना. ह्या ब्रह्माडांत आस्पाविल्ले खंयचे एके गजालीक ताच्या उतरांचो स्पर्श जावंक ना अशें घडिल्लें ना. ताका लागून हे मातयेंतलो कणान कण ताच्या उतरांतल्यान उलयिल्ल्याचो भास आजूनय जाता.*

*मातयेच्या कणाकणांत*
*मातयेंत पावलांच्यो कुरवो*
*वाऱ्यार उतरांची सासाय.*

रमेश म्हणल्यार माती आनी सैम हातुंतल्यान आकार घेत वयर सरिल्ली एक अप्रुपायेची निर्मणी. ताका व्यक्ती म्हणू काय ताका आनीक कसली उपमा दिवं तेंच कळना. हय हयशी न्हय न्हयशी एक'सावुलगोरी'. ताचे निर्मणेक आनी कर्तुत्वाक दोन आंगां. दोनूय तितलींच बळिश्ट आनी श्रेश्ठ.

रमेश कवी म्हण श्रेश्ठ पूण तो एक मनीस म्हण ताच्याकय श्रेश्ठ. मनीसकायेच्यो ताच्यो सगळ्यो किमया ताच्या वेगळ्या वेगळ्या साहित्यकृतींतल्यान आमकां जाणवतात. आज हांगा आमचे मदीं हांसतालो, उलयतालो म्हणटा सर केन्नाच तो सात पावलां पयस पाविल्लो आसतालो. 'आरे तूं खंय?' म्हण विचारल्यार म्हणप, 'हेच धरतरेचेर, हेच मातयेंत. देशाच्या खंयच्याय कोनशाक पावलों तरी माती तीच.' आनी मागीर उलयत रावतालो फोनाचेर अर्द वर, पावूण वर लेगीत.

'माती' संग्रहा संबंदीं ताणें सांगलें, आपल्या ह्या कवितांनी भुवनेश्वराक आसतना जल्म घेतलो. आपूण कितलोय पयस आसलों तरी तीच माती आनी तेच मातयेंतलीं फळां. एक दीस हांवें भुवनेश्वराक आसतना पेर खावपाक घेतलें तेन्ना गोंयचो उगडास जालो आनी पेराच्या झाडाचीं मुळां जे मातयेंत रुजल्यांत ती माती म्हाका परकी दिसलीना. फोनाचेर आमचें संभाशण असलेंच आसतालें. केन्ना आपल्या कवितांचेर जाल्यार केन्ना म्हज्या कथांचेर. खूब बरें दिसतालें. रोकडो येतां म्हण सांगून गेल्लो रमेश हे फावटीं परतून आयलोच ना. फाटले स-सात म्हयने फोनय ना. ताचीं उतरां मात कानार घुमत उरलीं, कितलेशेच दीस.

आतां चलतां भोंवताना ताची उणीव जाणवता. तरी आसतना सत्य परिस्थिती केन्ना तरी स्विकारपाक जाय. रमेश आमचे मदीं ना. पूण ताची याद पणसाच्या दिका वरी चिकटून उरल्या. तेल लावन लेगीत सुटपाची ना. ही याद केन्ना इश्टाची केन्ना भावाची, तर केन्ना बापायची लेगीत. हे यादींतल्यान निर्माण जालें अप्रूप नातें. म्हजें आनी रमेशाचें. त्या नात्याक नांव नासलें, आशिल्ल्यो फक्त भावना. फाटल्या ४५ वर्सांच्या म्हज्या आयुश्यांत रमेश केन्ना इश्ट म्हण वांगडा आसा, केन्ना व्हडलो भाव जावन म्हज्या भावनां कडेन समरस जाला तर केन्ना बापूय जाल्ले वरी म्हजो हुस्को उकतायत ताणें म्हाका समजायलां.

आमची इश्टागत खूब पोरणी. आमच्या मेळपाची सुरवात जाली ती १९७० च्या काळांत जेन्ना कोंकणीची उदरगत जावंची म्हण एक ध्येय मनांत बाळगून ते पोटतिडकींतल्यान आमचें बरोवप जातालें, उलोवप जातालें, भासाभास जाताली तेन्नाची. तरणी पिराय आशिल्ल्यान सामाजीक सुदारणेचें वारेंय आंगांत घोळटालें. नव्या तंत्रज्ञानाचो उदेव जावं नासलो. फोन नाशिल्ले आनी ताका लागून प्रत्यक्ष मेळप आनी उलोवप हांचेर सगळो भर आसतालो.

हातुंतल्यान साहित्याच्या प्रकाशनाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो कल्पना भायर सरल्यो. कविता बरयल्यो तरी त्यो छापप कश्यो आनी लोकां मेरेन पावोवप कश्यो हाचें मातय गिन्यान नाशिल्लें. कवितांची आंखणी करून ताचें पुस्तक छापून उजवाडाक हाडप हो अत्यंत कठीण वावर कसो दिसतालो. आनी ताका लागून 'परजळ' नांवाचो कवितांचो अंक आपल्या हस्ताक्षरान स्टेन्सिल कट करून काडपाची सुपीक कल्पना कवींचे तकलेंतल्यान भायर सरली आनी रमेशान ताच्या संपादनाची जापसालदारकी घेतली. ह्या नेमाळ्याचे दोनच अंक आयले. अंकांच्यो शंबरेक प्रती काडल्यो. आपूण संपादक जालो म्हण रमेशाक केदें ओर्र तेन्ना! बरीच मजा येताली. तेन्ना हांवेंय कांय कविता बरयल्यो. आपली कविता तातूंत उजवाडाक आयली हाची खोस व्हडली आसली. केदो बोवाळ पडटालो तेन्ना आमचेर! पणजे मळ्यांतलें नागेशबाब रावताले तें बिराड. आमच्यांतली कोंकणीची क्रांती, बंड सारक्या गजालींची बुनयाद हांगा सावनच सुरू जाली. इ ३६, पणजे, मळा हें आमकां घडोवपाचें केंद्र जाल्लें. शेणिल्लें गोरूं करमळेच्या तळ्यांत हे म्हणी प्रमाण, शेणिल्लो कोंकणी मनीस नागेशबाबाल्या घरा सांपडटालो. पोस्टाचो पत्तो लेगीत खूब जाणांचो होच आसतालो हिवूय म्हाका याद जाता. ह्या ग्रुपांत हांव एकलेंच चली आशिल्ल्यान एक तर म्हजी लाड अपुरबायी जाताली वा सगळे एकठांय जावन म्हाका कुशीक उडयताले. तशें हांव कोणाक बदनाशिल्लें. पूण रमेशा कडेन मात आकांताचे वाद जाताले. आतां याद केल्यार हांसपाक येता. पूण नागेशबाबा गेर आमचो खवदळ पडटालो.

म्हजे सामाजीक विचार सगळ्यांक पट्टाले पूण म्हाका ते प्रत्यक्षांत हाडप शक्य ना हें चड करून रमेशाचें मत आसतालें. कित्याक तर

ताका वस्तुस्थितीची कल्पना आशिल्ली. हुंडो, जात, शिक्षण असल्या विशयांचेर म्हज्या घरच्यांचीं मतां जुळप कठीण हाचें भान ताका आशिल्लें. म्हणून एक दीस रमेशान म्हणलें, 'हेमा तुजे विचार सामके बरे आसात पूण ह्या विचारां कडेन सहमत आसपी सांगाती तुका मेळप कठीण जातलो.' ताणें खूब गंभीर पूण खोल विचारान म्हणिल्लीं हीं उतरां. हांव कांय वेळ वगी रावलें आनी मागीर म्हणलें, 'तसो मेळ सर वाट पळयत रावतलें आनी ना मेळ्ळो जाल्यार लग्न जावचें ना.' ही गजाल खूब आदली. आतां फाटल्यो यादी पुंजायतना इश्टाच्या नात्यान उकतायिल्लें रमेशाचें मत, ताचो उगडास आयलो.

रमेशाच्या साहित्याचो दीर्घ प्रवास तोखणायेचो. हालीं रमेशान म्हाका आपल्या साहित्या संबंदीच्यो जायत्यो गजाली मेकळेपणान सांगल्यो, त्यो हांगा मांडच्यो कशें दिसता कित्याक तर साहित्याचो डाव अर्दकुटो सांडून रमेश गेला. ताचें चरित्र्य बरयिल्लें ना आनी आत्मचरित्र्य ताणें बरोवंक ना. ताका जायते फावटी सांगलें हांवें बरोवन दवर म्हण, तर म्हणपाक लागलो हाली वेगळे वेगळे कडेन लिखाण केलां तातूंत म्हज्या भुरगेपणांतसून हांवें अणभवलां ताचीं वर्णनां आयल्यांत, तोच म्हज्या चरित्राचो वांटो.

पुरस्कारां विशीं उलयताना ताणें म्हणलें, त्या काळार एखादो पुरस्कार मेळप म्हणल्यार तो खोशयेचो सुवाळो आसतालो. १९६७ त सावन कोंकणी भाशा मंडळ एका कवीक वेंचून काडून ताका कविराज पुरस्कार दितालें. पयलो पुरस्कार स. मनोहरराय सरदेसायांक मेळ्ळो आनी २६ जानेवारी १९६९ त जो आपल्याक मेळ्ळो तो आपले खातीर खोशयेचो दीस आसलो, यादींत उरपा सारको. कित्याक तर त्या काळांत पुरस्कार मेळप बी ह्यो गजाली खूबच अप्रुपाच्यो आशिल्ल्यो.

'मोनी व्यथा' ही नवलिका छापून उजवाडाक येतकच आपलें गद्य बरोवप बंद करपाचें कारण सांगतना रमेशान म्हणलें, आपल्या गद्यांत लेगीत कविताच येवपाक लागली. ही नवलिका लेगीत एक कविताच आसा.

अर्थ 'अपुरबाये'न हांवें उजवाडाक हाडिल्लो 'सावुलगोरी' कविता संग्रह तर आगळोच. म्हाका तो खूब आवडिल्लो. एखादो विशय घेवन वेगळे वेगळे तरेन केळोवपाची किमया रमेशाक बरी सादिल्ली.

*सावुल गोरीचो*
*सोनाय मुखडो*
*पुनव-चंद्रीम खडो*
*वोतांत झिम-छिम*
*पिंपळ पाना आंकरी*

'सावुलगोरी' कवितांनी हांव सामकें पिशें जाल्लें. तेन्नाच रमेशान म्हणलें, तुका म्हज्या सावुलगोरीन पिशें केलां मुगो, तर मागीर ती हांव तुका दितां, कर ताची अपुरबाय. आनी ताच्या मना सारकें पुस्तक तयार करून दिवपाक म्हाकाय खोस जाली. ह्या पुस्तकाक मागीर कितलेशेच पुरस्कार मेळ्ळे. पूण म्हत्वाचें तें, ह्या पुस्तकाचो एक रंगरंगयाळो काव्यमय आनी संगीतमय असो विमोचन सुवाळो



वळवय आमच्या आंगणांत घडोवन हाडलो. कोंकणी मोगी आनी साहित्यिकांचे हजेरेंत तो आंगणांत आनी कुळागरांत कविता सादरीकरणांत आनी गीत गायनांत रंगलो. आजूनय ताचें कवतूक बऱ्याच जाणांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक येता. रमेशाचे आई बाबा आनी घरचीं आपल्या पुताची नामना पळोवपाक आनी तुस्त आयकुपाक मुजरत पाळ्यां शिरदोना सावन आमगेर आयिल्लीं. एक अप्रूप आनी अपुरबायेचोच असो सुवाळो जाल्लो तो. कोंकणीचो प्रसार आनी प्रचार जावपाचे नदरेनय ताची गरज आसली. ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटकच अशेच तरेचो एक आनंद सुवाळो नागेशीं घडोवन हाडलो, तोवूय तितलोच उर्बे भरीत आशिल्लो.

रमेशाच्यो कविता हो उतरांचो खेळ नाशिल्लो तर उतरांतल्यान त्यो आमकां खेळोवपी आशिल्ल्यो. तातूंत भावना मेळटात, संवेदना सांपडटात. नवीं उतरां, भौसाचीं उतरां, कानाक गोड लागपी उतरां.

'अंगणी नाचता मोर मोरया' हो एके लोक काणयेचो आगळोच प्रकार. हातूंत एके बायलेचें मोरा कडलें नातें दाखयलां. तिका घोव सोडून वता आनी ती एकलीच आसता. ती उदक हाडपाक वतना मोर तिका पळयता. मोर दादल्या कडसून कांयच घेना, फकत बायले कडसून घेता अशी समजिकाय. तो तिचे बरोबर रावता. तांचे हे संबंद लोकांक कळटात. लोक उलोवपाक लागतात. हातूंत आयल्यांत रानांतलीं सुरबूस वर्णनां. रमेश हें सांगतना रमतालो, आमचें लोकसाहित्य सुंदर आसा. तें कोंकणींत विवीध तरांनी येवपाक जाय. लोक साहित्यांतलो संदर्भ घेवन ताणें आनीकय लिखाण केलां. कुंडेकुसकुराचे काणयेचेर ताणें बालनाट्य रचलां. ताचेंय पुस्तक आसा.

रमेशाच्यो कविता समजुपाक कठीण, पूण तितल्योच त्यो सोंप्योय बी. त्यो समजुपाक आपले जिणेची खरायेन वळख जाय तशेंच तो

जाका लागिंच्यान वळखता तोच ताच्या कवितांचेर बरे तरेन भाश्य करपाक शकता. कित्याक तर तो आपल्या सभावा सयत साहित्यांत प्रकट जाला अशें म्हजें मत. व्हड विचारवंत कार्ल मार्क्सान म्हणून दवरलां ते प्रमाण, ज्या समाजांतल्यान लेखक आयला त्या सामाजीक संस्थांचें तें पडबिंब. ताका लागून रमेशाचो विविध आयामी सभाव ताच्या सर्जन कृतिंतल्यान दिसून येता.

*सावुलगाळींत*
*सावुल गोरी.*
*सावुल गोरीच्या*
*दोळ्यांक झालर*
*झालरीर जर*
*मोग किनारी*
*सावुलगोरी*

*सावुलगोरी*
*सदांच गाळींत*
*सर्वय सुरंगार माळी*
*कोणा कोणाचे*
*एकठांय हाडून जाळी*
*सावुल गोरी*

ही कविता तो जे तरेन हातवारे आनी दोळ्यांचेर, तोंडाचेर हावभाव हाडून म्हणटालो तेन्ना सगळे तन्मय जावन आयकत उरताले. आपल्या कल्पना विलासांतल्यान रंगयिल्ले सावुलगोरीन सगळ्यांचें चित ओडून घेतिल्लें. कोण आसत ती सावुलगोरी? 'धव्याफुल्ल केंसांची कापसाची बावली वा म्हातारी जी वाऱ्यार हुबत वयता (रमेशालीं उतरां) आनी तिका धरपाक वयताना ती पयस पयस गेल्ली दिसता ती म्हजी सावुलगोरी.' रमेशान सांगलें आनी हांवें निमाणच्यो दोन वळी म्हजे भितरच गुणगुणल्यो.

*कोणा कोणाचे*
*वसंत सगळे*
*एकठांय हाडून जाळी*
*सावुलगोरी*

दोन वळींतल्या उतरांतल्यान प्रकट जाल्ल्यो प्रणयी भावना. एक प्रतिमा, एक कल्पना पूण भावनांचे फास्केंत बसयिल्ली. रमेशा मदीं सुरवेक सावनच एक परिपक्वता दिसताली आनी तशी आशिल्लीय बी. आतां आतां तर चडच बळाविल्ली.

'हिरण्यगर्भ' एक नाविन्यपूर्ण प्रक्रिया. मातये भशेनच आमचें नातें सुर्या कडेन आसा. सूर्यच नाशिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें? सैमाचे किमयेचेर विचार करपाक लावपी ही कविता. सैमीक तत्वांक मनशाच्या जिवितांत विरगळावन काव्याच्या माध्यमांतल्यान आमचे मुखार दवरपी हो आगळोच कवी. 'तनरजोती' संबंदी कवी म्हणटा, तन हीच एक जोत आसता. ती उर्जा आसता, उर्जा उर्जेक मेळटा आनी जेन्ना मेळटा तेन्ना तो एक उत्सव आसता. हो अणभव दिव्यरुपी!

ह्या काव्यमय प्रवासांतल्यान चलतना कवीक केन्नाच थकास लागली ना. ताची झेन कविता, झेन म्हणल्यार ध्यानमग्न अवस्था, ध्यान धारणा, ध्यानाचो रुपकार. मनाची तनर ध्यानाचे अवस्थेंत वता तेन्ना तें आगळेंच! तो आनंदाचो खीण. ध्यान साधनेची पुर्ती जाल्ल्याचो भास. जिविता कडेन पळोवपाची आमकां नदर जाय, तो मागीर

*रमेशान बरयिल्लें गद्य साहित्य खूब आसा. तें जळामळा शिंपडून आसा हांवेंच फाटीक लागून ताका मळबकळी पुस्तक उजवाडाक हाडपाक लायलें. बिम्ब प्रकाशनान ते उजवाडायलां. ताचें लिखाण कोंकणी आनी मराठींतय आसा. तें सगळें पुंजावन उजवाडावपाची गरज आसा. आयज आर्थीक नदरे तो भार खाजगी संस्थांक पेलपाचो ना. गोवा कोंकणी अकादेमी वा राजभास संचालनालय वा अशा संस्थांनी फुडाकार घेवपाक जाय. कोंकणीचो विकास आनी उदरगत म्हणटना ज्येश्ठ आनी केंद्रीय थराचेर पुरस्कार प्राप्त लेखकां खातीर गोंय सरकाराच्या संस्थांनी फाटल्या वीस वर्सांच्या काळांत कितें केलां हाचो नियाळ घेवचो. हांवें खूब फावटीं सागलें, केन्नाय भाशणांनीय म्हजें मत उक्तायलें, जेश्ठ लेखकांचीं जितलीं हस्तलिखितां आसात ताचीं सगळीं पुस्तकां उजवाडाक हाडचीं. पूण जाळवणदारांनी हे विचार फाफडून उडयलें आनी आमचे सारकी ते कदेलीर कशीं पावचीं नात तिवूय वेवस्था बेस बरी केली. आज कोंकणी संस्था चलतात त्यो तेच आदले पोरने विचार घेवन. ह्या मूठभर लोकांनी आपूण सोडून कोणाक केन्ना वयरूच सरपाक दिलें ना. तुस्त करताना लेगीत हातची राखून. आपणाय जाय तांकां वयर काडीत गेलें. कोणूय वयर सरता अशें दिसल्यार ताची धोंगा पोंगा वयर काडून ताका नर्वस करून उडोवपांत ह्या लोकांनी पुरस्काराक फाव सारके काम केलां. परीणाम कितें. कोंकणीच्या विकासाचो पांवडो देंवत गेलो. आमचे कडेन तें जमचें ना अशें म्हणून दुसऱ्यांलो आत्मविश्वास खचोवन उडोवपाक हे हुशार.*

आसूं जगाच्या खंयच्याय भागांत. गोंयांत आसूं वा हेर खंयूय. तीच धर्तरी, तेंच आकाश, तोच सैम. रमेश सांगता, आमी गोंयकार, आमचें साहित्य ग्रामीणच. सबंद गोंय ग्रामीण. ह्याच वाठारान सगळ्यांक दिले बाकीबाक बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, महाबळेश्वर सैल. तांचो वारसो फुडें चलतलो. कित्याक तर गोंय होच एक गांव. हांगाचें सगळेंच साहित्य ग्रामीणच आसतलें.

रमेशाचे आनी म्हजे अशे वरांचीं वरां संवाद जाताले. केन्ना गोंयांत आसतना तर केन्ना रायबरेलीच्यान फोनाचेर. ताचो फोन येवप म्हणल्यार साहित्यीक विश्वांत भोंवडी मारून येवप जातालें आनी जिवाक थाकाय कशी मेळटाली.

लग्ना उपरांत आमी कांय काळ पणजे बिराड करून रावतालीं. थोडो तेंप सांतीनेज तर थोडो तेंप सांताक्रूज. तेन्ना तर आमचें सगळ्यांचें मेळप जातालेंच. पणजेच्या आझाद मैदाना कडल्या टी. बी. कुन्हा हॉलांत आत्र्या-पयऱ्यान आसतालींच. दीस सामके मजेंत वताले. दर म्हयन्याक वेलंगां कोंकणी खातीर शिबिरां जातालीं तेन्नाय मेळप जातालें. केन्ना मेळाव्यांत, केन्ना संमेलनांत, परिशदेंत. कुटुंबीक कार्यावळीं परस आमच्यो कोंकणीच्यो कार्यावळी चड जाताल्यो आनी आमची हजेरी आसतालीच.

म्हज्या लग्नाक घरच्यांचो विरोध आनी बापायन आपूण येजमानपण करचों ना म्हणलें हें म्हज्या मनाक खूब लागिल्लें. म्हाका व्हडलें पडूंक नाशिल्लें पूण आवय दुखाविल्ली तें म्हाका चड लागलें. रमेशाक म्हजे खंतीची जाणीव आशिल्ली. एका भावा भशेन ताणें म्हाका समजायलें. मागीर खूब तेंपान हो विशय परतो आयलो उलोवपांत तेन्ना ताणें म्हाका विचारलें, ''तेन्ना घडलें कितें?'' आनी जेन्ना ताका हांवें सांगलें, ''पणजे रिसेप्शनाक वचपाक दारांत गाडी थांबिल्ली. सगळीं वचपाक भायर सरिल्लीं आनी सगळ्यांत पयलीं म्हजो बापूय गाडयेंत बसलो आनी सगळ्यांत निमाणें आमचे म्हऱ्यांत आयलो आनी तांबड्यागूंज दोळ्यांनी म्हज्या घोवाचो हात घट्ट धरुन म्हणलें, 'म्हज्या हेमाक सांबाळ.''' रमेश हांसलो, हें बापायचे मन. 'तूं अशें कित्याक समजना तुजो बापूय त्या काळांतय ह्या समाजा परस खूब फुडें आशिल्लो? येजमानपण करप, पाटार बसप ह्यो गजाली ताणें केन्नाच अमान्य केल्ल्यो. आमी सामाजीक सुदारणेचो बोवाळ करीत उरलीं. ताणें तो बदल तेन्नाच आपणायिल्लो आनी तोवूय प्रत्यक्षांत.' हांव रमेशाक पळयतूच उरलें. ताच्या ह्या उतरांक मोल आसा. जे दीस लग्नविधी थारयल्ले ते करपाक भायर सरचे वेळार बापुयूच पयलो गाडयेंत बसलो. हाणें तर म्हजे विचारूच बदल्ले. म्हज्या बापायक हांव कट्टर जातीयवादी समजतालें आनी आपल्याक जाती बांधव दुशणां दीत म्हण तो पळवाट सोदतालो, पूण ताचें अंतस्करण समजुपाक रमेशाची गरज लागली.

प्रकरण इतल्यार सोंपलें ना. मागीर हांवें सैराट सिनेमा पळयलो आनी तातुंतलें आर्ची हे चलयेच्या लग्ना वेळार बापूय कसो विरोध करता तें पळोवन म्हाका म्हजे वयलो प्रसंग येवजलो आनी रमेशाक हांवें सांगलें, ''म्हाका रडपाक आयलें रे पळोवन'. रमेशानय आपले 'मळबकळी' मालिकेंत एक प्रकरण म्हजेरूच बरयलें. ताणें कन्यादान केलें ना. ताचो विधीं वयलो पोको



विस्वासूय उडलो आसूं येता. ताणे अंतर्तळाच्या कळवळ्यांनीच तिचें कन्यादान मन:पूर्वक केल्लें आसू येता. ताच्या ह्या तोलाचें मोल समजुपाक सगळेच चुकले आसूं येतात. आनी सगळे समाजीक मनांचे सोपस्कार जातकूच बापायन जांवयां कडल्यान आपले धुवेची काळजी घेवपाचें वचन घेतलें. विरोध विरोध म्हण आरड मारप आनी बिनविरोध मन भर केळयत वचप अशें मनांतल्यान उत्क्रांत जाल्ले बापुयूच आसतात आनी त्या खिणांत आमी तांची वळख घेवंक, तांच्या मनाची अर्चना समजून घेवंक, तांचे आर्चीक समजून घेवंक घुस्पतात. एक मात खरें की मोटेपणाच्या समजाचें पोकेपण समजुपाचें केण आपलेच बुनयादींत आसता.

म्हजेर माया करपी रमेशान म्हज्यांतली न्हयकारी वृत्ती ना करून म्हाका सकारात्मक नदरेन जियेवपाक प्रवृत्त केलें. म्हजें अंतर्मन जाणून घेवन म्हाका आर्चीची उपमा दिवन म्हजेर बरयिल्लीं मळब कळींतली हीं उतरां वाचून म्हजी सकारात्मक नदर अदीक बळीश्ट जाली.

म्हजेर आयिल्ल्या आकांताच्या प्रसंगाचें वर्णन करतना वा हांवें कोणाचेरच एखादो शीण काडटना घुसमट्टालें तेन्ना ताणें म्हणचें, तुजे आवयन तुका काय बरें नांव दवरलां पळय भांगर. तुका आनीक कितें जाय? ह्या उतरांनी हांव विरगळटां हें ताका जुस्त खबर आशिल्लें. म्हज्यांतली खंत ना करपाची ही ताची युक्त खूब फावटी फळाक आयल्या.

आनी हो म्हज्या जिवितांतलो एक सुवर्ण खीण जो रमेशाक लागूनच घडपाक पावलो. हातूंत जें कितें घडलें तें येवजिल्यार रमेशाचें नातें एका बापाय वरी जाणवलें. कोणाक जावचें ना असलें धाडस रमेशान म्हजे बाबतींत केलें आनी तें शंबर टक्के यशस्वी थारलें. १९८६त कोंकणी राजभास जाली ते खातीर फाटलीं दोन वर्सां आमी तातूंत अक्षरश: झोकून दिलें. घरा नासतालींच म्हणल्यार जाता.आरोग्या कडेन तर सामकेंच दुर्लक्ष जाल्लें. कोंकणींतल्याच कांय बऱ्या मागण्यांनी शिटकायिल्लें जिवाचेर लक्ष दी म्हणून. पूण कोणाचें आयकुपाची मनस्थिती तेन्ना नाशिल्ली.

आनी सगळें जाले उपरांत १९८७ च्या अदमासाक एके तिनसांजचे मडगांवचो विवेक मोर्डेकार आपले स्कुटरीन फाटल्यान रमेशाक बसोवन घेवन आमगेर हजर. तेच स्टायलीन, खांद्याक बोटवो लावन हांसत्या तोंडान भितर सरले. कितें जालें काय? हांव अजापलें. रमेशान मुद्द्याक हात घालो. लग्न जावन बारा वर्सां जावन गेल्लीं. म्हगेर

भुरगें ना हो हुस्को सगळ्यांकूच आशिल्लो. हुस्को ही एक गजाल, पूण अंतस्करणांतल्यान ती तळमळ आशिल्ली. दोतोरांचे उपाय करून जाल्ले. रमेशान म्हणलें, 'हें पळय हेमा, तूं उपाय करून थकलां आनी आतां तुका उमेद उरूंक ना हेंवूय तूं उलयलां. पूण एकूचदां तुवें आमचें आयकुवें. पुण्याक एक दोतोर आसा गायनीक. ताच्या उपायांक आनी हातांक गूण आसा. तुका विनवणी करपा खातीर आमी आयल्यात. तुमी वचून दोतोराक मेळात.' हांवें तरातरांनी तकली हालोवन ताका ना म्हणलें. पूण रमेशान कशेंच मानून घेतलें ना. एकूच फावट आनी तें ना जाल्यार मागीर नाका. सामको हट्टूच धरून बसलो आनी हांवें मानून घेतलें. पुणेचे गाडयेचें बुकींग,दोतोरा कडली एपोइंटमेट तांणीच घेतली. तेन्ना फोनाची वेवस्था नाशिल्ली.

दोतोराक म्हजो दोश सांपडलो आनी एक बरेंच कठीणशें ऑपरेशनय करचें पडलें. दोतोरान गॅरेंटी दिली आनी स म्हयने सोंपता खिणाक म्हाका दीस गेल्यात म्हणपाचें समजलें. रमेशांतले हे गूण म्हजे खातीर आपलेपणाचेच आशिल्लें.

हालीं हालीं तर रमेश खूब हळवो जाल्ल्याचो जाणवतालो. गोंयां येता तेन्ना अदीं मदीं मेळप जातालें. पणजे लायब्ररींत, केन्नाय हॉटेलांत च्याक वचप, दनपार आसल्यार जेवपाक. मेळटकच नवीन बरयिल्ल्या साहित्याचेर उलोवप जातालें. ताणें हालिंच्यो म्हज्यो सगळ्यो कथा वाचल्यो वा आयकल्यो. फाव थंय सुचोवण्योय केल्यो. आज रमेश नाशिल्ल्याची उणीव खूब भासता.

*हालींसराक रमेश गद्य लेखनय करतालो. फांतोडफुलां शिर्शका खाला रमेशान कांय स्फुटप्रसंग बरयले. नव्या तंत्रज्ञाना कडेन ताणें जुळोवन घेतलें आनी जशे सुचलें तशें फेसबूक सारख्या माध्यमांतल्यान आमचे मेरेन पावलें. गजली सारखे काव्यप्रकार ताणें हाताळ्ळे. ताचें नांव आंतरराष्ट्रीय थराचेरय परजळीत जाल्लें आसा. ब्राजीलच्या युनिव्हर्सिटी ऑफ रिया हांगा तांच्या हिरण्यगर्भ कवितांचेर डॉ. दिलीप लवंदे हांणी पेपर सादर केल्लो. तांचे धुवेन अर्दवराचें एक फिल्म तयार करून तें दाखयलें. रमेशानूच एक दीस ही गजाल म्हाका सांगली. आपलीच तुस्त वा तोखणाय करून घेवप ताका तशें जमलें ना आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार कोंकणीच्या लोकांनीय ताका गंभीरतायेन केन्नाच पळयलो ना. २००९ वर्सा १९व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद तितलें रमेशाक मेळ्ळां.*

आपणे बरयिल्ल्या साहित्याचेर रमेश बरेचदां म्हजे कडेन उलयतालो. अ*गणी नाचता मोर मोरया, हिरण्यगर्भ, माती, तनरजोती* हे म्हजे कविता संग्रह म्हणल्यार सैम, धरतरी, माती, दर्यो अर्थात उदक म्हणल्यारच पंचमहाभूतां. पांच म्हान तत्वां. शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध. संस्कृतांत एक उतर आसा, तानमंत्र म्हणल्यार सुक्ष्म सार. प्रकृतींतले हे वयले पांच घटक म्हणजेच आमचे कुडिचे अवयव आनी तांचें कार्य.'

रमेश आनी आमचें फाटल्या धा-पंदरा वर्सां सावन एक सपन आसलें. सरकारी पालव आनी आर्थीक सहायांतल्यान आमकां पणजे लागींसराक रावपाक ल्हान ल्हान घरां वा फ्लेट मेळचे. एखाद्या साहित्य सहवासा सारखो कँपस आसचो. पूण तें प्रत्यक्षांत येवपाक पावलें ना. साहित्यीक हे राज्याचें भूशण अशें जेन्ना मानतले तेन्नाच हें घडून येतलें.

रमेश म्हणल्यार सैम, माती, धर्तरी, मोर, झाडां, रूख, मळब, चंद्रीम, कुपां. रमेश म्हणल्यार एक आकांताचें दिव्य अशें ब्रम्हांड, तूंच दिगंत अशें म्हणटां म्हणटां केन्ना पावलो दिगंतरा तेंच कळ्ळें ना. ह्या ब्रम्हांडांत आस्पाविल्ले खंयचे एके गजालीक ताच्या उतरांचो स्पर्श जावंक ना अशें घडिल्लें ना. ताका लागून हे मातयेंतलो कणान कण ताच्या उतरांतल्यान उलयिल्ल्याचो भास आजुनय जाता.

आनी निमाणे कडेन सगळो आपरोस काडून इतलेंच सांगन, दुसऱ्याचें अंतर्मन वळखून ताच्या भावनां कडेन समरस जावपी रमेश म्हजो एक खास लागींचो इश्ट आशिल्लो. ताचें अचकीत वचप हो म्हज्या अंतस्करणाक बशिल्लो व्हड धक्को. नवे विशय, नवे विचार आनी नवे प्रयोग आपल्या साहित्य कृतींतल्यान वाचकां मुखार सादर करपाची एक अद्भूत किमया ताचे लागीं आशिल्ली. ती ताणें अखेर मेरेन जपून दवरली. राग, लोभ, इत्सा, मत्सर, हेवेदावे ह्या दुर्गुणांक स्पर्शय करिनासतना आपल्यो चित्तवृत्ती थीर दवरीत रमेश आपल्या खोल तळांत दडिल्ले विचार वाचकांक दीत रावलो. रमेश वेळुस्कार म्हणल्यार सैमांतल्यान प्रकट जाल्लें कवितेचें एक कुवाडें. भोंवतणचा सैम ताणें आपले काव्य निर्मितींतल्यान गिरेस्त केला काय सैमान आपले मनभुलोवणे निर्मणेंतल्यान ताका किर्तिवंत केलो हें सांगप कठीण. पूण फाटलीं ५० वर्सां रमेश सातत्यान ह्या क्षेत्रांत मन लावन आपली साधना करीत आसलो आनी हे ध्यान मग्न अवस्थेंतल्यान ताच्या हुंकारांतल्यान फुटिल्लीं उतरां, त्या उतरांचीं जाल्लीं कवनां आनी कवनांतल्यान साकारिल्ल्यो कविता कोंकणी भाशेचें भुशण जावन कोंकणी साहित्य गिरेस्त करपाक रमेश एक मोलादीक वांटो जावन उरला. ताचे कडेन आनीकय जायतें दिवपाचें उरिल्लें पूण डाव अर्दोच सांडून ताका वच्चें पडलें हें दुख्ख आमचे खातीर मळबा येदें व्हड.

*उतरां तुजी सासाय जावन वाऱ्यार हुबल्यांत*
*तुज्या पावलांच्यो कुरवो मातयेंत रूतून उरल्यात.*

संपर्क: 9764597628



# अजातशत्रू रमेश

## शीला कोळंबकार

पणजे सावन कवी माधव बोरकाराचो फोन आयलो. ताणें म्हाका विचारलें, ''आगो, रमेशाली तुका कितें खबर बी मेळ्ळ्या?''

हांवें म्हळें, ''ना रे! खूब तेंप जालो. हांव ताका मेळूंक ना. पयलीं तो रायबरेली मुंबयसावन येतालो-वतालो. हांव मुंबय रावतां म्हूण केन्ना तरी आमगेर येवन वतालो. कांयच ना जाल्यार फोन तरी करतालो. हालीं कोणाक कोणालें कितें पडलां? सगळे आपल्याच कामांत!''

ताचेर ताणें म्हळें, ''ना गो! तो बरो ना अशें म्हणटात. पूण कोणाक ताची कांय सारकी खबर ना. ताका घश्याचो खूब त्रास जाता अशें आयकलां'' हांवें म्हळें, ''अशें? म्हाका खबर ना. ताची खबर मेळत जाल्यार हांव तुका कळयतां.'' अशें सांगून हांवें फोन दवरलो.

हांवें व्हॉटस्‌अॅपाचेर ताका बरयलें, ''आरे, तूं कसो आसा?'' ताचेर ताणे कितें बरोवचें? ताणे आपले मराठी पेपरांत छापून आयिल्ले दोन लेख धाडले आनी बरयलें, ''हे लेख हांवें बरयल्यात. ताचे वेल्यान हांव कसो आसा ते तुकां कळटलें.''

''सुबेज खंयचो कडलो'' अशी मनांतल्यान ताका गाळ घालून ताका हांवें व्हॉटस्‌अॅपा वेली मुठीचीं दोन प्रतिकां धाडून दिलीं.

मागीर ताचे बरेच मराठी लेख ताणें म्हाका धाडले. हांव ते सुसेगादीन वाचून म्हजी प्रतिक्रिया प्रतीक चिन्हांनी धाडून दितालें. दर आयतारा ताचो छापिल्लो लेख तो म्हाका व्हॉटस्‌अॅपार धाडटालो. मदींच दोन आयतारा ताचे लेख आयले नात. हांवें ताका विचारलें, ''आरे कितें रे? तुवें तुजे लेख धाडले नात मरे?'' ताचेर ताची जाप आयली ना.

तीन-चार दिसांनी सीमंतीनीचो - ताचे चलयेचो - फोन आयलो. ताणें सांगलें ''डॅडी, बरो ना. ताच्या गळ्यांत गांठ जाल्या. तेन्ना ताका जेवणा-खाणाचे त्रास जातात. हॉस्पिटलांत वचूंक तो तयार ना. ताका नेचरोपथीचें वखद चालू आसा. तातूंत ताका खूब फरक पडला. मुखार ताणें सांगलें, ''आज कल डॅडी कहते हैं, गोवा के लोग मुझे भूल गये। मेरे हाल हवाल कोयी पुछता नहीं। बुआ, आप उनको खत लिखना। उनके जो दोस्त हैं उनसे भी कहना की वे डॅडी को खत लिखें। हांवें म्हळें, जरूर! और तुम तुम्हारे डॅडी से बोलना कि वो जल्दी ठीक हो जा। मुझे उनके साथ बहुत झगडना है।'' सीमंतीनी ताचेर हांसलें. ताणें म्हळें, ''बुआ, डॅडी आपकी बहुत इज्जत करते हैं। मैं मुंबई आपके घर आई थी तब आप दोनों की दोस्ती देखी। उस दोस्ती मे जो सहजता थी, वह बहुत लाजवाब और लुभावनी थी। उस समय आप लोगों की दोस्ती ने मुझे चकीत कर दिया था।''

सीमंतीनीच्या फोना उपरांत हांवें पयलो फोन केलो तो बोरकाराक. ताका सांगलें, ''रमेशाक अशें अशें जालां आनी तो अशें अशें म्हणटा. ताणें म्हळें, ताका इतलें अशें कितें जालां. हें म्हाका खबरूच नासलें. हांव ताका आयजूच पत्र बरयतां. आनी अरुण साखरदांडो, नागेश करमली, तुकाराम शेटीक बी पत्रां बरोवंक सांगतां. हांव पत्र बरोवंक पावलें ना. हेरांनी पत्रां बरयलीं काय ना खबर ना.



ही गजाल जाल्या उपरांत तिसरे कांय चवथ्या दिसा राती सीमंतीनीचो फोन आयलो. ताणें सांगलें, ''बुआ, डॅडी, अब नहीं रहे।''

हांवें फक्कत 'सॉरी' म्हळें आनी फोन दवरलो. मागीर दोन-तीन दिसांनी हांवें तांगेर फोन केलो. तो सीमंतीनीन घेतलो. मिथिलेश-रमेशाली घरकान्न - म्हजे कडेन भरभरून उलयली. तिणें आपली अख्खी जीण रमेशाचेर ओंवाळून म्हणटा तशी उडयल्ली. एका तेंपार ती कविता करताली. लेख बरयताली. नोकरी करताली. भुरग्यांक सांबाळटाली. ती रमेशाल्या बरपाचेर, कवितांचेर मना पासून प्रेम करताली. म्हूण तिणें ताका संवसारांतल्या जंवजाळांतल्यान मेकळो केल्लो! संवसाराचो भार तिणें आपल्या खांद्यार घेतलो. तिका ताका सगळे स्वातंत्र्य दिलें. रमेशांतल्या कलंदर कलाकाराक संवसाराची कसलीच धग लागूंक दिली ना.

म्हाका सदांच दिसतालें, हो रमेश कलंदर, अवलिया! लग्न जावनूय संवसारांतले उतळताप हाका लागनात. हाचें शिजता कुंड्यार! हाची बायल भुरगीं रायबरेली! हो गोंयांत. हो मेळत थंय भोंवता! हाचो संवसार असो कसो? हाका बायलेची मातूय पर्वा ना काय? पूण म्हाका दिसता तशें कांय नाशिल्लें. त्या दोगांय घोवा-बायले मदीं समजुतदारपणा आशिल्लो. विश्वास आसलो. आंतरीक प्रेम आसले. तिणें रमेशाक भरपूर मेकळेपण दिलें. हरवें सोंदतल्याक आयतें भाजिल्लें मेळिल्लें.

रमेशाक दोन चलयो आनी एक चलो. तिगांकूय बापूय म्हळ्यार देव! म्हळ्यार मिथिलेशान भुरग्यांच्या मनांत बापाय विशीं खंयच कोडसाण येवंक दिली ना. रमेशाकूय आपल्या भुरग्यांचो खूब अभिमान दिसतालो. सीमंतीनी विशी, ताच्या बरपा विशीं तो भरभरून उलयतालो. सीमंतीनीचे हुशारीचो ताका अभिमान आसलो.

रमेशाल्यो कविता म्हाका आवडटाल्यो. पूण एकेक खेंप तो शब्दांचे खेळ करतालो. त्या खेळान कवितेंतलें काव्य शेणटालें. हांव ताका तशें सांगी. मागीर तो हांसतालो. म्हणटालो, ''तुका कविता कळना गो!''

एक गजाल खरी! ताणें सातत्यान बरयलें, बरें बरयलें. कोंकणीक ताणें भरभरून दिलें. तो नितळ मनाचो आसलो. बरपा खातीर बरप केलें. त्या बरपांतल्यान कितें आपल्याक मेळटलें, अशी आशा केली ना. खंयच्याय पदाची अपेक्षा केली ना. बरोवप ताचो ध्यास आसलो.

ताची कविता ताच्या तोंडांतल्यान आयकप हो एक वेगळोच सुखदिणो अणभव आसलो. घरांतूच संगीत आशिल्ल्यान ताचे कवितेंत गेयता आसली. हेर बरपांतूय एक लय आसली. जें आपल्याक दिसता ताचे मुखार आनी कितें आसूं येता. ताच्या मुळांक डेन वचपाचो ताचो यत्न आसतालो. तांतल्यान आयिल्लें लेखन मनाची पकड घेतालें.

ताचें वाचन जबरदस्त आसलें. तो भारत भर भोंवतालो. हेर भाशांतल्या बरोवप्यां बरोबर भासाभास करतालो. आपल्या नादमय,

लयदार कोंकणी कवितें वरवीं हेरांक कोंकणी भाशेची तांक दाखयतालो.

खूब वाचप, आयकप, भासाभास करप हांतल्यान आपल्या विचारांक नवी दिशा दितालो. 'रे मोरा दिगंतरा' सारक्या कवितेंतल्यान क्षितिजा पलतडी आशिल्ल्या अव्यक्ताचो सोद घेवपाचो तो प्रयत्न करतालो.

ताच्या 'माती' ह्या कविता संग्रहांतल्यो कविता पळेयात. मातयेचेर ताचो खूब मोग. पंचतत्वांतलें एक तत्व म्हळ्यार माती. सृजनाचें प्रतीक माती. मनीस मातयेंत जल्मता आनी मागीर मातये भरवण जाता. हाचे मदलो जो प्रवास आसा तो ताणें मातये वयल्या कवितांनी चितारला.

ताची प्रार्थना ही कविता घेयात.

*प्रार्थना*

*काळखाक सपनां पडूं*
*काळखाक सपनां पडूं*
*काळखाक सपनां पडूं*
*उजवाडाचीं.*

काळखाक उजवाडाचीं सपनां पडप ही कल्पनाच कितली भन्नाट! भुरग्यां वेली कविता बरयतना तो भुरग्यां येदो जाता.

*इल्लेशें नुस्तें*
*सामकें मस्तें*

- भुरग्यांनी हें वाचलें आनी आयकलें जाल्यार तांच्या तोंडार हांसो फुलोवपाची तांक ह्या दोन ओळींनी आसा.

म्हजे आवडीची ताची आनीक एक कविता, जशी याद जाल्या तशी बरयल्या.

*तें एक झाड*
*झाडार बसलीं सुकणीं*
*सुकणीं उडून गेलीं*
*त्या सुकण्यांची*
*त्या झाडांक जाल्यांत*
*जीव पोखरपी दुखणीं ।*

रमेश असोच उडून गेलो. काळजाक चुरको लावन!

संपर्क: 9819315307

# रमेश भाई...

## मूळ हिन्दी - कलानंद मणी : कोंकणी अणकार - कृपाली नायक

जल्म आनी मरण ही जिणेचीं दोन रुपां. जल्म उत्साह, आनंद दिता जाल्यार मरण दुख्खाचो दर्या. नाते संबंदांत जर जल्म जायत जाल्यार खोशयेक शीम मेर नासता. तशेंच लागिच्यांचें मरण खंयचेय परिस्थितींत, खंयच्याय कारणान स्विकारप कठीण. श्री. रमेश भगवंत वेळुस्कार एक सज्जन मनीस. ताचें अशें अचानक वचप ताच्या लागिच्यांक एक भयंकर वज्राघात आशिल्लो. रमेशबाबाक आतां केन्नाच मेळूंक येवचें ना हाचेर आजून विश्वास बसना. मरण हेंच शेवटचें सत्य आनी हें सत्य पचप कठीण. जंय मरण हें जिविताचें एक परिपूर्ण वास्तव थंय रमेशाचें अशें वचप आमकां ताच्या चाहत्यांक आयजय कित्याक मान्य ना हाची जाप आमकां सर्गेस्त वेळुस्कार हांच्या व्यक्तिमत्वांत मेळटा.

रमेशबाब म्हाका आनी म्हज्या वांगड्यांक रमेश भाई आशिल्ले. तांची आनी म्हजी पयली भेट म्हाड्डोळा ताच्याच भोवमाना खातीर आयोजीत केल्ल्या भोवमान सुवाळ्यांत जाल्ली. त्याच दिसांनी तांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्लो. हेच पयले भेटींत आमच्या इश्टागतीची कणखर बुनयाद पडिल्ली. तांचें सरळ सार्देच पूण अत्यंत अनौपचारीक वागणें आनी तातूंत तांचे नाजूक उलोवप हेंच ह्या सगळ्याचें मूळ आशिल्लें. इश्टगतीची गांठ जी पयल्याच मेळपांत पडिल्ली ती काळांतरान घट्ट जायत रावली. तांचे वांगडा जोडिल्ल्या इश्टागतीची गोडसाण कायम उरली जाचें चड श्रेय तांकांच दिवंक जाय. आमचे इश्टागतींत सहजपण आशिल्लें तशेंच ती अपेक्षा मुक्त आशिल्ली. अहंकार आनी स्वार्थ नांवांचे किडे केन्नाच आमचे मदीं येवंक नात. पावसाळ्याचे दीस पळोवन आमी रमेश भाईचे इत्सेचो मान दवरून पिसफूल सोसायटीच्या परिसरांत एक कवी संमेलन दवरिल्लें जातूंत कोंकणींतल्या जवळ जवळ सगल्याच प्रतिश्टीत कवींचो सहभाग आशिल्लो. ह्या आयोजनांतल्यान रमेश भाईंची कविता आनी निसर्गप्रेम हांकां लागिंच्यान आयकुपाची आनी समजून घेवपाची संद मेळ्ळी. तांची वाक्यरचना ल्हान पूण काळजाक भावपी आशिल्ली.

पिसफूल सोसायटी वतीन आयोजीत केल्ल्या कितल्याश्याच राष्ट्रीय स्तरा वयल्या कार्यावळींनी रमेश भाईन भाग घेतिल्लो. ह्या कार्यावळींनी तांकां जो कोण मेळ्ळा तांकां सगळ्यांक तांणी आपलो केला. तांची सादिशीच वागणूक तांचे कडेन वळख नाशिल्ल्याकय तांचे सरी आकर्शीत करताली.

वर्स भर पयलीं रमेश भाई कस्तुरबा गांधी आनी महात्मा गांधी हांच्या उर्बा दिण्या जिवनाच्या १५० वर्सांचे पुरतताये खातीर काकासाहेब कालेलकार हांच्या एका पुस्तकाचो अणकार कोंकणींत करताले. रायबरेली वच्चे पयलीं तांणी हो अणकार पुराय केल्लो आनी ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाची वेवस्था पिसफूल सोसायटीच करतली अशें आश्वासन म्हजे कडल्यान घेवन ते गेल्ले. हें हेय खातीर आशिल्लें कारण पिसफूल सोसायटी देश भर बापूच्या १५० वर्सांच्या निमतान वेगळ्या वेगळ्या कार्यावळींचें आयोजन २०१७ सावन करत आसा. तांच्या पुस्तक प्रकाशना संदर्भांत एका प्रिंटरा कडेन सहमतीचें उलोवपय जाल्लें. प्रेसान वच्चें पयलीं एक फावट तांणी तें परत पळोवचें देखून आमी तांची वाट पळयताले. आमी तांचीच वाट पळयताले. आमी आयजूय तांची वाट पळयतात. ही प्रतिक्षा तांच्या ह्या वयल्या पुस्तकाचे उजवाडणेंतल्यान पुराय जांव हीच आमची श्रद्धांजली.

# गोंयचो सपन रूख : रमेश वेळुस्कार

शिरीश लवंदे



सपनां पळोवप हो मनशाचो सभावधर्म. आमी सगळीं सपनां पळेतात. पूण सपनांत जियेवप वेगळें. असो सपनांत जियेल्लो आमचे मदलो गोंयकार म्हळ्यार रमेशबाब भगवंत वेळुस्कार. अकस्मात सपनांतल्यान जागो जावन कुशीक सरलो. आमकां तो दिसना पूण हांगाच खंय तरी लिपला असो भास जाता. खरें सांगपाचें म्हळ्यार रमेश आपले कवितेंत अजरंवर जाला. अशें दिसता, दर एक कविता वाचतना तो आमचे मुखार उबो जातलो आनी म्हणटलो, ''तुजें वाचप आनीक मात्शें वेगळे भशेन जावंक जाय आसलें. फावो तसो प्रभाव पडूंक ना. पयलीं कविता समजून घेवप गरजेचें.''

शिरदोन-पाळें ह्या सैमीक गांवांत जल्मल्लो रमेश सैमाचें आंग जावन जियेलो. ताचे दर एका कवितेंत सैमाची तोंखणाय आनी तासां दिश्टी पडटात. ताचो बापूय भगवंत वेळुस्कार हो एक बरो कलाकार. एक फाकिवंत हार्मोनियम वादक. भगवंताले कलागुण तांच्या सगळ्या भुरग्यांच्या वांट्याक थोडे-थोडे जरी आयले तरी रमेश्याच्या वांट्याक आयिल्लें बीं रमेशान किल्लोवन काडलें आनी सपनां शिंपून वाडयलें. आयज ताचो रूख जाल्लो आसा आनी हो रमेशाचो सपन रूख दर एका कोंकणी मनशाक फुलां, फळां आनी सांवळी दीत रावतलो इतलें निच्छीत.

कवी म्हणुन रमेशाचें वेगळेपण ताचे दर एके कवितेंत जाणवता. ताची तुळा कोणाच कडेन करची न्हय. स्वताचें अस्तित्व निर्माण करून ताणें कोंकणी कवितेच्या मळार एक नवो मापदंड मुखार हाडलो. उदेन्ते कवींक ताणें विचार करपाक एक नवो वाठार उक्तो केलो. ह्या वाठारांत भोंवपी आमच्या आयच्या कवींक सैमाचो दिश्टवो जावपी रमेशालीं सपनां वाटे-वाटेर दिश्टी पडटात आनी देखून सैमीक उतरांची मांडावळ आयच्या उदेत्याच्या कवी वर्गान आमच्या अणभवाक येता. म्हाका हांगा अभिमानान सांगन दिसता की म्हजे कविता बरपावळींत रमेशाचो खूब प्रभाव आसा.

रमेशाच्यो यादी खूब आसात. सुरवेक हांव रमेशाक एके वेगळेच नदरेन पळेतालों. १९७६ वर्सा सावन हांव कोंकणी चळवळींत भितर सरलों आनी ल्हवू-ल्हवू कोंकणी वावुरप्यांच्या पंगडांत रिगलों. रमेश एक साहित्यीक आनी कवी म्हणून फुडें-फुडें आसतालो. साहित्यीक दिलीप बोरकार हो म्हजो गांवभाव आनी शेजारी. रमेशालें घरूय आमकां तशें लागींच, देखून आमी एकठांय कशे आसताले. रमेशाचो धाकटो भाव प्रेमानंद हो एक बरो हार्मोनियम वादक आनी गावपी. कार्यावळीं संबंदान ताका मेळपाक म्हजें तांच्या घरा कडेन येवप वचप आसतालें. रमेशालीं कांय गितां प्रेमां चाल लावन गायतालो आनी म्हाकाय गावपाक लायतालो.

कोंकणी भाशेचीं संमेलनां आनी परिशदो आमी केन्नाच चुकयल्यो नात. तीं चुकलीं जाल्यार व्हडलो गुन्यांव केल्ले भशेन दिसतालें. थंय आमचें बेस बरें वतालें. हांव मात्सो फकाणेर. फकाणां मारून इश्टांक हांसोवप आनी हांवेंय हांसून घेवप हें सदांच चलतालें. केन्ना-केन्नाय रमेशाचे गैरहजेरींत हांव रमेशाची नक्कल करून हांसोवपाचें काम करतालों. पूण ताचे फाटल्यान रमेशाचें व्हडपण कमी करपाचो वा ताच्या साहित्याक कमी लेखपाचो इल्लोय हेत नासतालो. रमेशाक ही खबर खंयच्यान तरी पावताली. मागीर रमेश म्हाका म्हणटालो, ''म्हाका दिसना तुका जमतशें. खूब प्रॅक्टीस करची पडटली.''

रमेशाचो साहित्यीक वावर ल्हवू-ल्हवू नेटान वाडपाक लागिल्लो. ताची उतरावळ वाडयली तशेंच ताच्यो कविता एक नवो सोद घेवपाक लागिल्ल्यो. ताच्यो कविता उंचाय घेत कोंकणी मनशाचीं काळजां जिखीत रावल्यो. रमेशान कोंकणीक दिल्ल्या योगदानाची जडाय दिसान दीस वाडत वताली. ती इतली मोटी जाली की रमेशाक कोंकणी भाशेचो मानदंड म्हण मान्यताय फावो जाली. कोंकणींत खुबशीं नवीं उतरां हाडून भाशा घट करपाचो वावर ताणें केलो.

२ ऑगस्ट २०१८ ह्या दिसा अचकीत रमेशाचो व्हॉटसेपार मॅसेज आयलो. ''कशें चल्लां? कांय कविता सुचल्यात. चाली लावशी?''

हांवें म्हळें, '' केन्नाय. तूं धाड.''

नव्योच बरयल्ल्यो कविता ताणें म्हाका धाडल्यो. फुडले दोन-तीन दीस तो म्हाका याद करीत आशिल्लो. चाल तयार जातकच हांवें व्हॉटसेपार गावन ताका धाडली. तो खोशी जालो. गोंयांत येवन सिडी काडपाचो विचार ताणें म्हजे कडेन उक्तायलो. पूण अचकीत घडलें आनी रमेश गोंयांत येवंक पावलोच ना.

पयर बशिल्ले कडेन हांव आमचे सांत आंद्रेचे आमदार बाब फ्रांसीस सिल्वेर हाचे कडेन उलयलों आनी रमेश हो केदो व्हड मनीस आनी ताणें कोंकणी खातीर केल्ल्या वावराचो इतिहास ताका सांगलो. ते खातीर ताचें एक यादस्तीक ताच्या गांवांत जावपाची गरज ताचे मुखार मांडली. आमदारान ते विशीं रोखडीच एक बसका घेवन हाचेर निर्णय घेवपाचें उतर दिलें.

एका तेंपार शणै गोंयबाब आमकां गोंयकारांक अमृताच्या पावसान न्हाणोवंक सोदताले. पुण ते वेळार कांय अबुद्द गोंयकार हो पावस आंगार घेवपाक खांकुड्यले. आयज ही परिस्थिती ना. गोंयकारांक आयज कोंकणीचो दिश्टवो जाल्लो आसा. पूण वायट इतलेंच दिसता की गोंयकार अजुनय स्वाभिमानी ना. ध्येयनिश्ठ ना. आसा तातूंत सूख मानपी गोंयकार कोंकणी राजभास जावन आपलें काम सोपलें अशे मानसीकतेन जगता. तांकां जागे करपाची गरज आसा. म्हाका दिसता रमेश पुरसाचो हो दिव्य सपन रूख आमकां सगळ्यांक एकठांय हाडपाची कुरू थारतलो आनी शणै गोंयबाबाच्या अमृताच्या पावसा वांगडा रमेशाच्या उतरांच्या पावसान न्हावन वतले. धादोस जातले.



# कवितेंतलो 'अलंकार'

हनुमंत चोपडेकार

२१ ऑक्टोबर २०१८ ह्या दिसा कोंकणी कवितेच्या इतिहासांतले एक जेश्ट कवी कवीवर्य रमेश भगवंत वेळुस्कार संवसाराक अंतरले. शरीर रूपान ते हो संवसार सोडून गेले आसले तरीय आपल्या साहित्यांतल्यान आनी खास करून कवितेंतल्यान ते ह्या संवसारांत अखंडपणान जिवे उरतले. रमेश भगवंत वेळुस्कार हांणी कोंकणी भाशेंत विंगड विंगड प्रकारचें उपाट साहित्य रचलां. कोंकणी वांगडा मराठी, हिंदी आनी बंगाली ह्या भासांनीय तांणी बरयलां. तातूंत कविता, कथा, निबंद, नवलिका, बालसाहित्य अश्या साहित्य प्रकारांचो आसपाव जाता. ते भायर संस्कृत, हिंदी, मराठी, इंग्लीश भासांतल्यो जायत्यो फामाद साहित्यकृती तांणी कोंकणींत अणकारीत केल्यात. तातूंत संत तुकारामाचे 'अभंग', रवीन्द्रनाथ टागोरांची 'गितांजली', भारतेंद्रु हरिश्चंद्र हांचें हिंदी नाटक 'अंधेर नगरी', श्री. अरविंद हांचें इंग्लीश नाटक 'एरीक', भास हांचें संस्कृत नाटक 'उरुभंग', चंद्रशेखर कम्बार हांचें कन्नड नाटक 'सिरि संपिगे', पुर्तुगेज कवी कार्लुश द्रुमोन्द आन्द्राद हांच्या साहित्यकृतींचो आसपाव आसा. तशेंच तांचो 'समुद्रमुद्रिका' हो हिंदी कविता झेलोय फामाद आसा. 'मोरपाखां' हो तांचो पयलो कविताझेलो १९७९ वर्सा प्रकाशीत जाल्लो. ते उपरांत 'माती', 'आंगणी नाचता मोर मोरया', 'सावुलगोरी', 'हिरण्यगर्भ', 'तनरजोती', 'दर्या', 'मळब कळी' सारके कविता झेले, 'मोनीव्यथा' आनी 'पर्वनवा' ह्यो दोन नवलिका तशेंच 'कुणेकुस्कूर', 'किराचें शिक्षण' हीं बालनाट्यां, 'भुंक भुंक भिशू', 'चानीमामा', 'फुलपाकुलें' हे बालकविता झेले तांचें गिरेस्त प्रतिभेची गवाय दितात. साहित्य सेवे खातीर तांकां - कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कला अकादमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय, तशेंच केंद्रीय हिंदी अकादेमीचो पुरस्कार अशे जायते मानसन्मान लाबल्यात. प्रस्तूत लेखांत रमेश वेळुस्कार हांच्या वेंचीक कवितांचो आदार घेवन तातूंत अभिव्यक्त जाल्ले 'अलंकार' सोदपाचो यत्न केला.

### अंलकार : एक शास्त्रीय वळख

संस्कृत साहित्यशास्त्रांत काव्यशास्त्राचेर भोव मोठो संशोधनात्मक वावर जाला. नाट्यशास्त्र ह्या आ. भरमुनींच्या ग्रंथांत नाटकाचें एक मुखेल आंग म्हूण काव्याचो तशेंच ताच्या शास्त्राचो सखोल अभ्यास जाला. विभावानुभाव व्यभिचारि संयोगाद्रस निष्पत्ति हो रससिध्दांतूय तांणी मांडून समस्त संवसारांक रसनिष्पत्तिचे प्रक्रियेची स्पश्टोक्ती दिल्या. तांच्या अभ्यासांतल्यान स्फूर्त घेवन भरतमुनी उपरांतच्या हेर विद्वानांनीय काव्यकारण, प्रयोजन, शब्दशक्ती, रससंख्या, छंदशास्त्र, अलंकार, काव्याचे गूण-दोश, काव्याचे प्रकार अश्या काव्यानुभुतींत आसपावपी तरेकवार घटकांचो सोद आनी वेध घेवपाचो यशस्वी यत्न केला. ह्या साबार घटकां मदीं काव्यालंकार हो एक भोवआयामी तशेंच काव्यानुभुतीक सहजता हाडपी काव्यघटक. कोंकणी कवी वेळुस्कार हांचे कवितेंतलो अलंकार सोदचे आदीं अलंकार आनी ताचे स्वरूप प्रारूप समजून घेवप गरजेचें.

साहित्यशास्त्राच्या वा काव्यशास्त्राच्या इतिहासाचीं पानां उगडून पळयत जाल्यार तातूंत 'अलंकार' ह्या उतराचो उपेग खूब पुर्विल्या काळा सावन जायत आसा हाची सुलूस मेळटा. भारतीय संस्कृत आचार्यांनी अलंकार ह्या शब्दाक उंचेल्या पांवड्या वयलें म्हत्व दिल्लें आसा. सर्वसादारण पद्दतीन विचार केलो जाल्यार अलंकार म्हळ्यार खंयचेय वस्तूची ''सोबीतकाय वोडोवपी'' वा तिका ''सुशोबीत'' करपी तत्व. ह्या अर्थान हांगा कवितेक अनुसरून ताचो विचार केल्यार ''कवितेचें बाह्या सौंदर्य वाडेवपी तत्व'' काव्यालंकार जावन आसा अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. काव्यशास्त्रज्ञांनीय कवितेची भायली सोबीतकाय वाडेवपी तत्वाक अलंकार हें नांव दिल्लें आसा. हें तत्व शब्द आनी अर्थ हांचो तेंको घेवन अस्तित्वांत येता. संस्कृत साहित्यांत सगळ्यांत पयलीं आ. भरतमुनींच्या नाट्यशास्त्रांत अलंकाराचो उल्लेख मेळटा. आ. भरतमुनीन नाट्यशास्त्राचो अभ्यास करतानाच काव्यशास्त्र आनी पर्यायान अलंकाराचेर भाश्य केल्लें आसा. आचार्य वामन हांणी 'काव्यलंकारसुत्रवृत्ती' आनी आ. भामह हांणी आपल्या 'काव्यालंकार' (भामहलंकार) ह्या ग्रंथांतल्यान काव्य अलकाराच्या साबार आयामांचेर विश्लेशण केलां. आ. वामनान अलंकाराची मध्यवर्ती कल्पना मांड्टना अलंकाराक कवितेंतलो ग्राह्य (घटक) धरला. -

**''काव्यम् ग्राह्यं अलंकारात सौंदर्यम अलंकारः ''**

वयले व्याख्येंतल्यान आ. वामन कवितेचें सौंदर्य वाडेवपी तत्वाक अलंकार म्हणटा हें स्पश्ट जाता. आ. भामहानूय आपले व्याख्येंत 'काव्यसौंदर्य' ह्या उतराचे विंगड विंगड आयाम स्पश्ट करून अलंकाराचें स्वरूप विस्कायवन दाखयलां. उपरांतच्या काळांत आ. दंडी, आ. मम्मट, आ. जगन्नाथ आनी आ. वामनान अलंकाराचेर आपलीं मतां मांडल्यात. तातूंत. आ. दंडीन अलंकाराक काव्याची सोबाय वाडेवपी ''धर्म-गूण'', जाल्यार आ. मम्मट आनी जगन्नाथान अलंकाराक बाह्यभुषण ह्या नांवान संबोधला.

भारतीय काव्यशास्त्राच्या अभ्यासान अलंकाराचें शास्त्रीय विवेचन मांडिल्ल्याचें दिसून येता. ते भायर अलंकाराच्या शाब्दीक आनी आर्थीक स्वरूपाक मतींत दवरून ताचे मानी प्रकारूय आमकां दिश्टी पड्यत. संस्कृत काव्यशास्त्राज्ञांनी अलंकाराचो सखोल अभ्यास करून ताचे मुखेल दोन प्रकार मानल्यात.

काव्यालंकार

शब्दालंकार | अर्थालंकार

**शब्दालंकार -** शब्दालंकार हो अलंकाराचो पयलो प्रकार जाचें स्वरूप शब्दांच्या वा उतरांच्या विशिश्ट रचनेचेर आदारीत आसता. शब्दालंकार जंय घड्टा ते रचनेक तशेंच मांडणेक म्हत्व आसता. शब्दालंकारांतल्यान शब्दाचें आनी पर्यायान कवितेचें सौंदर्य फुलता जाका लागून कविता भोव सुंदर आनी गोड लागता. हाचे वयल्यानूच शब्दलंकाराचें स्वरूप आनी संकल्पना स्पश्ट जाता. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार जो अलंकार निव्वळ शब्दांच्या आदारांतल्यान कवितेची सोबाय वाड्यता त्या अलंकाराक शब्दालंकार म्हणटात.

**अर्थालंकार -** अलंकाराचो हो दुसरो आनी म्हत्वाचो प्रकार. जो अलंकार अर्थाच्या चमत्कृतीक लागून घड्टा त्या अलंकाराक अर्थालंकार अशें म्हणटात. अर्थ हो शब्दाचो आत्मो आसा अशें म्हटलें जाल्यार अर्थालंकार आत्म्याचें सौंदर्य आसा अशें म्हणचें पडटलें. ह्या अलंकारांत अर्थाक म्हत्व आशिल्ल्यान अलंकार जंय घड्टा थंय त्याच अर्थाचो दुसरो शब्द वापरलो जाल्यार कांयच फरक पडना. हो अलंकार फकत अर्थाच्या खोलायेक लागून घड्टा देखूनच ताका अर्थालंकार म्हणटात.

**वेंचीक धा अलंकारांची वळख**

| क्र. | अलंकार | आकृतीबंद/स्वरुप/देख |
|---|---|---|
| १. | यमक अलंकार | शब्द गरंव नाका आनी उदक झरंव नाका गरयलेल्या शब्दांनी गा बुडोवन उडोंव नाका<br>- रमेश भगवंत वेळुस्कार |
| २. | श्लेष अलंकार | |
| ३. | अनुप्रास अलंकार | |
| ४. | अन्योक्ति अलंकार | |
| ५. | पर्यायोक्त अलंकार | |
| ६. | रुपक अलंकार | |
| ७. | अतिशयोक्ती अलंकार | |
| ८. | व्यतिरेक अलंकार | |
| ९. | स्वभावोक्ति अलंकार | |
| १०. | चेतनगुणोक्ति अलंकार | |

**रमेश वेळुस्कार हांचे कवितेंतले अलंकार :**

लोककवी वेळुस्कार हांणी आपले अलंकारीत काव्यशैलींतल्यान कोंकणी कवितेक एक नवो साज चड्यला. १९७९ वर्सा तांचो पयलो कविता झेलो उजवाडाक आयलो आनी अयंशी आनी णव्वदच्या दशकांत तर तांणी आशय, विशय वा अभिव्यक्तीचे नजरेंतूच न्हय तर आकृतीबंध, रूपबंध, छंदबद्ध तशेंच रस-रूप-गंध अश्या स्वरुपाचें चित्रकाव्य कोंकणी कवितेक भेटयलें. कुळागर प्रकाशनाच्या 'ऋतू' सारक्या नेमाळ्यांतल्यान, आकाशवाणी सारक्या प्रसार माध्यमांतल्यान तशेंच हेर साहित्यीक माध्यांतल्यान तांणी एकंदर कोंकणी कवितेक गेयता आनी लोकसंगीताची अलौकाक भेट दिवपाचें म्हत्वाचें कार्य केलें. लोकसंगीताच्या आनी सुमधूर कोंकणी उतरावळींच्या बळग्यार तांणी कोंकणी कवितेक सौंदर्यवादी नदर भेटयली. तांचे हे नदरेक मूर्त रूप दितना विंगड विंगड अलंकारांची पेरणी तांणी आपले प्रतिभेच्या म्हालवजार केली. प्रस्तूत लेखनांत ताचोच सुपुल्लो सोद आनी वेध तांच्या वेंचीक काव्याच्या आदारान हांगा घेतला.



**'यमक' आनी 'उपमा' अलंकार :**

रमेश वेळुस्काराली सगळ्यांत फामाद आनी समस्त रसिकांच्या काळजांत घर करून राविल्ली कविता म्हणल्यार 'गोंय म्हजें'. हे कवितेंतल्यान ह्या कवीन गोंयचें सैमसौंदर्य चितारलांच पूण तेच वांगडा गोंयकारांचे उजू चलणुकेचें, म्हौंवाळ भावविश्वाचें, स्थीर मानसीकतायेचें, समाजीक लागणुकेचें आनी राष्ट्रवादाचें भोव सुंदर वर्णन केलां. तें करतना तांचे प्रतिभेक यमक, चेतनगुणोक्ती, उत्प्रेक्षा, अनुप्रास अश्या जायत्या अलंकारांचो वांगड फाव जाला. ते पासतूच ते कवितेंतल्यान कवीच्या काळजांतली भावावस्था रसिकांच्या काळजांक आफडूंक पावल्या. 'यमक' अलंकारा संदर्भांत देख दितना हे कवितेचो आरंभ आनी शेवट पळोवं येता -

*गोंय म्हजें गायता म्हज्या दर्या ल्हाराचेर*
*शेतां भाटांत रुजता हांगा गीतां ओंठाचेर (आरंभ)*

..........................................

*नीस जायना गोंयचो मनीस हुपीत वेता धारो*
*गोंयचो मनीस मनीपणाक वचूंक दिना वेरो*
*गोंयकारांनो गावया गीतां हिंद भुयेचेर (शेवट)*

ह्या वयल्या देखींत 'ल्हारांचेर - ओंठाचेर, 'धारो - वेरो' ह्या आरंभाच्या आनी शेवटच्या उतरांनी 'दाम' ह्या यमक अलंकाराच्या प्रकाराचो अविश्कार जाला. यमक हो मुळांत शब्दालंकार जावन आसा. कारण तो शब्दां मदल्या नाद उच्चारणेच्या प्रक्रियेंतल्यान आकाराक येता. ह्या अलंकारांत दोन शब्दांच्या एकसारक्या वा उरफाट्या नांदातल्यान चमत्कृती घड्टा. खासा करून कवितेंत वळींच्या शेवटाक आनी वा केन्ना केन्ना थारावीक जाग्यांचेर एक विशिश्ट प्रकारचो यमक घड्टा तेन्ना ह्या अलंकाराची सुलूस लागता. गीत ह्या प्रकारांत हो अलंकार प्राणवायूचें काम करता. दर एके गीतरचनेंत यमक गरजेचो आसता कारण हो यमक त्या गिताक 'गेयता' फावो करून दिवपाचें कार्य करता. कोंकणी ही एक गोड आनी नादमय भाशा आशिल्ल्यान तातूंत ह्या अलंकाराचो चडांत चड वापर जाल्ल्याचें दिसून येता.

वेळुस्कारांचे कवितेंत दोन तरेचे यमक सेगीतपणान येतात. पयलो 'दाम यमक'; जो कवितेंत वळींच्या निमणे कडेन येता आनी दुसरो 'पुष्प यमक' जो कवितेंच्या वळींत अदींमदीं थरावीक सुवातींचेर येता. हो पुष्प यमक वेळुस्कारांच्या बॉलीवूड गायिका महालक्ष्मी अय्यर हांणी स्वर दिल्ल्या आनी अशोक पत्की हांणी संगीतबद्ध केल्ल्या सुंदर गीतांत भोव ल्हवपीक उतरांनी अभिव्यक्त जाला. तें गीत दीप कारापुरकार हांचे 'सोबीत सफर' हे ऑडिओ सिडींत ध्वनीमुद्रीत जावन रसिकांच्या काळजांत स्थिरावलां.

*शेणला म्हजो गांव शेणलां म्हजें हांव*
*उरूंक ना रे म्हजे कडेन आतां म्हजें नांव*

**उपमा** हो अलंकार उपमा दिवपाचें काम करता हे खातीर ताका 'उपमा अलंकार' हें नांव दिल्लें आसा. अलंकाराच्या ह्या प्रकारांत दोन वेगळ्या वस्तूंचें वा गजालींचें साम्य अतिशय सोबीत तरेन वर्णन केल्लें आसता. हातुंतल्या दोनूय वस्तूंची सर करतना एके तरेचो अर्थात्मक चमत्कार दिसून येता. देखुनूच ताका अलंकार अशें म्हणटात. शास्त्रीय उतरांनी सांगचें जाल्यार जेन्ना उपमेयाक उपमानाची उपमा दिल्ली आसता तेन्ना उपमा हो अलंकार घड्टा. ह्या अलंकाराक आकार दिवचे पासत 'भशेन, परी, वरी, सारके, सारकी' अशे तरेचे शब्द वापरिल्ले आसतात.

'सावुलगोरी' हो एक प्रयोगशील काव्यझेलो. तातूंत 'झाड', 'सावुलगोरी', 'जोगी', 'हेर कविता' अशे चार विभाग आसात. तातूंत अल्पाक्षरी नवकविता आसपावल्यात. ह्यो नवकविता चड्श्यो ल्हान आसल्यो तरीय तातूंत आशय, विशय आनी अभिव्यक्तीची विविधताय स्पश्टपणान दिसून येता. कवी वेळुस्कारांच्या आंतरीक तळमळ्यांचो शाब्दीक आविश्कार ह्या कवितासंग्रहांत जाल्लो दिसता. शब्द, अर्थ, भाव आनी स्पर्श हांचो एक विलक्षण काव्यसंगम ह्या झेल्यांतल्या कवितांनी शब्दबद्ध जाला. ह्या कविता झेल्याचो रूपकार तशेंच अनुबंध कोंकणी कवितेक तसो नवोच. ही कविता फकत शब्दांनी उलयना तर रस, रूप, गंध, नाद, स्पर्श, रंग आनी भाव अश्या विगंड विंगड पांवड्यांचेर ती अविश्कृत जायत रावता. तातूंत कवितेचें बाह्यी सौंदर्य वाडोवचे खातीर उपमा अलंकाराचो अप्रतीम प्रयोग जाला. एक देख -

*खडपा पोंदच्या नीज वज्रयावरी*
*ह्या झाडाचें मन झुळझुळटा*
*त्या सुकण्यांच्यो*
*अजून यादी रक्त फांतोडेर*
झिळमिळटा (०७)

**'उत्प्रेक्षा' आनी 'अनुप्रास' अलंकार :**

'उत्प्रेक्षा' हो कवीकल्पनेक उंच भरारी घेवंक संद दिवपी अलंकार. 'उत्प्रेक्षा' ह्या संस्कृत उतराचो अर्थ 'कल्पना' असो जाता. कवीन आपले कवितेंत जंय जंय कल्पनाशक्तीचो उपेग करून कवितेची सोबाय वाड्यल्ली आसता थंय थंय हो अलंकार घड्टा. ते भायर उपमेय जसो कितें उपमानूच आसा अशे तरेचें वर्णन ह्या अलंकारांत आसता. कवीच्या मनांतली कल्पना आनी कलात्मक संकल्पना ह्या दोनूय गजालींच्या मलापांतल्यान 'उत्प्रेक्षा' हो अलंकार रूप धरता. रमेश वेळुस्कार हांच्या 'हिरण्यगर्भ' ह्या कविता संग्रहांत जायत्या कवितांनी हो अलंकार दर्शन दिता. मुळांत आपल्या जगण्याच्या वा जितेपणाच्या चैतन्याक हिरण्यगर्भाची संकल्पना दिवप हो असीम कल्पनाशक्तीचो एक अप्रतीम नमुनो. मानवी भावभावनांच्या संघर्शांत आनी मानसीक स्तरार घडपी तरेकवार ताणतणावांच्या महात्सुनामींचो आकांत हो कवी हिरण्यगर्भांत चितारता. कवीच्या आंतरीक वेदनांक आनी आत्मीक संवेदनांक शब्दांचें आंगलें चडोवपाची कल्पना ह्या कविताझेल्यांत साकार जाल्या. जल, जमीन, जंगल, अग्नी, आकाश आनी आदिमानवाचो आकांताचो आक्रोश उतरांच्या मापान जोखपाची कल्पना घेवन हिरण्यगर्भ साकाराक येयला. देखून उत्प्रेक्षा अलंकाराक रूप दिवपी कल्पनाशक्त तातूंत पावला कणकणीं दिसता. देखीक -

*काळखाचे तेंगशेर*
*किर्णाचें तोर्ण*
*कर्ण जावन भोगूंक येता*
*सगळे हांगा सर्ण* (हिरण्यगर्भ, ५८ )

हे वयले कवितेंत 'काळखाचे तेंगशेर किर्णाचें तोर्ण' ही कल्पना परिपक्व अर्थगर्भ घेवन येता. तशेंच 'कर्ण' हें यातनांचें न थांबपी महाचक्र कुट्व्लांत घेवन जगपी व्यक्ती-मिथक आपणावन हो कवी आपले कल्पनेक आशय आनी अर्थाची चिंतनशील जोड दिवपाक यशस्वी जाता. हे कवितेंत पुराणीक संदर्भ घेवन आयचे आर्विल्ले जिणेंतूय तो कितलो प्रसंगीक आसा ताची प्रचिती कवी दिता. देखून शेवटाक तो बरोवन वता - 'आतां अशे सगळे खीण, सगळे कडें जाल्या खोर्ण, सगळ्या सुर्यपुतांक हांगा, खीण खीण सुवर्ण मर्ण' (हिरण्यगर्भ, ५९). सावुलगोरी ह्या संग्रहांत 'जोगीची' मूळ संकल्पना कल्पनेच्या आदारान मांड्यना हो कवी बरयता -

*माथ्याक बांदलो फेटो मळबाचो*
*आंगाक पांगुरली माती*
*वयताना तो सांगून गेलो*
*बुद्धाकडची नातीं* (सावुलगारी, ३६ )

कवीचे कल्पनाशक्तीक पोसवण दिवपी अशे तरेच्या उत्प्रेक्षा अलंकाराचो प्रयोग रमेश वेळुस्कार हांच्या दर एका कविता झेल्यांत जाला. तातूंत 'माती' धरून 'मळब कळी' मेरेनच्या साबार कविता झेल्यांचो आसपाव जाता. २०१४ वर्सा प्रकाशीत 'झॅन कविता' ह्या प्रयोगशील कविता संग्रहांतले एके कवितेंत कवी म्हणटा -

*केन्ना झेम पड्ना*
*तेन्ना हांव झाड जातां*
*आनी घराभायर येवन*
*पांय मातयेंत रोवन उबो रावतां (१२)*

Zen झॅन हें उतर जपानी भाशेंतल्यान तशेंच चीनी संस्कृतायेंतल्यान आयिल्लें आसलें तरीय ताचीं मुळां बुद्ध धर्मांतल्या ध्यानसाधनेची संकल्पना मांडटात. ध्यान (Dhyana) म्हणजेच साधना (Meditation) ह्या उतरां पासून (Zen) झॅन हें उतर परिचीत जालां. तातुंतल्यानूच ध्यानकेंद्रीत अवस्थेंतल्यो, मौनांतल्यो आटीव आनी घोटीव कविता झॅन कविता ह्या नांवान फामाद जाल्यात. कोशीक वाङ्मयांत ताचो अर्था असो जाता -

'Zen emphasizes rigorous self-control, meditation-practice, insight into Buddha-nature, and the personal expression of this insight in daily life, especially for the benefit

of others.'

वेळुस्कारांच्या 'झॅन कविता' ह्या झेल्यांत तांचे काव्यसाधनेंतले कल्पनेक पंख दिवपाचें मोलादीक कार्य उत्प्रेक्षा अलंकारांतल्यान जालां. कवीची ध्यानमग्न अवस्था सर्वसामान्यांक अजाण आशिल्ल्या ज्ञानाची जाणीव करून दिता. कवीच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार खीणभरच ती अवस्था लाबता पूण ती अद्‌भूत, अमर्याद, अविनाशी आनी अमीत आसता. अशें हें ध्यान लागता तेन्ना वास्तवता आनी कल्पना हांचो सुवर्णमध्य तांचे कवितेंत अवतरता -

*झिनी झिनी झॅन*
*दोळ्यांत झड्या*
*पावशी शॅन*
*सळसळ पानां खेळ...*
*वारियाचें झॅन*
*भिर भिर झॅन* (झॅन कविता, ०९)

**'अनुप्रास'** हो शब्दालंकार जावन आसा. कवितेचे खंयचेय एके वळींत वा दर एके वळींत एकाच अक्षराची वा एकाच शब्दाची परत परत पुनरावृत्ती जाता तेन्ना कवितेची गोडाय वाड्टा. ताका 'अनुप्रास' अलंकार अशें म्हणटात. हो अलंकार एके तरेची शाब्दीक चमत्कृती निर्माण करता. एखादें अक्षर वा एकाद्रो शब्द कलात्मक रितीन परत परत वापरिल्ल्यान तो घड्टा ते खातीर तो शब्दालंकारांत आसपावता. जायत्या भारतीय भासांतल्या गितांनी आनी गाजिल्ल्या कवितांनी हो अलंकार दिसून येता.देखीक -

*पान पान रूखाचें*
*नाच नाच नाचता*
*नाचत वयताना ल्हवूच*
*काळीज म्हजें वाचता*
(झॅन कविता, ८५ )

वेळुस्कार हो मुळांत शब्द आनी अर्थ हांचे कडेन सेगीतपणान खेळत रावपी कलंदर कवी. केन्ना केन्ना आशयाची गरज म्हूण वा केन्ना केन्ना मोह म्हूण ते नवीं उतरांय घड्यतात. तातूंतल्यानूच अनुप्रास अलंकाराची ताका कितली जाण आसा हें होलमता. एक देख दिवची जाल्यार माधव बोरकार हांणी संपादीत केल्ल्या 'पांच दशकां कोंकणी कवितेचीं' ह्या प्रातिनिधीक कविता झेल्यांतले हे कवितेची देख दिवं येता -

*थेंब दोळ्यांतुलो तुज्या*
*जाला म्हजो वलो*
*ताण*
*ताण पाणयार म्हाका*
*तारी तांणी केलो*
(पांच दसकां कोंकणी कवितेंचीं, ७५)

'सावुलगोरी' ह्या कविता झेल्यांत दुसरो विभाग खासा 'सावुलगोरी' ह्याच नांवान अवतरता. हातूंत वट्ट ०८ शब्दचित्रांचो आसपाव कवीन केला. हीं कवनां कवीच्या मनाकाळजाचो सोबीत, सुंदर आनी मनमोहक थाव घेतात. तातुंतल्यान तांचे कवितेचे शब्द अर्थाचे नदरेन गूढ जायत वतना वाचकाच्या काळजांत एक नवें मोड हाड्टा. सावुलगोरींतलो सावळ्या आनी गोऱ्या रंगांचो मिलाप कवी काळजाच्या पिशोलान रंगयता



आनी आपले कवीकल्पनेचेर प्रयोगशीलतेचो साज चडयता. 'सावुलगोरी' हो विभाग आनी तातूंतल्यो कविता ताची गवाय आसात. सावुलगोरी ०१ हातूंत कवी बरयता -

*सावुलगाळींत सावुलगोरी ...*
*सावुल गोरीच्या, दोळ्यांक झालर*
*झालरीर झर, मोग किनारी*
*सावुलगोरी*
*चुरवळ वंठ, हून - सोनारी*
*सावुलगोरी*
*भुलमलप्यांच्यो, पावुल वोळी*
*चित चंचळी,*
*थीर - थीर - थीर, काळीज करी*
सावुलगोरी (सावुलगोरी,२४ )

**'पर्यायोक्त' आनी 'अनन्वय' अलंकार :**

ह्या अलंकारांत कवी पर्यायांचो वापर करता. तशेंच कवी एकादी गजाल सरळ सांगीनासतना ती वेगळ्या उतरांचो पर्याय वापरून सांगता. अशे तरेच्या अलंकाराक पर्यायोक्त अशें म्हणटात. खाशेल्यो कविता ह्या माथाळ्या खाला अंयशीच्या दशकांत रमेश वेळुस्कार पर्यायोक्त ह्या अलंकराची अशी अनुभुती वाचकांक दिता -

*ही तान म्हजी*
*काय तान ह्या उजवाडाची*
*हो उजवाड काय हे रंग*
*काय रंगाची ही माची*
*हे रंग खरे*
*काय माची खरी...?*
(ऋतू, जानेवारी, फेब्रुवारी, १५)

अनन्वय अलंकार हो एक अप्रतीम तशेंच एक खाशेलो अलंकार. उपमेयाक जेन्ना दुसरी खंयचीच उपमा दिवपाक मेळना तेन्ना कवी उपमेयाचीच उपमा उपमेयाक दिता. हांगा 'अनन्वय अलंकार' घड्टा. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार वेंचिल्ल्या उपमेयाक उपमा दिवपाक दुसरो खंयचोच उपमान योग्य दिसना अश्या वेळार कवी त्या त्या उपमेयाची (वस्तुची) तुळा हेर खंयचेच गजाली कडेन करिनासतना तेच वस्तू कडेन करता.

*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*ना गे चंदनाचे रूख*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*

*लागे मोगाक ही भूक*
(सावुलगोरी, ६९)

वयले देखींत कुळरीचे वाटेची तुस्त तोखणाय करतना एके अस्तुरेचें भावविश्व कवी वेळुस्कार उक्तें करता. तेच तरेन स्त्रीमनांत आपले कुळारचे वाटेर चंदनाचे रूख नासूं पूण मायेमोगाची भूक मात निश्चीत लागता हो भावार्थ उक्तायता. हांगा एक तरेन आपले कुळाराचे वाटेक दुसऱ्या खंयच्याय गजालीची सर येवंक शकना असो अर्थ अभिप्रेत आशिल्ल्यान थंय उपमेयाक उपमेयाचीच उपमा दिल्या. तशेंच यमक, दृष्टांत हेवूय अलंकार प्रस्तूत काव्यांत आयल्यात.

**'रुपक' आनी 'श्लेष' अलंकार :**

'रुपक' ह्या अलंकाराक काव्यशास्त्रांत खूब मोटो मान दिल्लो आसा. जायते फावटी कवी उपमेय आनी उपमान हांचें मदीं एकरुपता दाखयता. म्हणजेच उपमेय आनी उपमान दोनूय एकूच आसा. तांचीं रुपां एकठांय जावन खंयच्या तरी प्रतिकांतल्यान तीं व्यक्त जाल्या असो भावार्थ ह्या अलंकारांत दिश्टी पड्टा.देखीक 'सावुलगोरी' ह्या काव्यझेल्यांत 'हेर कविता' नांवाचो एक निमणो विभाग आसपावला. तातूंतल्यान वट्ट ५५ मध्यम आकाराचीं कवनां वाचकाचे भेटेक येतात. ह्या हेर कवितांनी लोकभाशा, लोकसंस्कृताय, लोकसंगीत आनी लोकभावनांचो एक काव्यात्मक संगम कवीन प्रयोग म्हूण घडोवन हाडला. तातूंत खेळगितां, शिगमो गितां, फुगडी गितां, लोकगिता हांचो संदर्भ घेवन मनशाच्या जिविताचेर आनी तातुंतल्या ल्हान व्हड साबार गजालींचेर ह्या कवीन भाश्य करताना रुपकाचो आदार घेतला. देखीक सकयल्या काव्यांतलो 'कीर' आनी 'मोर' हीं दोनूय रूपकां जावन ह्या अलंकाराची निर्मिती करतात.

*माडावेलो <u>कीर</u> रे, तकली घुंवणायता*
*धुणू धुणू वाजताले ते, दीस गणयता...* (सावुलगोरी, ४४ )

*रे <u>मोरा</u> दिगंतरा, पेट्य कुपां निरंतरा*
*रंग घेवन अंतरांत, गाय मरे सुंदरा* (सावुलगोरी, ६०)

एकेच तरेच्या उतरांतल्यान दोन अर्थ प्रकट करून वाचप्यांक दिपकावन सोडपी अलंकार म्हूण संस्कृत जाणकारांनी श्लेष ह्या अलंकाराची फोडणिशी केल्या. ह्या अलंकाराक जायते फावटीं इतिहासीक, समाजीक, सांस्कृतीक संदर्भ लागून एकाच शब्दाचे विंगड विंगड अर्थ घडिल्ले आसतात. देखीक - म्हाका <u>सोरो लागना,</u> तो <u>भायर पडलो,</u> तो <u>पक्को कॉमो...</u> सारक्यो देखी शब्दाच्या उच्यार्थाक आनी लक्षार्थाक धरून थंय दोन वा दोना परस चड अर्थ अभिप्रेत करतात. हांगा घडपी अलंकार श्लेष अलंकार जावन आसा. वेळुस्कार हांणी ताचो उपाट प्रयोग केला. देखीक - आकड्यावेलीं फुलां, मनांतली जमान हीं सकयलीं उतरां श्लेष अलंकाराक दर्शयतात.

*अशे आकड्यावेलीं फुलां तिणी*
*कुमरजुव्यां दिलीं बा*
*आनी आमच्या मनांतुली जमीन*
*जाली मिर्ग ओली*
(सावुलगोरी, ९९)

**'व्यतिरेक' आनी स्वभावोक्ती 'अलंकार' -**

'व्यतिरेक' अलंकार हो उपमा अलंकाराच्या उरफाटो अलंकार ह्या अलंकारांत उपमेय हें उपमाना परस श्रेश्ट आसता अशें कवी वा बरोवप्यांक सांगिल्लें आसता. ह्या अलंकारांत उपमेयाचें उपमानाचेर अधिराज्य (राज्य) आसता. जाल्यार सभावोक्ती अलंकारांत खंयच्याय व्यक्तिचें, प्राण्याचें वा वस्तुचें ताच्या सभावाक धरून तश्याक तशें वर्णन केल्लें आसता. तातुंतली भाशा थोडिशी प्रयोगशील, कृत्रीम आनी चमत्कारीत जरीय आसली तरीय परिणामकारक आसता. सकयल दिल्ली पयली देख 'व्यतिरेक' अंलकाराची. दुसरी देख 'स्वभावोक्ती' अलंकाराची दिल्या हाची नोंद घेवंची -

*आतां म्हजो उजुवाडू*
*तुज्या बह्मांडाक वेडूं*
*आनी तरीकूय उरूं*
*धा आंगळांनी* (हिरण्यगर्भ, ३१)

एखाद्या व्यासंगी शिल्पकारान एखादें अञ्रंवर अशें कोरीव काम करचें ते भशेन ह्या कवीची दर एक ल्हान व्हड कविता आशय विशयाची सप्तरंगी उधळण करता. आपले काव्यसाधनेंतल्यान हो रचनाकार आपल्या भावतरंगांचो आनी चिंतनशील आनी वैचारीक वलयांचो अक्षरोत्सव सातत्यान अभिव्यक्त करीत रावता. सावुलगोरी ह्या कविता झेल्यांत 'झाड - १६' हे काव्यरचनेंत तो स्वभावोक्ती अलंकाराचो दिश्टावो पळयात कसो घडयता.

*फळान <u>फळ,</u> ह्या झाडाचें*
*ह्या <u>चोंचींनी</u>*
*.... अशें कोंकयलां*
*पानान <u>पान,</u> ह्या <u>झाडाचें</u>*
*ह्या <u>सुकण्यांनीं</u>*
*....अशें <u>पिकयलां</u>* (सावुलगोरी, १७ )

हांगा हे वयले कवितेंत पयले सुवातेर 'फळ - चोंच सवणें - कोंकावप' असो उतरगोफ गुंथून जाल्यार दुसरे सुवातेर 'पान - झाड - सुकणें पिकोवप' असो उतरगोफ बांदून एक विलक्षण सैमीक प्रतिमा कवी चित्रीत करता. हे दोनूय गोफ त्या त्या संदर्भांतलो सभावगूण घेवन अवतरतात ते पासत तातुंतल्यान जावपी काव्यात्मक सोबीतकाय ही 'स्वभावोक्ती' अलंकाराची उत्कृश्ट देख जावन आसा.

**'अन्योक्ति' आनी 'चेतनगुणोक्ति' अलंकार :**

कवी सदांच आपले सामाजीक जाणविकायेन समाजांतले विविध विशय हाताळटा. अन्याय अत्याचाराक वाचा फोड्टा. असमाजीक तत्वाचेर तो आपले कवितेंतल्यान बडी मारता. पूण जायते फावटीं कायद्याक धरून वा कांय तात्वीक कारणांक लागून ताका अत्याचारी मनशाचें वा पंगडाचें प्रत्यक्ष नांव घेवन आरोप करपाक मेळना. अश्या वेळार तो प्रतिकात्मक रूपान दुसऱ्या खंयच्याय सामान्य घटकाचो वा सैमीक घटकाचो उल्लेख करून (अन्य) आपले आरोप प्रत्यारोप करता. हांगा अन्य घटकाचो उल्लेख जाता देखून तातुंतल्यान घडपी अलंकाराक अन्योक्ति अलंकार अशें म्हणटात. कोंकणी कवितेंत हो

अलंकार जायत्या रचनाकारांनी कळोवपाचो सफल यत्न केल्लो आसा. बाकीबाब बोरकार धरून पुर्णानंद च्यारी मेरेनच्या सगळ्यांच कवींचो हो आवड्ये अलंकार. निमण्या कांय दिसांनी वेळुस्कार हांचो पुर्णानंदाक सांगात लाबिल्लो. तोच पुर्णानंद एक कवितेंत अन्योक्ती अलंकाराचो असो उपेग करता होऽऽ होऽऽ होऽऽ होऽऽ होऽऽ होऽऽ आयज धोलार पडल्या बडी रे, हावेसाच्यो उमथल्या धोडीर धोडी, आमी आयल्या झुजाचे वांगडी, हांगा ह्या गायंडोळांनी भेदभावा वीख पेरिलां, सोबीत आमचे मांयभुंयेर बेनुल्लां मातयल्यां, लावंक तांकां देशोधरी.. आमी आयल्या झुंजाचे वांगडी.

खासा करून पुर्तुगेजांक उद्देशून व कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतीचो विरोध करतल्यांक जाप दिवचे खातीर ह्या अलंकाराचो उपेग जाल्लो जाणवता. जाल्यार खासा रमेशबाब आपले कवितेंत जायते कडेन ह्या अलंकाराचो समर्पक वापर करताना दिसता. 'माती', 'आंगणी नाचता मोर मोरया', 'मळब कळी' ह्या झेल्यांनी कांय वेंचीक कविता ह्या अलंकाराची प्रचिती दितात. हिरण्यगर्भ ह्या कविताझेल्यांत तो अलंकार असो आयला -

*म्हज्या प्रियाळांनो*
*म्हज्या सर्वकुशळांनो*
*तुमच्यांत तुमचें स्वत्व बळूं*
*तुमी सगळेच हिरण्यवर्णी*
*तुमच्या मनांत*
*सर्वयामी गिन्यानाचीं*
*मळबां बळूं* (हिरण्यागर्भ, २ )

**चेतनगुणोक्ति अलंकार:** सैमांतली निर्जीव वस्तू सजीव आशिल्ले भशेन मनशा सारकी वागता वा कृती करता अशें वर्णन जंय आसा थंय चेतनगुणोक्ति अलंकार घडटा. हांगा सैमाच्या घटकाक चेतना दिवपाचें काम कवी करता देखून ताका चेतनगुणोक्ति हें नांव दिल्लें आसा. देखीक -

*मळबान म्हटलें,*
*सांग, हांव व्यक्त*
*काय अव्यक्त*
(झेंन कविता, ८१ )

वयले कवितेंत मळबाचें उलोवप दिसपाक उत्प्रेक्षा अंलकारांतल्या कल्पने प्रमाण जरीय भासलें तरीय कवीन मळबाक भेटयल्ले चेतनाशक्तीक लागून तो निव्वळ चेतनगुणोक्ति अलंकाराचो वांटो जाता. प्रस्तूत लेखांत वयर उल्लेख केल्ल्या साबार अलंकारा भायर हेर कांय अलंकारूय काव्यशास्त्राच्या अभ्यासकांनी मानिल्ले आसात. ते म्हणल्यार दृष्टांत, प्रतिमान दिपक, अर्थान्तरन्यास, वक्रोक्ती आदी. तांचोय कलात्मक उपेग वेळुस्कार हांच्या समस्त काव्यांत मेळटा.

**निश्कर्श आनी समारोप :**

संवसारीक नामनेचे कवितेचे जाणकार कोर्टहोप हांणी काव्याक उपाट खोशी दिवपी सर्वश्रेश्ट कलाकृती मानल्या. Poetry is an Art of producing pleasure हें तांचें म्हणणें. तशेंच भारतीय विद्वानांनीय काव्याक आल्हाददायी कलाकृती म्हूण भौमान दिला. संवसारीक आनी भारतीय जाणकारांच्या मतांचो तेंको घेवन विचार केलो जाल्यार कविता नांवाची ही कलाकृती निर्मळ, सात्वीक, आदर्श आनी निर्दोश आसूंक जाय अशें म्हणल्यार अतिताय जांवची ना. कविता रचपी कवी आपल्या आत्मीक सौंदर्याच्या म्हालवजार आनी ईश्वरी प्रतिभेच्या आदारान सदांच निर्दोश कलाकृती घडोवपाचो यत्न करता. देखूनच योग्य आनी मुदयेत थीक कसो अलंकारांचो उपेग करप हो ताचो ध्यास आसता. शब्द आनी अर्थाचो विलक्षण समेळ करून कवी कवितेचें भायलें सौंदर्य वाडोवपी अलंकारांक रूप दिता.



प्रस्तूत कवी वेळुस्कार हांणी आपल्या समस्त कोंकणी कवितेंत अतिशयोक्ति अलंकार सोडलो जाल्यार चडश्या सगळ्याच अलंकाराचो उपेग केल्ल्याचें मतींत येता. तेच वरी छंदशास्त्राचो आनी वृत्त-प्रवृत्तीचोय भोव यशस्वी प्रयोग तांणी सावुलगोरी, हिरण्यगर्भ, 'मळब कळी' सारक्या झेल्यांनी केला. ताच्या काव्यांत अलंकारीत शैली वांगडाच प्रसाद, माधुर्य, समता, समाधी, सुकुमारता, उदारता, ओज आनी कांती सारके गूण सहज नदरेक भरतात. पूण गुढार्थ आनी पुनरावृत्तीचोय दोश मात जायते फावटीं तकली वयर काड्टना दिसता एकेच तरेचो आशय विशय आनी एकेच तरेची अभिव्यक्ती जायते कडेन रसिकांक आडखळ हाड्टा.

वेळुस्कारांच्या काव्यांत लोकसंगिताचीं तरेकवार रुपां भोव अलंकारीत शैलींतल्यान उत्कटतायेन अभिव्यक्त जाल्यांत. सैमीक प्रतिमां आनी थळावीं प्रतिकां हांचो कलात्मक उपेग तांणी आपल्या साधनेंत सेगीतपणान केला. बाकिबाब हांचे उपरांतचे कोंकणींतले ते एक छंदवादी कवी. कारण ताच्या काव्यांतल्यान सूर, ताल, लय, छंद, संगीत आनी अलंकारांचो भोव कलात्मक उपेग जाल्ले पुरावे मेळटात. संस्कृत पंडीतां मदीं आ. विश्वनाथ, आ. दंडी आनी आ. अभिनवगुप्त हांच्यानी ह्या विशयाचेर खूब मोठो वावर केला. तांणी काव्याचे मूळ संकल्पनेचो अभ्यास करून ताचे सरळ दोन भेद मानल्यात. ते म्हणल्यार **श्रव्यकाव्य आनी दृश्यकाव्य**. मनशाचे कान आनी श्रवणयंत्रांच्या माध्यमांतल्यान अंतस्कर्णांत अलौकीक आनंद वा खोशी फावो करून दिवपी काव्याक **श्रव्यकाव्य** अशें म्हणटात. जाल्यार मनशाच्या दोळे आनी कान हांच्या माध्यमांतल्यान रसिकांच्या मनां काळजांत तरेकवार भाव स्पंदनां तयार करपी काव्याक **दृश्यकाव्य** अशें म्हणटात. वेळुस्काराच्या समस्त काव्यसाधनेंत आमकां **श्रव्यकाव्य आनी दृश्यकाव्य** ह्या दोनूय काव्यतरंगांचो दिश्टवो सेगीतपणान घडला आनी घडत रावतलो. तांच्या काव्यसागरांत उफेवपी अलंकारांक लागुनूच रंगरंगयाळी शब्दरचना लाभिल्ली आनी अर्था कडेन आपलिपांनी खेळिल्ली तांची कविता वाचकांच्या वा रसिकांच्या मनाकाळजार राज्य करपाक जैतिवंत जाल्या.

संपर्क: 8805152539

# काव्य-रंग घेवन अंतरांत...

शकुंतला भरणे



गोंयचे मातयेंतलो श्रेश्ठ कवी रमेश वेळुस्कार दिगंतरा पावलो ही बातमी वाऱ्या भशेन खीण भरयांत सगळ्याक पातळ्ळी. फेसबूक, वॉट्सएप आनी हेर माध्यमांतल्यान ही बातमी कांय न्हय करून लोकां मेरेन पावली. कांय वेळ हांव थक्कच जालें. आदल्या दिसाच हांव आनी हेमाबाय नायक मेळिल्लीं तेन्ना मोठे त्रासीकतायेन तें व्यक्त जाल्लें... आगो रमेश वेळुस्कार खूब बरो ना. ताळ्याक कितें तरी जालां. उलोवंक बी जायना ताच्यान.

हांवें तें तितलें गांभिर्यान घेतलें ना. म्हाका दिसलें थंडी बी जावन ताळो सुजला आसतलो. बरो जावन रायबरेलीक सावन परतो येतलो. तरी पुण हेमाबायचें हुस्क्यान भरिल्लें तोंड पळोवन कितें तरी वेगळें घडलां असो दुबाव आयलो. तरीय हांवें तें सहजच घेतलें. आनी दुसऱ्या दिसाच ही दुखेस्त बातमी कानार पडली.

म्हाका म्हजी कविता समृद्ध करपी रमेशबाब याद जावंक लागलो. वाटेर केन्नाय खंयूय मेळ्ळ्यार कितलोसोच वेळ काव्य-संगितांत मग्न जावन उलोवपी रमेशबाब दोळ्या सामकार येवंक लागलो. वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगांचेर आपले परीन सामको मनीसपणान आनी मदत करपाच्या हेतूनच व्यक्त जावपी रमेशबाब; कविता सुंदर जाल्या, तिका संगीतमय अशें वलय प्राप्त जालां म्हणून सांगपी रमेशबाब येवजून आयलो.

एक फावट अकस्मात म्हाका, 'तुजी कविता इकरावेच्या पाठ्य-पुस्तकांत घेतल्या म्हण सुखमयी शॉक दिवपी रमेशबाब दोळ्या मुखार आयलो. आनी मन खीन्न तशें उदास जालें. दरेकलो मनीस आपले भोंवतणीच गुरफटिल्लो आसता. घर-दार, संवसार, सूख दिवपी गजाली आनी कुटुंबीक जापसालदारक्यो... पूण रमेशबाब मात सदांच बिनधास्त दिसतालो. ताका घरचें कांयच लागना काय कितें अशेंय दिसतालें. पूण जेन्ना कळ्ळें, रमेशबाब आपल्या बायल भुरग्यांचेर कितली माया करता, तेन्ना मात रमेशबाबा विशीं मनांतल्यान सन्मान आनी आदर वाडलो.

गोंयच्या संगीत कलाकारां विशींचो लेख बरोवन घेवन तो एका हिंदी मासिकांत छापून हाडपाचें दिव्यय रमेशबाबा खातीरच शक्य जालें. कलाकार म्हणून घडटना तांणी म्हाका खूब उत्तेजन दिलां, हें हांव कशें विसरूं?

''शकुंतल, तुजे भितर एक जबरदस्त कवियत्री आसा. ती जबरदस्त तर आसाच, ती खूब नाजूक आसा, ती खूब लयबध्द आसा आनी ती खूब नजाकतदार आसा. तुवें हो कवितेचो प्रवास संगीतशास्त्राच्या अभ्यासा बरोबर चालू दवरचो पडटलो. तुज्यांतलो साहित्यगूण संगितांतल्यान आनी संगितांतलो गूण साहित्यांतल्यान प्रदर्शींत करपाची जबरदस्त तांक तुजे भितर आसा. तूं काव्या पासून एक अंश लेगीत पयस वचूं नाका... बरयत राव...गायत राव, आनी मुख्य म्हणल्यार हातुंतल्यान तुजी कलात्मकता अदीक आनी अदीक समृद्ध करीत राव.''

म्हजें गुणगान आयकून तेन्ना हांव हुरळून गेलें ना, हें सत्य तुमी मानात वा मानू नाकात. तेन्ना म्हाका दिसलें रमेश वेळुस्कार असो कोण लागून गेला म्हणून हांवें ताचें हें पुराण आयकप आनी स्वता बद्दल अशे गोड गैरसमज करून घेवप? संगीत साधनेची उंचाय खंय आनी ही कोंकणी कविता खंय? हांवें कित्याक म्हणून कवितेंत घुस्पून रावप? साधनेक आकारपाचो हो मार्ग रमेशबाबाक कितें खबर आसा? अशें म्हाका तेन्ना दिसलें आनी परिणामीं काव्य रूजून आयलें जाल्यार तें कागदार पितारप ना आनी तें अशें मनांतल्या मनात धुमसत रावप आनी म्हजे साधनेंतच हांवें मग्न रावप, हो मार्ग हांवें आपणायलो. तंत्रा कडल्यान मंत्रा कडेन आनी मंत्रा कडल्यान कले कडेन परत कविता म्हजे पसून इल्ली लेगीत पयस जावंक ना हाची अनुभुती म्हाका आयली. आनी परत शब्दसुरांच्या राज्यांत हांव शेणलें. आनी एक दीस रमेशबाब वाटेर खंय तरी मेळ्ळो. तेन्ना ताका पुराय शरण गेलें. तुवें सांगिल्लें तें सत्य आनी हांवें चितिल्लें तें अर्धसत्य म्हणटकच तुका मेळून हांवें शरण वचपाचें. आज तूं अचकीत मेळ्ळो म्हणून व्यक्त जातां. रमेशबाबाचो तो निर्मळ हांसो आज दोळ्या मुखार येता आनी मन पिळवटून वता.

पयलेच फावट हांव ताच्या घरा पावलें तो तर यादींत उरपा सारकोच खीण. पुराय दीस ताच्या घरा सारलो. तो दीस आसलो संवसार पाडव्याचो वर्स १९८६ वा १९८७ आसतलें. संगीत, सैम, सृश्ट, मळब, दर्यो, देवळां, झाडां-पेडां, फुलां-फळां, आवय-बापूय, भाव-भयण आनी मना मनाचीं नातीं सांगपी वेगळी वेगळीं उतरां ताच्या संभाशणांत येतालीं. तेच बरोबर संगीत हें नीज उतरांतल्यान कशें येता तेय ताच्या काव्य रसांतल्यान पयलेच फावट अणभवपाक मेळ्ळें. रमेशबाबाच्या घरा तेन्ना ताचे तीन-चार भाव, आवय आनी बापूय. तीं सगळीं गुढी पुजनांत मग्न आनी आमी साहित्यीक गजालींनी मग्न. ताच्या घरांतल्या भायल्या सालांत आमी सहजतायेन गजाली करतात आनी तितलेच सहजतायेन घरांतलीं मनशां हे वटेन ते वटेन वावुरतात. कोणाचीच कोणाकूच आडखळ जायना. सगळेच धादोशी आनी सगळेच आपापल्या कामांनी व्यग्र. म्हाका दिसता हेंच समादानी वातावरण आनी हेंच सहजतायेचें जिवीत रमेशबाबाक एक ध्यानस्त कवी, विचारवंत आनी उत्कृश्ट मनीस म्हण घडोवंक पावलां.

मनीस आमचे मदीं आसतना बरेच फावटी आमकां तांचें म्हत्व कळना आनी अचकीत तो आमचे मदल्यान ना जालो काय ताची उणीव जाणवता. तशें रमेशबाबाचे बाबतींत घडलां. ताची असह्य

अशी उणीव जाणवता.

संगीत साधनेंत बुडटना ताचीं उतरां आनी आदर्श स्विकारपा सारकोच

*हांगा देंवपाक*
*पांवडे नाय / पांवडे नाय*
*हांगा देंवपाक*
*आंवडे जाय / आंवडे जाय*
*कोणें बांदला*
*तळ गा खोल / तळ गा खोल*
*चीर शांतिचो*
*मुक्त ओल / मुक्त ओल*
*मन प्रसन्न*
*सन्त बोल / सन्त बोल*
*मन झुमरा*
*घुमट गोल / घुमट गोल*
*मन निर्मण हांगा*
*गंवडे नाय / गंवडे नाय*
*हांगा देंवपाक*
*आंवडे जाय / आंवडे जाय*

आकारिल्ली जीण आनी सुरासुरांनी सादिल्लो मेळ, उतरांनी घडपी काव्य म्हणल्यार खऱ्या अर्थान सर्वव्यापक.

*हे सर्वव्यापका मळबा*
*म्हज्या समेस्त पेल्यांक*
*तूं तुजी उंचाय दी*
*रे रत्नाधीपती*
*सलीलाधिपती सागरा*
*तूं म्हज्या समेस्त पेल्यांक*
*तुजी खोलाय दी*
*हे व्हांवत्या न्हंयांनो*
*तुमी तुमचेचवरी*
*म्हज्या समेस्त पेल्यांक*
*खळखळ नितळसाण दियात*
*हे फुला तुजो मोग आनी तुजो परमळ*
*म्हज्या समेस्त पेल्यांक शिकय.*
*हे अग्नी*
*तुज्या उन्मुक्त ज्वाळांत जळून*
*पावित्र्यांत फुलपाची अमोघ शक्ती*
*समेस्त पेल्यांक दान दी.*
*स्वता पिकून*
*दुसऱ्यांच्याच भुकेची*
*पर्वा करपी हे वृक्षा*
*तुजो त्याग आनी तुजी दानत*
*म्हज्या समेस्त पेल्यांच्या*
*काळजांत रुजूं दी*



*हे शरीर सासाये*
*धतरी*
*तुजी चीर सोसणीकाय*
*म्हज्या समेस्त पेल्यांच्या*
*काळजांत रिगूं दी.*
*हे मृत्यो*
*तुज्या अमृतमय*
*चिरंतन सातत्याची*
*आंकरी म्हज्या*
*समेस्त पेल्यांच्या काळजांत*
*कोंबरेंव दी*
*हें म्हजें निमित्तमात्र मागणें*
*आतां हांव तुमच्या*
*पांयार ओंपतां*
*भौसार्पणमस्तु*
*भौसार्पणमस्तु*
*भौसार्पणमस्तु*

जिणेचें सत्य, मनीसपणाचें जगप, पंचमहाभुतांतल्या जगपी सत्या कडेन जिणेचें तत्वगिन्यान शिकप आनी तेच नदरेंतल्यान तितलेच सहजतायेन आपली नित्यजीण जग. आनी जीण अशी सहजतायेन जगली काय आपसूक काव्य आनी कला लेगीत तितलेच सहजतायेन आपलो भार वा नेट, व्हांवतो झरो कसो दवरता.

पं. जितेंद्र अभिषेकी कडेन तांचे मुलाखतींत तांकां एक प्रस्न हांवें विचारिल्लो आनी ताची जापय तांणी मार्मीक आनी तितलें अप्रुपतायेन दिल्ली.

प्रस्न आसलो, तुमी फकत बाकीबाब बोरकार हांचीच कोंकणी गितां चड स्वरबद्ध केल्यांत आनी स्वता गायल्यांत अशें कित्याक? तांची जाप आसली, कवी हो परिपूर्ण आसचो पड्य. ताचें काव्य गीत-निर्मितीक पुरक आसचें पड्य. ताचो पिंड्च कविचो आसचो पड्य. बाकिबाबांच्या मराठी काव्यांत लेगीत कोंकणी आत्मो म्हाका दिसता म्हणून बाकिबाबां बगर आनी कोणाचींच गितां म्हाका गायन दिसनात. कारण तीं चालीं सयत, लयी सयत स्वरबद्ध जातात आनी खंयच ओढाताण करची पडना.



रमेशबाबाचें काव्य आनी ताच्या काव्यांतली लयबद्धता, छंदोमयता वाचपाक आनी अणभवपाक जर पं. अभिषेकीबुवा पाविल्ले जाल्यार कोंकणी संगीतांत तेन्ना नक्कीच एक अभिजात आनी समृद्ध अशें कोंकणी संगीत जबरदस्त बुन्याद घेवून केन्नाच घडूंक पावतलें आशिल्लें!

ही गजाल एकदां हांवें रमेशबाबाच्या कानार घाली तेन्ना ताची जाप आशिल्ली पं. अभिषेकी तांच्या जाग्यार श्रेश्ठ पूण गोंयांत पाळये गांवांत बसून सैम रंगांत एकरूप जाल्लो रमेश वेळुस्कारय तसो सामको सान व्हय? म्हजी भास, म्हजें काव्य आनी म्हजी माती म्हाका म्हजे मातये वरी, ताका श्रेश्ठ-कनिश्ठ थारावपी आजून कोणूच जल्माक येवूं ना.

म्हज्या आंगार कांटे आयलो. एक फावट म्हज्यो गुरू डॉ. गंगूबाई हानगल हांणीय म्हाका म्हणिल्लें, ज्या गांवांत तूं जल्मलां, घडलां आनी कलेक पोसल्या त्याच गांवांत तुजीं पाळां मुळां आसतात. थंयच रावून तुज्या गावांतले मातयेचो गंध संवसार भर पातळावपाची तांक कलाकारां मदीं आसतना ताका मुंबय, पुणे, दिल्ली, कोलकोता कित्याक गांठचें पड्य? आपल्या गांवचो, घराचो जाका स्वाभिमान आसा तोच कलाकार म्हजे नदरेंतल्यान श्रेश्ठ. कारण ताचें वेगळेपण तो संवसारार खंयूय भोंवलो तरी ठळक दिसता आनी लोक तितल्याच आपलेपणान मानून घेतात आनी ताची प्रतिभा अधीक फुलूंक पावता.

रमेशबाबाच्यो कविता वा गिताक चाली लायतना ताचे बरोबर बसून चर्चा करप जाताली. आनी चर्चेंतल्यान लोककलेचो थोडो भोव कळटां-नकळटां अभ्यासय जातालो. ताका लागून त्या गितांक कोंकणी मातयेचो गंध सहजतायेन येवंक पावलो. रागान बांदिल्लें ताचें 'रे मोरा दिगंतरा' गीत लेगीत कोंकणी मातयेचेंच संगीत गायता.

*रे मोरा दिगंतरा*
*पेट्य कुपां निरंतरा*
*रंग घेवन अंतरांत*
*गाय मरे सुंदरा*
*सुंदरा वनांतरी*
*मार पावल झंजरी*
*लखलख हो जोगूल जरी*
*रे जाता दिगंतरा*
*रंग घेवन अंतरांत*
*गाय मरे सुंदरा*
*उबार पांखां चितरंगी*
*जावं दी जीण सर्वंगी*
*छुम्छुम हो नाच तुजो*
*भुलयता रे दिगंतरा*
*रंग घेवन अंतरांत*
*गाय मरे सुंदरा*

ह्या गिताची खोलाय आनी गिरेस्तकाय लक्षांत घेतल्यार हाका राग यमनच योग्य. तो राग गर्भश्रीमंत!

हांवें केल्लो हो विचार रमेशबाबाक मानवलो आनी हें सर्गसुखाचो अणभव दिवपी गीत घडलें. मनाच्या गाभाऱ्यांत हीं मोरपाखां रमेशबाबाच्या काव्यरंगाचो अनंत रंग-गंध पितारीत रावल्यांत आनी तातूंतल्यानच आनीकय गितां स्फुरूंक लागल्यांत.

*येता ओली वेता ओली*
*ओली बोली आबोलीची गे॥*

ह्या पदाक चाल धालांची, मुदयेर थीक कशी बसल्या. हे चालींतल्यानच मेळत थंय आज कोंकणी लोकगिताचो प्रसार-प्रचार जावंक लागला. लोक गितांतच संगिताचो जसो प्राण आसा तसो लोकवेदांतूच काव्याचोय प्राण आसा हें रमेशबाब आनी हांवें वांगडा बसून आमकां ताची प्रचिती आयल्या. हें सूर्य प्रकाशा इतलें सत्य दाखोवपाचें भाग्य रमेशबाबाचे काव्य निर्मीती निमतान म्हाका मेळ्ळें तें हांव कशें विसरूं? हांव विसरलें तरीय हेमा नायक, पुंडलीक नायक, चंद्रकांत केणी, उदय भेंब्रे आनी दो. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या अस्तित्वान घडिल्लीं हीं सावुलगोरींतलीं गितां म्हणल्यार म्हजे खातीर कोंकणी सरस्पतिच्या आशिर्वादाची ती पर्वणी कशीच आशिल्ली. गिताची चाल पयलीं काय गीत पयलीं, गिताचे सूर पयलीं काय शब्द पयलीं, गितांतली कला पयलीं काय कलाकार पयलीं अशे साबार प्रस्न कलेच्या, साहित्याच्या प्रांतांत येत रावतात आनी कितलेशेच वाद घालीत रावतात. पूण, एखादें मडकें घड्यतना कलाकार ताका कसो आकार दिता तसो आपले कलेक आकार दीत हो कलाकार घडत रावता. आपूण घडटना तो सरभोंवतणच्या वाठाराक आनी थंय वास करून रावतल्या प्रेक्षकांकय घड्यत रावता. तसो रमेशबाब आपल्या कवितांच्या निजांतल्यान आपले भोंवतणचो समाज घड्यत रावलो. समाज घड्यतना आपलें सामर्थ्य उतरांनी सांगनासतना काव्यांतल्यान पट्यत गेलो.

एक एक फावट मनशाचें सादें राहणीमान आमकां समजना. तो सर्वसामान्यां मदीं रावून लेगीत असामान्य आसा हें सत्य खबर आसून लेगीत आमी तें नदरे आड करतात, आनी तो एक दीस सोडून गेलो काय आमी तें व्यक्त करतात... बरेचदां अशें घड्टा. अशें कित्याक घड्य? आमी स्पर्धात्मक जिवीत जियेतात...आमी जिणेचीं सुखां घेत कलेचो आनंद घेतात. हातूंत आमचो मुखेल हेत आसता तो सुखां प्राप्त करून घेवपाचेर. देखाव करपा कडेन कल चड प्रमाणांत आसता. हातुंतल्यान साधनेचें बळगें आशिल्ले लोक मदीं आयले काय तांचो त्रास जावंक लागता. कारण, खरे उपासक मोजके आसतात आनी देखावे भरपूर आसतात. म्हणटकच आपसूकपणान देखावे करप्यांची सत्ता कांय तेंप काय जायना चलूंक लागता. हातुंतल्यान घड्य तें एकूच, निजाचो कलाकार वा साहित्यीक हाका कांयच

फरक पडना. तो आपली साधना चालूच दवरता. तशी रमेशबाबान आपली काव्य-साधना निरंतर चालू दवरली. निमाणो स्वास घे मेरेन तो कविताच जगलो.

तो खऱ्या अर्थान मनीसकायेच्या सान्निध्यांत जगलो.

*म्हज्या मनशांनी*
*दिलां म्हाका*
*आयाव जिणेंचें देणे*
*उल्लेले खीण जाल्या*
*घावो कशें दूख*
*आयाव जीण*
*हे जिणेंत अश्वत्थामा*
*ताची संवकळ म्हाका जाता*
*आतां केणां-वेणांची*
*जीण ही*
*सद्दरी भळभळ व्हांवता*
*आको माको तेल माको*
*कोणूय म्हाका तेल घालो*
*फांती नास्तना आयाव जिणो*
*लागल्या खेळूंक धालार धालो*
*तेल जाय तेल बेला*
*धांव रे बाबा तेला*
*फायची तुजी जीण सोबीत*
*कोण नवो आयला*
*आयाव जीण भळभळीत*
*चुरूचुरू जळटा*
*पाखां म्हजीं वयता जळत*
*तरी परत बळटा.*

रमेशाची अंतरिची वेदना व्यक्त करपाची तरा खूब वेगळी. आपल्या सरभोंवतणच्या समाजाक ताणें आसा तसोच मानून घेतिल्लो आनी तो आपले परीन बिनधास्त जगतालो.

*येत परत परत*
*ह्या मालवजार तूं*
*रावूंक नाका*
*हीं पाखरां*
*पाखां फुटलेलीं*
*काळीज वगीच तूं*
*दुखवं नाका*
*ही रितूच*
*हांची असली*
*ती मळबां हुपीत भोंवची*
*याद सोडून, जमनी वयली*
*जीण नदर, मळबांत सारची*
*जर तूं*
*चुकून मेळ्ळी तांकां*
*यादी फाटल्यो सांगूं नाका*
*उदास चिंतनानी ह्या*
*तांचीं*
*जळून वचत गो पाखां*
*दिवचेंच दिसलें जाल्यार दी गे*
*सासाय सामकी सान*
*उडून वयत्या पाखांक*
*लागची न्हू*
*दुसऱ्या पांखांची तान*

जल्म आनी मरण हें संवसारांतलें सत. तें कशेंच न्हयकारूं नज. पूण मदलें जिवीत जगतना आपल्या आयुश्याक आविश्कारांनी तोलपी आनी सहज जीण जगपी जीव मेजकेच आसतात. तांकां हे मातयेचो आशिर्वाद लागता. आवयची सावळी दिवपी कुळाराची माया लागता.म्हजी माती हेंच म्हजें कुळार अशें एक फावट रमेशबाबान म्हणलें आनी ताचें कुळाराचे वाटे ही चाल घडली...

*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*बाये आंबियाचे मळे*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*गाय कोगुळांचे गळे॥*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*न्हंय पैंजण पांयाची*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*जाय परमळ मोगाची ॥*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*सुकणीं घाली उलो*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*दोळो यादीन गे ओलो ॥*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*ना गे चंदनाचे रूख*
*म्हजे कुळरीचे वाटे*
*लागे मोगाक ही भूक ॥*

रमेशबाब, आमकां तुजे कवितेच्या मोगाची भूक लावून तूं गेलो दिगंतरा

*आमकां तुज्या सभावाची माया लावून तूं गेलो मळबादारां*
*आमकां हे मातयेची ओड लावून तूंच जालो माती आतां...*

आमी रावतात तुजें मातयेचें संगीत, तुज्या सर्वव्यापका मळबाक, आतां समेस्त पेल्यांक तुजे कवितेची उंचाय दिवंक... तिका साकारपाची वाट चलतना रमेशबाब तूंच आमकां बळगें दी... संवसारांत अस्तित्व आसा सर हे जिणेचें सत्य होलमुपाची तांक दी.

संपर्क: 9423059022



# पिसोळ्याच्या पांखा...

**नूतन साखरदांडे**

अजूनय दिसता एक दीस तरी बेल वाजतली, खाडाक हात लायत लायत रमेश भितर सरतलो आनी बोटवो टिपॉयचेर दवरून म्हण्टलो, ''इल्लें उदक हाड गो..'' आयज १५ दीस जाले रमेश गेलो हे मनाक अजुनूय पटना. दिसता तो रायबरेलीकूच आसा.

कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार ह्या व्यक्तिमत्वाक म्हाका दिसता हांव १९८० च्या अदमासाक वळखतां. तेन्नाच हांव कोंकणी बरोवंक लागिल्लें, पूण नेमकी भेट याद जायना, एखाद्र्या साहित्य संमेलनांत आसत वा वळवय पुंडलीक - हेमाल्या घरांत, पूण ताची वळखीं पयलीं ताच्या कवितांक हांव चड वळखताले. एखादया कवी संमेलनांत मुदयाळ्या लांब केंसाचे, मोटव्या हातांचो शर्ट घालून आपल्याच तंद्रींत 'व्हडे राती' वा 'शीर शीर शीर नाम्नुबे' सारक्यो कविता सादर करतालो तेन्ना ताची विशिश्ट लकब, भुमिका खूब भावताली. ताच्या कवितांक लोकगिताची बाज आशिल्ल्यान सगळें वातावरण नादमय जावन मंत्रमुग्ध जातालें.

ताचे उपरांत १९८१ मे च्या अदमासाक ताचें मिथिलेश श्रीवास्तव हे रायबरेलीचे चलये कडेन मोगान लग्न जालें, आनी आमकां ताचें अप्रूप. तिच्या शिक्षिकेचे नोकरे खातीर ताणें रायबरेली रावप आनी रमेशान गोंयांत आपली नोकरी आनी साहित्य चालू दवरप ही आगळी वेगळी तडजोड तांणी आपखोशयेन स्विकारिल्ली. ते खातीर ऑक्टोबर आनी मे म्हयन्याच्या सुटयांनी तो गायब जातालो.

रमेश हाडाचो कवी आसुनूय ताणें नवलिका, ललित कथा, नाटक बालसाहित्य आनी हेर साहित्यप्रकार केळयले. हाचें कारण म्हळ्यार ताचें अफाट वाचन. पुस्तक प्रदर्शनाक गेल्ले फावट कितलींशींच पुस्तकां विकतीं घेवन तो बोटव्यान घालून हाडटालो. आनी पाळ्यां आपले माळयेर खाटीर मांडटालो आनी सवकासायेन आसरमांडी घालून तांचे गंभीरपणान वाचन करतालो. आपणें वाचले उपरांत एखादें आवडिल्लें पुस्तक दुसऱ्यांकूय वाचपाचो आग्रो करतालो. ताचें एक वैशिश्ट म्हळ्यार सगळ्या भाशांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें.

मोरपांखा ते मळबकळी मेरेनचो ताचो काव्यप्रवास फुलत फुलत गेलो, तो केन्नाच थांबलो ना. आपली प्रांतणा फुलयत गेलो आनी ताचो मनसोक्त आस्वाद काव्य रसिकांनी घेतलो, हे खातीर भारतीय साहित्यीकांभितर ताका मानाचें स्थान आशिल्ले.

आमच्या कुटुंबाचे ताचे कडेन चड घनिश्ट संबंद जावपाक कारणूय तशेंच घडलें. १९९९च्या जानेवारी म्हयन्यांत म्हजी ''शेणिल्लो गांव'' ही कविता आकाशवाणीच्या सर्व भाशा कविसंमेलनांत वेंचून आयली आनी ती सगळ्या भाशांनी अणकारींत जाली. योगायोगान तिचें सादरीकरण लखनौ आकाशवाणी केंद्राचेर जावपाचें आशिल्ल्यान आमी लखनौ वचपाची तयारी केली. आमी म्हळ्यार अरुण, हांव आनी आमचीं भुरगीं अखिल आनी यशांक.

लखनौ म्हूण कळटकच हांवें बेगोबेग रमेशाक फोन लायलो.''रमेश, म्हाका लखनौ आकाशवाणीचेर कविता वाचपाचो योग आयला. रमेश एकदम खूश जालो, ''तूं यो मरे आमचे बरोबर, म्हणजे आमकां रायबरेली वचूंक मेळटलें.'' हांवें आग्रोच धरलो. रमेश तेन्ना पिलार शिकयतालो. ''इतले दीस सुटी मेळत शी दिसना गो, पूण तूं काड तिकेट, पळोवया कितें जाता तें...'' अशें म्हणून म्हजी उमेद आनीक वाडयली. पूण ताका सुटी मेळ्ळी ना आनी तिकेट कॅन्सल करची पडली. रमेशाक आपूण आमचे बरोबर येवंक शकना हाचें खूब वायट दिशिल्ले, पूण आमी ताच्या घरा रायबरेली वचून येवंकूच जाय अशें उतर ताणें आमचे कडल्यान घेतलें.

लखनौ आकाशवाणीचो कार्यक्रम म्हळ्यार म्हजे जिणेंतलो आनंददायी सुवर्ण खीण. भरगच्च भरिल्लें सभाघर, दर्दी रसीक आनी रसिकांची दाद... केन्नाच विसरचे ना. ते कार्यावळी उपरांत आमी दुसरे दिसा सकाळींच रायबरेली वचपाक भायर सरलीं. तेन्ना लखनौ शुन्य डिग्री तापमान आशिल्लो. आनी आमकां थंडी सोसनाशिल्ली. दांत कडकडटाले, तोंडांतल्यान वाफो येताल्यो. अशे परिस्थितीत रमेशाची बायल आमकां बस स्टॉपार व्हरूंक आयली तेन्ना तिचें प्रसन्न हास्य पळोवन आमचो सगळो हुस्को गेलो. मिथिलेशान आमचें खूब बरें आदरातिथ्य केलें. तीय 'साहित्य मोगी' देखून आमच्यो खबरी बऱ्यो रंगताल्यो. तिणें आमकां लखनौ भोंवडावन हाडलीं.

आपल्या शेजाऱ्यां कडेन वळख करून दितना म्हणटाली, 'मेरी ननद आयी है गोवा से, ये भी कवी है, इनका लखनौ मे कार्यक्रम था', अशें सांगतना तिच्या तोंडार अभिमान दिसतालो. दोन-तीन दीस शेकोटी पेटोवन सांज वेळार आमी बसताली. तातूंत तिगेली भुरगीं सिमंतीनी (सिभु) ऋतंभरा (आस्था) आनी ऋतुराज (भय्यु), तिची भयण दुर्गा, तिचो बाबुजी आनी आमी आंगणांत बसताली. तेन्ना रमेश आमचे वांगडा आसपाचो अशें खूब जाणवतालें.

'नुतनबुआ, वापस कब आओगी' अशें म्हणत आमचो निरोप घेतना भुरग्यांचे दोळे भरून आयिल्ले. पळोवन आमकांय आनीक रावन दिसतालें, पूण ट्रेनीची तिकेट काडिल्ली, आनी आमची नोकरी, भुरग्यांची शाळा आशिल्ल्यान आमी गोंयां परतलीं. तीं एक नव्या नात्याची पोटली काळजांत घेवन.

मागीर तीं गोंयांत येतात तेन्ना हक्कान तांणी आमगेर येवप आमी पाळयां वचप हें सामकें थारिल्लेंच.

रमेशान म्हज्या 'जीण जाली कस्तुरी' ह्या कविता संग्रहाक सोबीत अशी प्रस्तावना बरयल्या. तशेंच अरुणाच्या 'कावळ्याचें श्राद्ध' ह्या पुस्तकाचें लोकार्पण रमेशानूच केल्लें आनी आमच्या हेर पुस्तकां

वेळार प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष रमेशाचो आदार आनी मोलादीक सुचोवण्यो आसताल्योच.

रमेश रायबरेलीक गेलो की ताणें फोन करप म्हाका वा अरुणाक, आनी ताचे तीन हमखास प्रस्न आसताले, १) कितें चल्लां गोंयांत कोंकणीच्या मळार, २) हालीं नवें कितें बरयलां, ३) सध्या कसल्या पुस्तकांचें वाचन चल्लां?

नवें कितें बरयला? ह्या प्रस्नाक जाप दितना हांव म्हणटालें, "व्हडलेंशें काय ना रे, एकूच कविता बरयल्या". जाल्यार घे म्हजेर फोग... तुमी मुगो, कांयच वाचिनात आनी तुमी वाचपाक वेळूय काडिनात (तुमी म्हळ्यार सगळ्या कवियत्रींक उद्देशून) आनी म्हाका हेर भाशांतल्या कवियत्रींचीं उदाहरणां दितालो, तांची कविता कितली फुडें पावल्या पळे! तुमी रांदचीं कुडींत घुस्पल्यात. मागीर तुमची वाड कशी जातली? म्हाका मागीर खूब वायट दिसतालें. म्हजीच म्हाका तिडक येताली आनी हांव हात, पांय आपटीत रांदचे कुडींत वतालें आनी त्या दिसा रातचें म्हाका सप्न पडटालें. हांव बरें ओल्तेरार बसून पुस्तकां वाचतां आनी अरुण नुस्तें उजरायतां, मिक्सरार वांट्टा, भाजी करता, कुकर लायता आनी जेवणाचें ताट घेवन म्हजे मुखार उबो रावता.

कितेंय आसूं, हें सगळें तो पोट तिडकीनूच उलयतालो. कोंकणी कवितेक प्रतिश्ठा आमी मेळोवन दिवची ह्या हेतून.

म्हाका, रमेशाक मेळप खूब आवडटालें. आमचें मेळपूच जायना रे अशें अरुणाक म्हण्टालो. आनी जेन्ना जेन्ना आमी मेळटालीं आमगेर किंवा तांगेर तो साहित्याचेर भरभरून उलयतालो. हेर भाशांनी नवें कितें चल्लां हाची म्हायती ताका आसताली आनी साहित्याचेर उलयतना वरांचीं वरां कशीं सरताली कळनाशिल्ले.

रमेशाक कांय गजाली गुप्त दवरूंक खूब आवडटाल्यो. देखून तो रायबरेली केन्ना वतलो हें सांगनाशिल्लो. केन्ना येतलो तेंय कळयनाशिल्लो. ताका surprise दिवंक खूब आवडटालें. खंयच्यान आयला तेंय सांग नाशिल्लो. आनी खंय वता ताचोय वास लागूंक दिनाशिल्लो. ताणे आपल्या दुयेंसाचे बाबतींत तेंच केलें. कोण्णाक वास लागूंक दिलो ना. एकल्यान सोंसलें, एकल्यान भोगलें.

तुज्या दुख्खान आमकां वांटेकार जावपाची इल्ली सुद्दा संद दिली ना तुवें, कित्याक केलें तुवें अशें? तुजो इतलो इश्ट परिवार आशिल्लो... सादें तें करून आमकां फटयत रावलो. इतली शक्ती खंयच्यान आयली तुजे कडेन? एक दीस हॉस्पिटलाचे खाटीर न्हिदलो ना वा कांय उपाय करून घेतले नात घडये म्हाका दिसता तूं सर्वसामान्यांचे पलतडीं पाविल्लो.

२००७ क सुमार रमेशान लेपटॉप घेतिल्लो. आनी ताणें देवनागरींत बरोवंक सुरू केल्लें. हालींच्या वर्सांनी तर तो सामको expert जाल्लो. सगळ्या दिसाळ्यांक म्हयनाळ्यांक सगळे लेख, कविता मेल करून धाडटालो. सोशल मीडियाचेर तर सामको active. दिसाक एक तरी पोस्ट घालतालोच.

हांव ताका म्हण्टालें, "कसो रे तूं इतलो फास्ट देवनागरी टायप करता? म्हाका जमच ना मरे". आगो, हें सगळें सोंपें आसता गो, कठीण कांय नासता, तूं यत्न कर, तुकाय जमतलें.

रमेश ह्या वर्सांनी सुंदर गद्य बरयतालो कोंकणींन तशेंच मराठींतूय. आयतारचो ताचो फोन आयलो की म्हाका घस्स जातालें, आतो हो विचारतलो, वाचलो गो म्हजो लेख? ना रे. सांजचें वाचता म्हळ्यार पिकार जातालो. लेख वाचून आमी आपूण जावन अभिप्राय दिवचे ही ताची ल्हानशीच आमचे कडल्यान अपेक्षा आसताली. ती आमी पुराय करूंक शकलीं नात हाची आतां खंत भोगता.

कोणूच कांयच वाचिना ही खंत ताणें खुबदां आमचे कडेन उक्तायल्या. उपरांत म्हणटालो, कोणाक कांयच कळचना, मागीर वाचून सांगतले तरी कितें? आनी आपुणूच हांसतालो.

रमेशान खुब्ब बरयलें, आनीकूय भरपूर बरयतलो आशिल्लो आनी ताणें सांगुनूय दवरिल्ले. ताणें आपलें काम अर्दकुटें दवरून अकस्मात exit घेतली.

रमेश, तूं म्हजेर शिणटालो मरें, हांव बरयना म्हूण. हांव मान्य करतां हांगा सुद्धा हांवें बरोवपाक वेळ काडलो. मनांत खूब खदखदतालें, कशें मांडप कळनाशिल्ले. पेन हातांत घेवन बसका मारप जमनाशिल्लें. आतांय तुका दोळ्यां मुखार हाडून बरयलां. म्हाका दिसता तशें, याद आसा तें, आनी तूं म्हाका समजला तसो.. इल्लेंच बरयलां आनी खूबशें उल्लांय बी...

समजून घे...

संपर्क: 9970445778

(पान १२ वयल्यान)

साहित्याच्या कसा विशीं तो उलयतालो आनी कांयच खोलाय, उंचाय गांठीक नासतनाय मिरयतात तें पळोवन सणकतालो. तांकां तशें सांगपाक आनी बरोवपाकय तो फाटीं राव नासलो. हाका लागून चापलुसी होच धर्म अशें दिसपी जायत्या जाणांक वायट दिसूनय ते रमेशाक टाळूंक शकनाशिल्ले आनी 'रमेश मरे तसोच..!! तो घुस्पायता..!' म्हणत ताचे लागीं जुळोवन घेताले.

रमेश खूब भोंवला. खूब लोकांक मेळ्ळा. ताका तें वेसनच जडिल्लें. वेगळ्या वेगळ्या भासांतल्या लोकांक मेळप आनी कसल्याय विशयाचेर तांचे लागीं वरांचीं वरां भासाभास करप ताका आवड्यलें. मागीर तो आपलीं सगळीं कामां विसरतालो. घरा वचूंक जाय, आपल्याक निमणी बस धरूंक जाय म्हणपाचें लेगीत तो विसरतालो. आनंद सिनेमांतलो राजेश खन्ना (आनंद) अनवळखी लोकांक लेगीत आपलो खूब पोरणो मित्र म्हूण पाचारतालो तसो रमेश करतालो आनी तांचे कडेन नातीं जोड्यलो. हातुंतल्यानूच रमेश विश्वव्यापी जावंक पावलो. ताचे भितर एक आध्यात्माची झालर आयली. झेन तत्वगिन्यानाचीं पुटां ताच्या फकीर वृत्तीक दसलीं तीं तेच पासत. देखून ह्या 'अक्षरयात्री'क हांव 'जिनियस' आनी 'झेनियस' म्हणटां तेच पासत. रमेशाचेर खूब बरोवं येता.पूण रमेश आमचे मर्दी ना आनी तो म्हाका केन्नाच मेळचोना हें सत्य पचोवंक म्हाका जड जाता आसतनाय हें इतलें बरोवप म्हळ्यारूय अजाप शें..!!

संपर्क: 9822136885



# रमेश वेळुस्काराची याद करतां करतां...

जेस फर्नांडीस

खूब किर्ते किर्ते येता म्हज्या मनांत सांगिल्ल्यो खूब गजाली खुणखुणटात कानांत. खूब काळ आदली आमची इश्टागत ती. केन्नाच मातूय खंड पडिल्ली नासली. म्हजी आनी रमेशबाबाची वळख १९७५ वर्साची. त्या वर्सा हांव लग्न जावून, म्हजे घरकान्नीच्या आवयच्या घरा गेल्लो आसलों, व्हडल्या गोंयां. आनी ती सांत ऍंड्रू हेच शाळेंत वावुरताली. ती घरांत नासली ते खातीर हांव तिचे शाळेंत तिका भेटूंक गेल्लों. ते वेळार तिणें म्हाका आपल्या कांय खास इश्टांची वळख करून दिल्ली. तांचे मदें भोवमानेस्त रमेश वेळुस्कारबाब आसलो. गोड आनी मायेस्त सभावाचो आनी हांसत्या मुखामळाचो व्यक्ती. तो थंय सर कोंकणी शिकयतालो. आनी तो एक लेखक आनी कवी आसलो. ते खातीर आमची दोगांयची वळख पयलेच खेपेक घट्ट जाली.

तो म्हाका लागींचो आनी खूब काळाचो इश्ट कसो दिसूंक लागलो. केन्ना-केन्ना हांव व्हडल्या गोंयां म्हज्या मावोड्या गेलों जाल्यार आनी ताका मेळपाची संद आसली जाल्यार हांव वचून ताका मेळटालो. ते वेळार दोगांय आमचे भलायकेची आनी घरच्यांची खबर घेतले उपरांत, साहित्याचेर आनी कवितेचेर उलयताले. आमी एकामेकाचे विचार मांडटाले. ताका वेळ आसा ते प्रमाण आमी केन्नाय दुसरे कडेन मेळून आमचो वेळ सारताले. आनी सांगातान सारिल्लो वेळ सदांच मोलादीक जावन उरलो. ताचे विचार सदांच उंच मोलाचे आनी सरळ आसताले. ताचे बरोबर आसतना, वेळ कसो सोंपतालो ताचो अदमास मेळनासलो.

ते उपरांत आमी कोंकणीच्या कार्यावळींनी वांटो घेताले तेन्ना खूब फावटीं एकामेकांक भेटल्यात. अनेक विशयांचेर आनी कोंकणीच्या संदर्भांत थंय भासाभासो जाताल्यो. अशे तरेन दीस वताले तशे आमची इश्टागत वाडत गेली. खुबदां एकामेकाक मेळप जातालें तेन्ना ताचें उलोवप सामकें नेमांक धरून आसतालें. चडश्या प्रस्नांक ताचे लागीं जापो आसताल्यो. म्हज्यो कविता जांकां मानवताल्यो तातूंतले ते एक आसले. ताच्योय कविता म्हाका मानवताल्यो. ते खातीर आमी एकामेकांक कांय काळ मेळूंक शकलेनात जाल्यार एकामेका लागीं आमी फोना वयल्यान संपर्क सादताले.

रमेशाबाबाच्यो कविता साद्यो आनी सोप्यो आसताल्यो. ते भायर ताची एक खाशेली शैली आसताली. ताच्या उतरांक संगीत आसतालें. ताचे कवितेंत गांवगिऱ्यो वस्तू, वातावरण आनी सैम आसतालो. कसलेय वस्तूचेर वा विशयाचेर रमेशबाबान एक कविता बरयली जाल्यार ते वस्तुचें अशें वर्णन जातालें की ते वस्तूची सुंदरकाय आनी मोल वाडटालें. ताचीं गितां काळजाक हात घालपी आसतालीं. ताचे कवितेंत सुंदरकाय मोलाची आसताली.

ताणें आपल्या कवितांनी विशयाक सदांच न्याय दिला. सुंदरकायेन श्रृंगारला. बेश्टींच उतरां जुळोवन कवीत रचप्यां मदलो तो न्हय. हेंच ताचें खाशेलपण. तेच भशेन घडये तो बरयतालो आसूं येता. ताच्या बरपांत भरपूर जाणविकाय आनी जाणवाय आसताली. संशोधन आसतालें. बरपावळ सारकी संपूर्ण विशयाक धरून आसताली.

तो माचयेर उलयतना, हांवें जायते फावटी पळयलां, विशय मांडटाना ताचो केन्नाच घुस्पागोंदळ नासतालो. सरळपणान आनी समजीकायेन तो आपले विशय मांडटालो. भासाभास करतना, तो बरे तरेन मुद्द्यांक धरून आसतालो. तो बरो बुद्दीवंतूय आसलो. ताका जायत्या भासांची आनी त्या भासांनी बरयल्ल्या साहित्याची बरी वळख आसली. त्या भासांनी वेगळ्या वेगळ्या लेखकांनी बरयल्लें साहित्य ताणें वाचिल्लें आनी ते पचयल्लें. जायत्या जाणांचे विचार ताणें समजून घेतिल्ले. तातुंतल्यान एक वेगळी वाट धरिल्ली. वेगळे वेगळे विशय ताणें हाताळिल्ले आसात. दुसरे भाशेंतलीं जायतीं पुस्तकां आनी बरपावळी ताणें भेस बरे तरेन कोंकणींत उतरायल्ल्यो आसात. तशीच कोंकणी बरपावळूय दुसऱ्या भासांनी उतरायल्ली आसा.

एक इश्ट कसो रमेशबाब, सामको तुका आपलो मदलो वेळ आनी आदार दिवपी. दुसऱ्याच्यो अडचणी सुटाव्यो करपाक तांकां आपलो आदार दिवपी. दुसऱ्यांच्या बरपावळींनी पासून तो आपलो हातभार लावून, त्यो सोबीत आनी सुंदर करपी. ताच्या वांगडाक बसल्यार, वेळ कसो आनी केन्ना सोंपतालो हाची कल्पनाच उरनाशिल्ली.

ताचे लागीं संवाद करपाक म्हाका खूब आवडटालें. कारण, ताचे विशय सद्दांच गरजेचे आनी उपेगाचे आसताले.

तो एक खेपे कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आसलो. आमी वांगडी आसले. ताच्या अध्यक्षपणा खाला थंय सर आमी जायतो आनी अनेक तरेचो वावर केला. भाशा मंडळाचे शाळेक ताचें बेस बरें मार्गदर्शन फावो जालें. आमी थंय सर जायत्या कार्यावळी केल्यो.

हालींच रमेशबाब म्हाका पणजे कोंकणी अकादेमींत भेटिल्लो. तेन्ना ताची भलायकी एकदम बरी आसली. सदांचेच परीन आमी दोगूय खूब वेळ उलयले आनी दनपारचें जेवणूय ताच्या वांगडा घेवपाक म्हाका संद फावो जाली. ती आमची अखेरची भेट आसली. अकस्मात ही ताच्या मरणाची दुखेस्त खबर आयकून म्हाका आनी म्हज्या घरच्यांक खूब वायट दिसलें. कारण, तो एक आमचो घरचोच मनीस कसो सगळ्यांक दिसतालें. ताच्या मरणान स्वता हांव गरीब जाल्ले वरी दिसलें. कारण रमेशबाब सारके इश्टांची म्हजी खरेली गिरेस्तकाय अशें हांव समजतां. मागीर जर देवान दिल्लें देवूच व्हरता, तर आमच्यांनी कांयच करूंक जायना. आमच्यांनी कांयच म्हणूक जायना. फकत म्हज्यान हे वेळार देवाक एकूच मागूंक जाता, "देवा, म्हज्या रमेश वेळुस्कार इश्टाक, सासणाची शांती फावो कर! तुजें नांव व्हड जांव!"



# कविवर्य गुरुवर्य रमेश वेळुस्कार

राजश्री महाबळेश्वर सैल



कविवर्य रमेश वेळुस्कार एक याद जाले, यादिच्या वज्रजडीत कुरकुयांत वचून अचळय बसले. जशी तरंगत वतालीं उतरां तांच्या तोंडांतल्यान तशेच तरंगत अचळय उतरांचें मखमली आंगलें घालून दिव्यत्वाचे,अनंताचे दिकेन अळंग गेले.

म्हजेर तांचो खरेंच खूब मोग आसलो एक आगळेंच नातें आसलें. म्हजे कविते विशीं तांकां खूब मायामोग, आस्था आसली. मुजरत मेळपाक येवप पिलार. केदें भाग्य म्हजें. तोंडार एक नितळ हांसो. कितले तरी फावट हांव सरळ तांकां घेवन क्लासींत वतालें आनी ते उलयताले आपले कवितेचेर, र. वि. पंडिताचे कवितेचेर, बंगाली कविता, बाकीबाब बोरकार, खलील गिब्रान... भरभरून उलयताले.

तुमची याद म्हाका खूब खूब फाटीं व्हरता घडये चवथेंत आसुंये, घडये तरी कुडवडे साहित्य संमेलन आशिल्लें जावंक जाय. पप्पा वांगडा गेल्लें. हॉलांत फाटली बसका ते मुखावयली बसका मेरेन भीर भीर धांवतालें हांव. चा. फ्रा डिकोस्त्यन हाड चेड्वा बुड्कुलो कविता सादर केल्ली उबे रावन सगल्यांनी ताळयो मारिल्ल्यो, सगलें वातावरणच मंत्रमुग्ध जाल्लें. तेन्नाच हांवें कविवर्य रमेश वेळुस्काराक पळयले पयले फावट तेन्नाय ते कविते विशीं उलयताले. थंयच तांणी आपली कविता अद्भूत तरेन सादर केल्ली. रसिकांक मंत्रमुग्ध केल्ले. कोणाक खबर कितलो तरी वेळ हांव तांकां पळयत राविल्लें. वेगळोच असो भेस, सदरो, खांदाक बोटवो. एक वेगळेंच भारदस्त व्यक्तिमत्व. त्या संमेलनांतली चा.फ्रा.ची कविता, कवी रमेश वेळुस्कार आनी हांवें हातांत गच्च धरिल्लें मारूती हें बालमासीक सोडल्यार म्हाका आनीक कांयच याद जायना.

आनीक एक याद माजोड्डेचें ऐसपयस घर रातचें बरेच उसरां पप्पा घरा आयले. खंयच्या तरी साहित्य संमेलनांतल्यान आयिल्ले आसूंक जाय. जेवणां जालीं. अचकीत लायट गेली. पप्पान मेणवात पेटयली, आमकां भुरग्यांक आपयल्लीं. आमी भोंवतणीं कंवडाळें करून बसलीं आनी पुस्तकांतल्यान पप्पा भार आयिल्ले वरी वाचूंक लागले. कविता सावुलगोरी. सावळी रात, मदीं आशिल्लो मंद उजवाड आनी पप्पालें तें भार आयिल्ले वरी वाचन. सावुलगोरीचो सोनाय मुंखडो केल्लें.

*पुनव चंद्रीम खडो*
*पिंपळ पानां आंकरी*
*सावुलगोरी*

रमेश बाबान पुराय तन मन कवितेक अर्पीत केल्ले. र. वि. पंडिताच्या गांवांतल्यान आपूण येतां तांची काव्य परंपरा अखंड फुडें व्हरतां हाचो तांकां कितलो अभिमान. पंडिता विशीं कितलो मोग, आर पंडित (आमकां) सारको समजूंकच शकलीं नात म्हण खंत. पंडित भुरग्यां मदीं पावचो म्हण लागिल्ली तळमळ.

तांच्या उलोवपात सदांच सकारात्मकता आसताली. कोणा विशीं एकय कोडू उतर उलयनासले म्हजी खंयचीय कविता आवडल्यार समर्पक उतरांनी तोखणाय करताले.

एक चिंतनशील, गूढ, सादें ,सरळ व्यक्तिमत्व आसलें. गुरू शिश्याचें नातें आसलें आमचे मदीं रमेशबाबाक कितले तरी प्रस्न विचारतालें हांव. हांवें एकदा विचारलें साहित्याचो उद्देश कितें? तांणीं आपले लकबींत जाप दिल्ली समाज आनी संस्कृतीं मदीं संवाद स्थापन करून साहित्यीक आनी मानवीय मुल्यां केळोवप.

आपले सावूलगोरी कविते विशीं भरभरून उलयताले तल्लीन जाताले, अखंडीत उलयत रावताले. तांचें तें तल्लीनपण हांव लख्ख, लख्ख जावन पळयत रावताले. ''पाळे गांवां कुशीक जे दोंगर आसात थंय एके सुवातेर एक गाळ पळोवपाक मेळटा पाळे रान काड्न वयर पावतकच आलवांतिणीचो खुरीस मेळटा. आयज हो बांबोळेचो खुरीस म्हण नांवांजूक लागला ताचे सामकार एक गाळ सुरू जाता. ते गाळीक सावूल गाळ म्हणटात. एका काळार ही गाळ गच्च काजुच्या झाडांनी भरिल्ली आसताली. भुरगेपणांत हो वाठार भोंवपाचें काम हांव करतालों. ७६-७७ सुमाराक म्हाका सावुलगाळ येवजली थंयचो तो गच्च काजुंच्या झाडांचो वाठार. एक सावळेचे गाळींत अकस्मात अजाप भरीत करपी, श्रमीक कुडीक थीर करपी आनी मनाक अस्थीर. एके गोरे चलयेचें दर्शन घडटा जितली सावळी गड तितलीच झाडांची गच्च गर्दी. सैमाचे भाशेंतल्यान व्यक्त जाता सावुलगोरी जेन्ना ही सुक्ष्म स्पंदना सैमाच्या भाशेंत व्यक्त जावंक लागतात तेन्ना आपशीच उतरावळीक लोकवेदाची धार चडटा सावुलगोरी म्हळ्यार विरोधाभास. हे सावुलगोरींत सैमाची नाजुकता, सैमाची विनयशीलता, लज, मर्यादा, हुनसाण, सौंदर्य आसा देखून तिणें म्हजेर घुरी घाली.''

मन, माती, सैम, उदक हांचे विशीं तांचे आपले विचार आसले परिपक्व, चिंतनात्मक. मन म्हळ्यार किते? हांवें विचारचें. मुखार च्याचो हुनहुनीत कप आसतालो. घड्ये कॅन्टिनाच्या भायर श्रावणांतलो पावस शिडशिडूंक लागिल्लो आसतालो. पूण ते उलोवंक लागतकच म्हज्या रंद्रामनाक जाग येताली चारय वटेन चैतन्य व्हांवूंक लागतालें. मनशाचे जिणेंतली मन नांवाची गजाल कुशीक काडल्यार मनशाचे जिणेंत कांयच अर्थ उरचो ना. हें मन म्हळ्यार एक अजापाची गजाल मन आसा म्हण जिणेक अर्थ. मन म्हळ्यार कितें अशें कोणेंच विचारचें न्हय. तें फकत जाणा जावपाचो यत्न करचो. मन म्हळ्यार एक शक्त. एक अमर्याद शक्त. नांव नाशिल्ली, रंग नाशिल्ली, आकार नाशिल्ली. खंयच्याय शास्त्रज्ञान अजून पळोवंक ना, दार्शनिकान हाताळूंक ना, जण एकल्यान ती जाणा जावपाचो यत्न केला. व्यास वाल्मिकीन ती सोदल्या. संवसारांतल्या खुबश्या

कलात्मक सृजन करप्यांनी ती जाणा जावपा खातीर आपलें जिवीत वेंचलां.

संवसारांतले सगळें सौंदर्य हें मातयेचें सौंदर्य. हें मातयेचें सौंदर्य व्हड व्हड खडपा कडेन कित्याक ओड लायतालें तें आतां कळटा. भुरगेपणांत माती मस्तुवपाची मातयेंत खेळपाची कितली उमेद! वेळ कसो वयतालो ते समजनासलें. माती मातये वांगडा खेळटा. संवसार हे मातयेच्या मोगांत, ताच्या अखंडतत्वांत शिरकता. कशें तेंय आतां कळटा.

देखून जेन्ना मनशाचो निमाणो खीण लागीं येता तेन्ना ताका आपल्या काळजा कडेन न्हिदोवपाक कोण्ण तयार जायना मागीर तो कितलोय मोगाचो आसूं. मरणाच्या दारांत मनशाक काळजा कडेन धरपाक तयार जाता ती फक्कत माती.

''हे मातयेंतल्यान म्हजी कविता येता, गांवांतलो धालो, शिगमो, जागर हाचोय परिणाम म्हजे कवितेचेर जालो. तीच फाटभूंय घेवन म्हजी कविता जल्मता.'' हेच तांचे विचार वैचारीक चैतन्यधन जावन कवितेंत येताले, कोंकणी कवितेक एक आगळी उंचाय दिव्यत्व दिताले.

*स्पर्श*

*तुजे मायाळ नदरेचो*
*पोशेवन गेलो*
*अस्तित्व म्हजें*
*आनी मरण निर्मणेचें*
*फूल एक*
*फुलून आयलें ताज्जें*
*********
*सो सो सोदतां*
*तूं मेळून मेळना*
*म्हण मोन्यांनी बसतां*
*आनीक तेन्ना*
*तन मनांत*
*तूंच तुडुंब आसता*

*-झेन कविता*

संपर्क: 09922265209

# समुद्र मुद्रिकांतल्यो मुद्रिका

**डॉ. वृषाली मु. मांद्रेकर**

दर्याची खोलाय आनी विराट रुपान पुराय दुख्ख विसरायेर घालून कविता प्रस्फुटित जाली ते रमेशबाब वेळुस्कार. समुद्रमुद्रिकेंत शब्दरुपी दर्याच्यो तरतरेच्यो मुद्रा अभिव्यक्त करतात. पंचावन माथाळो नाशिल्ल्या कवितांच्या झेल्यांत आत्मानुभवाचो (आत्म अणभवाचो) भव्य-दिव्य साक्षात्कार जाता. अव्यक्त आसलेलें व्यक्त जातना दर्यावेळेर समुद्रमुद्रिकेचीं शब्दचित्रां हिंदी भाशेंत मोलादीक भर घालता. पूण रावून रावून एकूच प्रस्न मनांत येता की मुळांत कोंकणी कवी, नवलिका, बालनाट्य, बालकविता, अणकार अशे तरेचे साहित्य प्रकार हाताळले उपरांत ते हिंदी कडेन कित्याक गेले? पूण इतले मात खरें की तांणी गोंयांतल्या हिंदी लेखकां मदीं आपलें एक स्थान निर्माण केलें.

रचना प्रक्रिये विशीं कोंकणी समिक्षेत रमेशबाबाले आपले आपले विचार विद्वानांनी मांडलेले आसात. कवितेची निर्मणी जांवचे पयलीं ते माथ्यार वजें दवरल्ल्या भशेन चिंताक्रांत जाता आनी जेन्ना ह्या वज्याचो भार सोसूं नजो जाता तेन्ना तें अचळय भावानुकूल उतरांच्या रुपान सकयल देंवयतात.

भाव आनी अर्थाचें एकीकरण करून, शब्द चित्रांचेर संगिताचो, लोकसंगिताचो साज चडोवन वाचप्यां मुखार दवरतात. दोंगर आनी न्हंयो गोंयच्या सैमीक सौंदर्यांचो गाभो. हीं निसर्गरूपां वेळुस्कारबाबाचे कवितेंत अभिव्यक्त जाता. दोंगराचे पलतडच्यान व्हांवत येवपी बांसुरीचो स्वर शिरंतरानी पावले उपरांत अशी स्थिती जाता -

*स्वर मेरे अंदर*
*घुल मिल गए हैं*
*या मैं स्वरो में*
*यह कहना*
*मुश्किल हो रहा है*

हांगा म्हाका कबीराची, बाकीबाबाची याद जाता. 'लाली देखन मैं गई, मैं भी हो गई लाल' आनी 'निळें सवणें' कवितेंत 'हांवय जालें गाढ निळें'. वेळुस्कार बाब हेच स्थितींतल्यान वतात. अशीच एक स्थिती विद्यापतीच्या पदांत पळोवपाक मेळटा. राधा स्वताक उलो मारता कृष्ण समजून आनी कृष्ण 'माधव-माधव पुकारत' आपणाकूच उलो मारता इतलो तो राधामय जाता.

सैमाची गोंयचेर असीम कृपा. सदांच सैम आपलें रुपडें बदलत आसता. पावसांतलो आनी हेर ऋतूंतलो सैम समेस्ताक भुरळ घालता. ह्या वातावरणांत कविक काजुचें मलभुलवणें रूप जितलें भावता तितलेंच पयसावल्लें शेत, माड, तळें आनी गरमेची धगसाण सोंसपी गुलमोहरूय भावत. गुलमोहर संवसाराचो त्याग करून फुडें वचपी जो पांथस्थ आसा ताका साहस दिता. संवसारीक जंवजाळांतल्यान मुक्त जाले उपरांत मनीस फक्त सुखदिणी जीण जगना तर ताकाय जिवितांत परिस्थितीनुरूप जो हुलोप बसता तो सहन करपाची तांक ताका ह्या रुखा कडल्यान मेळटा -

*गरमी के मौसम की*
*उष्ण धधक-*
*सहने का साहस*

*देता है गुलमोहर*
*एकाकी पांथस्थ को*
*जो छोड चुका है पता*
*अपने संसारस्थ*
*विचार का*

कवीची मानवी संवेदना राजा-राणयेच्या आनी ससो-कासवाच्या काणयेक वेगळे तरेन केळोवंक लायता. जस जसो समाज प्रगत जाता, ताका विचार करपाची तांक येता, तसो तसो मनीस प्रत्युत्तर करपाक लागता. पयलींच्या तेंपार कोणेंय, कितेंय सांगलें जाल्यार दोळे धांपून विस्वास दवरपी समाज आयज विचार करपाक लागला. आंगापांगांत धड नासलेलो थोटो, मोनो लेगीत विचार करपाक लागला. सगळ्यांनी मेळून जर एक गजाल सांगली आनी ती कितलीय जरी फट आसली तरीय सगळे सांगतात म्हूण ती गजाल सत अशे तरेच्या आशयाची कविता राजाक मूर्ख जावपाक भाग पाडटा.

कविता केन्ना केन्ना परिस्थितींतल्यान जल्माक येता. सरभोंवतणचो वाठार तिका सफल करता.

मरण हें सगल्यांक अटळ आसता. ताच्या विळख्यांतल्यान कोणूच सुटूंक शकना. मसुंडेंतल्यान भायर वयतल्या लोकांक जेन्ना वण्टीर बरयल्लीं 'आयज म्हाका, फाल्यां तुका' हीं उतरां दिसतात तेन्ना मनीस अचकीत त्या दुख्खातल्यान स्वताकडे पळोवंक लागता. मरण हें जेन्ना सगल्यां खातीर आसता तेन्ना तेचें दुख्ख करीत बसप हें समा न्हय. तो ताच्यातल्यान बेगीन भायर सरपाचो यत्न करता.

गोंयांत तशे खूब उत्सव-पर्व मनयतात. पूण चवथीचो आगळो-वेगळो सुवाळो आसता. भाद्रपद चतुर्थीक मातयेचो गणेश घरांत सूख-समृद्धी घेवन येता. वर्स भर वाट पळयले उपरांत गणपती जेन्ना घरांत येता तेन्ना जाणटे-नेणटे सगळे लोक वेगळ्याच विश्वांत वावुरतात. पूण ताच्या विसर्जनाच्या वेळार भुरगीं खुब दुख्खी जातात. असो हो खोशयेचो सण हिंदी वाचप्यां मेरेन पावोवपाची तांक हे कवितेंत आसा.

गोंयकारांचो गणेश तसोच उत्तर भारतांतल्या लोकांचीं वैष्णव देवी वयर-सकयल आशिल्लो दोंगराळ भाग हुपून जेन्ना हे मातेचें दर्शन घेता तेन्ना तिच्या वांगडा एकाचार जावपाची भावना मनांत निर्माण जाता. भक्ती भावान आपलें अस्तित्व तिच्या पांयार घालून स्वता अस्तित्व स्तवन जावपाची सुंदर भक्तीभावना कवितेंतल्यान अभिव्यक्त जाता.

कवीचें स्वताचें अस्तित्व निराकार, निरामय जाता. एका वेगळ्या स्थराचेर ह्यो कविता घेवन वतात. पयलीच कविता दोंगरा वयल्यान येवपी बासुरेच्या विणेच्या स्वरान तर ४४ वी कविता कृष्णाचे निळेंत विलय जावपी, केन्ना केन्ना प्रेमिके भितर शेणपी प्रेमी स्वराकारा स्वर रूप जावपी, द्वारिका मात्शी लांब कविता स भागांनी हे कवितेची निर्मणी जाल्या. पुराय कविता संग्रहांत कृष्ण, तांची विविध रुपां मेळटात पूण दर्या कडेन लार्गीचो संबंद आशिल्ली द्वारका आनी कृष्णाची मनमोहक भंगिनी हे कवितेंत अभिव्यक्त जाता. राधा-कृष्णाचें अपरूप, अरब सागरांतलीं कृष्णरूप ल्हारां, राधेच्या दोळ्यांतली कृष्ण अभिलाशा, ल्हारां जावन हालपी राधेचो पदर, रत्नाकरा म्हऱ्यात रचिल्ली रत्नाची नगरी, कृष्णाच्या वियोगान सुकलेली गोमती, वाऱ्या ल्हारार व्हांवत येवपी विणेचे स्वर अशीं असंख्य रुपां हे कवितेंत परगटायल्यांत.

चडशे कवी कविता सृजन करचे पयलीं मौन आसतात. तांकां त्या मौनांतल्यान कविता आपसूंक येता. वेळुस्कारबाब तांकां आडवाद ना. ते म्हणटात, तुम्हारा साक्षात मौन/तुम्हारा प्रसन्न मौनो करता है मुजे शब्दांकित/ अशे तरेन असीमते कडेन व्हरपाक कविता सज्ज जावन शब्दबब्द जायत वता.

दार्शनीक आधार घेवन कविता जेन्ना प्रस्फुरीत जाता तेन्ना शांती आनी अशांतीचो एक संघर्ष पळोवपाक मेळटा. चडशे विद्वान म्हणटात, शांती सोदून मेळना ती खंय तरी मनाच्या गाभाऱ्यांत आसपाक जाय. ती दुसऱ्याक दिवपाक मेळना. मेरे पास भी। शांति बहुत है। पर आपको देने का। कोई तरीका। मेरे पास नही है। म्हजे कडेन सगळें आसा पूण शांती ना आनी ती दुसऱ्या कडल्यान घेतलो जाल्यारूय कांय मार्ग नासता. शांती हें सार्वभौमिकता तत्व कवी आमचे मुखार दवरता. अशेंच एक तत्व आनी एक कवितेंत अभिव्यक्त जालां. आपणालें अस्तित्व मिटेवन मळबा कडेन तद्ररूप जावपाचें. कवी हांगा कवी उरना तो मळबाच्या प्रतिरुपांत भरसून वता.

केन्ना केन्ना कवी शब्दांनी शेणटा और मैं। ढुंढता गया। खोये हुए शब्द। आखिर। मैं ही। खो गया।

कवी अशे तरेच्यो शेणपाच्यो, आपणाल्या अस्तित्वाक सोंपोवपाच्यो खुबश्यो कविता बरयता. केन्ना केन्ना वाचतना दिसता अश्याच आशयाची कविता पयलीं खंय तरी संग्रहांत वाचल्या म्हण परतून फाटल्या पानार गेल्यार तोच आशय पूण वेगळ्या शब्दचित्रांनी रेखांकीत जाल्लो आसता. देखीन नं. १ आनी ४४ कविता घेवं येता. मात्सो वेगळो आशय नं. ३६, ४३, ४५ कवितेंत आसा. थंय कवी आपलें अस्तित्व विसरून शेणत गेला.

'बुढिया'चेर दोन कविता आसात. एके कवितेंत 'बुढिया'क शब्दांची राणी म्हटल्या तर दुसरे कवितेंत गहन गगन शक्ती से है स्फुरीत उसकी वाणी दोनय कवितेंतलो आशय एकूच आसा अशें म्हाका तरी दिसता. तरतरेच्या शब्दरुपान बांदले उपरांत कविता जरी वेगळी आसा अशें जरी दिसलें तरीय खंय तरी त्या दोनूय कवितांचो आत्मो एक आसां.

सामाजीक आशय, तातुंतल्यान अन्याय अत्याचार जाल्ल्या लोकांचो विद्रोह जाय तितले उत्फरके घेवन येना. एकच कवितेंत रुढिग्रस्त, बेकार आनी बायलेचेर जाल्लो अन्याय दिसून येता. ह्या आशयाचेर कविता प्रखरतायेन येवपाक जाय आसल्यो. सपन आनी जीण हातुंतल्यान भायर येवन वास्तवाचें गहन चित्रण जावपाक जाय. कवितेंत समुद्र मुद्रिकेचीं विवीध रुपां जर आसत जाल्यार तांतूत जिणेच्या संघर्शांतल्यान स्वत्वा खातीर झगडपी मनीस मात्सो न्हिदिल्लो आसा अशे दिसता.

संपर्क: 9420208444



# तनरजोती कविता संग्रहांतली उतरावळ

डॅनीस वाज

कवितेची भास, सामान्य भाशे परस वेगळी आसता. कारण कवीक ती सरळां सरळ येता. सामान्य उलोवपांतले भाशेंतलीं उतरां, आयकुप्यांक व्हडलिंशी ओडून घेनात. पूण कवितें भितर कवी खास उतरांचो खेळ खेळून, रसिकांक आपले कविते वटेन ओडून घेता. हाकाच लागून सर्वसामान्य मनशाक सामान्य उलोवपांतली भास आनी कवितेंतले भाशे भितरलें वेगळेपण सारकें समजता.



भास म्हळ्यार संपर्काचें माध्यम, पूण भास फकत सदच्या वापराची गरज भागोवपाचें माध्यम न्हय. कारण भास ही जल्मतनाच मनशाची संस्कृताय, परंपरा आनी विचार घेवन येता. भाशेंत उतरांचो वापर करतना, उतरांच्या वेव्हारा प्रमाण करतात. भाशेंत उतरांचो वेव्हार सादप, स तत्वांक धरून जांव येता. तीं म्हळ्यार, भावात्मक (emotive), क्रियात्मक (conative), समाजीक (phatic), निरुपकात्मक (metalingual), निर्देशक (referential) आनी काव्य विन्यास (poetic). ह्या स उतरांच्या वेव्हारांच्या तत्वां मदीं, काव्य विन्यास तत्व, कवितेचे सुंदरकाये कडेन नातें दाखयता. ह्या भाशेच्या तत्वाचो वापर साहित्य आनी काव्य हातूंत जाता.

कवी रमेश वेळुस्कारचे कवितेंत वापरिल्ल्या उतरां भितर, उतरांचे बांदावळे भितर आनी उतरां जे पद्दतीन कवितेंत मांडल्यांत ताचे भितर काव्य विन्यासाचो वापर प्रभावी आनी निर्धारी आसा. तांचे कवितेंत वेगळे-वेगळे पद्दतीन उतरावळी कडेन खेळ खेळ्ळ्यांत हाचें दर्शन जाता. कवी रमेश वेळुस्कार हे आपले कवितेंतली भास गिरेस्त, सुंदर आनी सुडसुडीत करपाक काव्य विन्यास तत्वाचे भाशेच्या वेव्हाराचो वापर करतात. ताची कवितेंतली उतरावळूच म्हळ्यार कवितेचें भाशीक सौंदर्य आसा.

**[-साण] उत्तरप्रत्यय लावून तयार केल्ल्या उतरांचो प्रयोग**

*तुजे वेंगेतुली*
*वैश्वीक **वग्गीसाण** (तनरजाती, पान ९)*

कोंकणी भाशेंत /-साण/ हें उत्तरप्रत्यय /तिखसाण/, /गोडसाण/ , /हुनसाण/, /थंडसाण/ हांकां लागता. कोंकणी भाशेच्या नेमा प्रमाण /-साण/ हें उत्तरप्रत्यय वस्तुचो थाव घेतना वापरतात. /गोडसाण/ आनी /तिखसाण/ मनशाच्यान चाकूंक येता. / हुनसाण / आनी / थंडसाणीचो/ मनशान थाव घेवपाक येता. पूण /वग्गीसाण/ हें कवीन वापरिल्लें उतर मोन्नाचो थाव घेवपाक वापरलां. ह्या उतराचो प्रमाण थाव घेवपाक मेळना. कोंकणी भाशेंत /वग्गीपण/ हें उतर घोळटा. पूण कवीन आपल्या कवितेंत /वोगेपण/ ह्या उतराचो वापर कर नासतना, /वग्गी/ ह्या उतराक /-साण/ हें उतर लावन तयार केलां. कवितेंत ताचो वापर वग्गीपणाचो थाव घेवन ह्या अर्थान वापरलां.

*म्हजें सर्वांग पवित्र*
***दर्बळ साणेच्या***
*बोकड्यांचें*
*थंयसर जायत*
*वयता खेत्र (१९)*

प्रमाण कोंकणींत दुर्बळाक /-काय/ हें उत्तरप्रत्यय लागता. पूण कवीन दुर्बळाक /-साण/ लावन दुर्बळकायेचो थाव घेता.

/-पण/ ह्या कुंसाचो वापरून कवीन नवे पद्धतीचीं उतरां कवीन तयार केल्यात देखीक -

*आतां हांव तुजे कडे येतां*
*म्हज्या **हांवपणाच्यो** यादी*
*उखलासून दारून*
*तुजे कडें येतां. (५२)*

कवीन /हांव/ ह्या सर्वनामाक /पण/ कूंस लावन /हांवपणा/च्यो यादी म्हळ्यार, म्हज्यो यादी अशें उत्तर तयार केलां. /-पण/ हें कूंस चडशें नामाक लागू जाता. देखीक /मनीसपण/, /गांवपण/, / राणवटीपण/. त्याच कुंसाचो वापर कवीन क्रियापदाक वापरून कवीतेचे भाशेंत गोडाय हाडल्या.

**कवितेच्या वळींनी पयल्या उतराची सुरवात दुसऱ्या उतरांत, जाल्यार दुसऱ्या उतराची सुरवात पयल्या उतरांनी वापरल्या.**

*अशीं सर्वंगांतल्यान*

***यम** - नियमांची बंदना तोडून (१२)*

हें वळींत /यम/ हें दोन नादान तयार जाल्लें एक उतर दुसऱ्या उतराच्या मदल्या नादांत परतें वापरलां. कविते भितर हे तरेचीं उतरां वापरप म्हळ्यार कविचें भाशेचें कौशल्य आसा. उतरांची मांडावळ अशे पद्दतीन मांडल्या की ताचे वरवीं कविता रसिकांक कवितेंतलीं उतरां आयकुपाक बरीं दिसचीं आनी अर्थांत कांय खंडन पडचे न्हय हाची काळजी घेतल्या. पूण कवी रमेश वेळुस्काराचे कवितेंत असले तरेचीं उतरां सोंपेपणी येतना दिसतात.

*विराटांचे राट*

*सोप्पेपणान समजावन दिवपी (६५)*

तशेंच हे वळींतलें, दुसरें उतर /-पण/ पयल्या उतरांत परतें आयलां. उतराचीं पुनर वापरणी करून कवी कवितेची गोडाय वाडयता.

**आवाज करपी वस्तुंच्यां आवाजाचेर तयार केल्लीं उतरां.**

***झिणझीण***

*पांयजणांची (१२)*

***घुरू घुरू** वारो*

***घुरू घुरू** प्राण (१३)*

ह्या कडव्यांत पायजणांचो आवाज /-झिणझिण/ जाता जाल्यार वारो /घुरू घुरू/. /झिणझिण/ आनी /घुरू घुरू/ हीं उतरां कवीन वस्तुच्या आवाजाच्या आदारान तयार केल्यांत. तशेंच आनीक एक कवितेंत कवी बरयता -

*सुरुच्या झाडाचेर*

*सुरू सुरू वारें*

*ताच्या हातांत म्हजें वेरें (४०)*

हांगा कवी सुरूच्या झाडांक लागून जावपी वाऱ्याचो /सुरू सुरू/ आवाजाचो उल्लेख करता. अलंकार जोडपाच्या हेतून ताणें /सुरू सुरू/ ह्या उतरांचो वापर केला. असले तरेचीं कोंकणींत शिशू भाशे भितर चड मेळटात. देखीक, /गुर्रा/ (गाडी धांवपाचो आवाज), / हॉक हॉक/ (थंडी जाल्याचो आवाज) आदी.

**उतराच्या पयल्याच नादांत बदल करून एकेच बांदावळीचीं दोन उतरां वापरप.**

कवी केन्ना केन्ना आपले कवितेंत उतरांच्या नादां कडेन खेळटा. पुराय उतरांतले एक नादांत बदल करून उरिल्ले नाद आसात तशेच वापरता. नादांत बदल जाल्यार उतरांच्या अर्थांत बदल घडटा. जाल्यार कांय उतरांनी नादांत बदल केल्यार उतराचे बांदावळीच्या नदरेंतल्यान दोन वेगळीं उतरां जातात. पूण अर्थ मात एकूच उरता. असल्या उतरांचो वापर कवी रमेश वेळुस्कार हांणी आपले कवितेंत केल्लो दिसता. देखीक,

*हुस्कार सुस्कारांत*

*प्रदक्षिणायत रावता (१४)*

हुस्कार आनी सुस्कार हीं दोनूय एकाच अर्थांचीं उतरां पूण उतराचे बांदावळीचो विचार केलो जाल्यार उतराच्या पयल्या नादांत वेगळेपण आसा. देखून तीं दोनूय उतरां एकाच अर्थाचीं आसून सुद्दां दोन वेगळीं उतरां जातात.

*म्हजे तंद्रेंत*

*वस्तीक*

*मस्त तनर*

*ही अशी*

*हांवें घातल्या*

*फस्तीक (२४)*

ह्या कडव्यांत रमेश वेळुस्कार /वस्तीक/ आनी /फस्तीक/ हीं दोन वेगळ्याच अर्थाचीं उतरां वापरतात. पूण उतरांचे बांदावळींत पयल्या उतराचो फुडलो नाद/व/आनी दुसऱ्या उतराचो फुडलो नाद/फ/हातूंतच बदल आसा. उतरांच्या हेर नादां भितर कांयच वेगळेपण ना.

**एक उतर साम्य दवरून दोन उतरां भितर संदी घडोवन तयार केल्लीं उतरां**

कोंकणींत घोळपी संधीचोय वापर कवी रमेश वेळुस्कारान आपले कवितेची सुंदरकाय व्हाडोवपा खातीर वापरला. एक उतर साम्य दवरून संधीचो वापर करून केल्लीं अनेक उतरां कवीन आपल्या एकाच काव्यांत वापरल्यांत. देखीक -

*दिव्यांच्या वळींनी*

*शरिरोत्सव दिवाळी शिरडारली...*

*...तन - दिपरत्नोत्सव*

*तनरोत्सव*

*स्मर - स्त्रवउत्सव... (२५)*

हे कवितेंत /उत्सव/ हें उतर साम्य दवरून चार वेगळीं उतरां तयार केल्यांत. देखीक, एक /शरीर/ आनी /उत्सव/ म्हळ्यार /शरिरोत्सव/ , /दिपरत्न/ दिपरत्नोत्सव. /तनर/ तनरोत्सव/ स्त्रवउत्सव/

एकाच उतरा कडेन संबंदीत आशिल्लीं उतरां वापरून ताचो कलात्मक रितीन वापर केल्लो दिसता. देखीक

*रंगांच्या अंतरंगांत*

*रंगचित्रांचे फिशालपण (४८,४९)*

ह्या कडव्यांत /रंग/ ह्या मूळ उतराचो वापर करून ताका /अंत/ हें उतर जोडून /अंतरंग/ ह्या उतराचो वापर केला, जाल्यार रंगाक चित्रांक जोडून /रंगचित्रां/ तयार केल्यांत.

**मूळ उतराक उत्तरप्रत्यय लावून केल्ली उतरांची माळ**

रमेश वेळुस्काराच्या काव्यांत मूळ उतराचो वापर करून काव्यांत वेगळ्या वेगळ्या प्रत्ययांचो वापर करून केल्लीं उतरां मेळटात. देखीक.

*तूंच तूं आसता*
***सयभोंवतणी***
*तूंच तूं **असयभोंवतणी***
*तूंच तूं आसता (३५)*

कवीन एकाच उतराचो एकाच काव्यांत वेगळे-वेगळे पद्दतीन वापर केला. /भोंवतण/ हें उतर घेवन ताका /सय/ हें पूर्वप्रत्यय लावन उतराच्या नादांची आनी अर्थाची वाड केल्या. /सय-/ हें वूंस लागतकच उतर /सयभोंवतणी/ केलां. तेन्ना अर्थाचो विस्तार जावन तो सगळ्या भोंवतणी जाता. फुडें तेच कवितेंत कवीन /सय/ ह्या पूर्वप्रत्ययाक आनीक एक पूर्वप्रत्यय /अ-/ लावन /-असयभोंवतणी/ असो उतराचो वापर करून, उतराच्या नादांत आनी अर्थांत वेगळेपण हाडलां. कवीन आपल्या काव्यांत उतरांचो वापर करतना -

*मूळ उतर*
*पूर्व प्रत्यय + मूळ उतर*
*पूर्व प्रत्यय + पूर्व प्रत्यय + मूळ उतर*

ह्या बांदावळीं प्रमाण केलां. ही पद्दत कवी भाशीक कुशळताय दाखयता.

**नाद उतराच्या फुडल्या, मदल्या आनी सोंपत्या थरार साम्य दवरप**

*उतरांचे नाद दाखोवपी उतरां.*
*हांवूच तुका चोयता म्हण*
***खरी खूण** जाण कोण (२६)*

हांगां कवीन नादांचो सुंदर रितीन खेळ खेळा. ताणें वळींतल्या चारूय उतरांचो वापर करतना, पयल्या आनी दुसऱ्या उतराचें /ख/ हें व्यंजन साम्य दवरलां जाल्यार दुसऱ्या तिसऱ्या आनी चवथ्या उतरांतलो निमणो नाद /ण/ व्यंजन साम्य राखून दवरलां. कवी उतरांची आनी उतरांच्या नादांची कुशळताय सांबाळून दवरून कवितेक एक वेगळीच सोबितकाय हाडपाचो यत्न केला.

*श्वासांच्या विश्वासाचें विश्व*
*झंकारपाचे नाद (५८)*

ह्या वयल्या कडव्यांत /श्व/हीं जोडाक्षरां सुंदर पद्धतीन कवीन जोडल्यांत. तीन उतरांच्या वळींत पयल्या उतराचे सुरवातेक, दुसऱ्या उतराचे मदीं आनी तिसऱ्या उतराचे निमाणे /श्व/ ह्या जोडाक्षराचो वापर कवीन केला.

**कवितेचे वळींत एकच उतर परत परत वापरप**

***उलय उलय उलयता***
*आनी नश्वरांतल्यानूय*
*विश्व घडयता. (२८)*

रमेश वेळुस्काराची काव्यांतली भास आनी उतरावळ सामान्य मनशाच्या ओंठार घोळपी भास आनी उतरावळ आसा. मनशाक संवय आसा. उलयतना, आपणें खूब उलयलें वा खूब बरयलें म्हण सांगतना उलय उलय उलयता वा बरय बरय बरयता म्हणपाची. असो एकाच उतराचो तीन फावटी वापर करपा हें कोंकणी मनशाच्या सामान्य उलोवपांत मेळटा. कोंकणींत अशे तरेन उतरां तीन फावटी वापरप फकत सर्वनामांतूच घोळटा. कविता ही सामान्य मनशाक आपली दिसची म्हणून कवी रमेश वेळुस्कार ह्या उतरांच्या खेळाचो वापर केला. अशे रितीन उतरांचो वापर करतात. (कविता आपली दिसलीच जाल्यार कविता वाचकांक आवडटली हाची तांणी केल्ली बारीकसाण जाणवता.

**कोंकणी संस्कृतायेंत बसपी उतरांचो वापर**

*म्हज्या वारियाच्या काळजांत*
*नाचली*
*म्हजे **पेशिपेशितल्यान***
*फुलपाकुलीं (२३)*

कोंकणींत तरेतरेंत, घरा घरांतल्यान आदीं अशीं उतरां आसात. अशेच तरेच्या उतरांचो वापर कवी रमेश वेळुस्कारान आपल्या काव्यांत केला. वयल्या कडव्यांत पेशिपेशीतल्यान हें उतर वापरलां. रुंवारुंवातल्यान ह्या उतरा सारकेंच पेशिपेशींत हें उतर कवीन वापरलां. कोंकणी संस्कृतायेंत बसपी उतर म्हळ्यार पेशिपेशीतल्यान ताचो वापर कवीन भेस बरे रितीन केला.

***जिवा जिवाळींत***
*उर्बा तरतरून आयली (३८)*

रुखा-रुखावळींत ह्या पद्दतीचें जिवा जिवळींत हे सारकीं उतरांय आपले कवितेंत वापरल्यांत. असले तरेचीं उतरां काव्य वाचकांच्या कानार पडटकच एक मधूरताय निर्माण करतात.

पेशिपेशीतल्यान आनी जिवा जिवाळींत ह्या उतरांनी पयलें. दुसऱ्या उतराचे सुरवातेक परतें वापरलां. हीं असले तरेचीं उतरां अर्थाची खोलाय दाखयतात.

कवी रमेश वेळुस्काराच्यो कविता, कोंकणी भाशेच्या उतरावळीच्या मळार दालन आसाच, पूण तांचे कवितेंत उतरांची मांडावळ खूब सुंदर पद्दतीन केल्या. ताणें तनरजोती ह्या कविता संग्रहांत रचिल्ली एक कविता भाशीक खाशेलपणाचो नमुनो जावन येता. कविता बरयतना भास, उतरावळ, अर्थ आनी नाद हांचो संगम कोंकणी संस्कृताये कडेन केला. ताचे कवितेंविशीं अनेक पद्दतीन विचार करूंक येता.

संपर्क: 9923657164



# डिअर डॅडी

## किशोर शिंदे

तशें पळयल्यार पत्राक आतां खूब वेळ जाला. कांय दिसां आदीं सिमूचो मेसेज आयलो, 'डॅडी को खत लिखो, उनकी यादादश कमजोर होती जा रही है,' तेन्ना ताचेर विश्वासूच बसलो ना. कारण तुमचे कडेन जाल्ले सदचे चर्चेंतय एखादो संदर्भ येतकूच, ती घडणूक घडली तें नेमकें वर्स, तातूंत आशिल्ल्यो व्यक्ती, सुवाती आदी सगळें सामकें बारकाव्यांनी तुमचे चित्रदर्शी कथन शैलींत सांगतले व्यक्तीक ताची स्मरणशक्त ह्या क्षुल्लक कारणान फटयतली अशें सपनांतय खरें दिसचें ना. पूण तें खरें जातालें.

तश्यो जायत्यो गजाली आतां खऱ्यो समजूनच घेवंच्यो पडटल्यो. तातूंतली सगळ्यांत म्हत्वाची म्हणल्यार हें पत्र तुमचे मेरेन केन्नाच पावचें ना. सामकें काल - पयर मेरेन एखाद्या आवडिल्ल्या (आनी खूब फावटीं ना आवडिल्ल्याय) कविता, लेख, कथा, सिनेमा विशीं तुमी विविधांगांनी उलयताले. उतरां फकत बरयलीं म्हणून पूर्णत्वाक पावनात. तर जेन्ना तीं वाचतात, तांचेर प्रतिक्रिया दितात तेन्नाच तीं पूर्ण जाता हें तुमीच सांगिल्लें.

भुरग्याच्या जल्मा आदींच आवय-बापाय कडेन तांचे ऋणानुबंध जुळिल्ले आसतात. रावी आनी म्हजे बाबतींत अशेंच जालें. गोंयां येवप हें आमचे खातीर नव्यान जल्माक येवपा सारकेंच. आनी हांगा येवपाच्या खूब पयलीं सावन तुमचे काव्यभेटींतल्यान आमी गोंयकार जाल्लीं. गोंयांत आयिल्ल्या पयल्या दिसाच्या पयल्या खिणा सावन तुमी आमचेर मायेची सावळी धरली. खंयच्याय एखाद्या खिणाक लेगीत आमकां कसलेच तरेचें एकलेपण जाणवूंक दिलें ना. तुमची भेट जर आमकां घडूंक नाशिल्ली जाल्यार घड्ये हेर कोणाय भशेन 'भायल्यां' सारखे आमीय पोटार्थी जावन उरपाची भिरांत आशिल्ली. पूण तुमी तर पयल्याच दिसा 'तुमी आमचेच आसात' ही भावना आमच्यांत रूजयली. तुमचे नदरेंतल्यान तुमी नव्या, समृध्द, साहित्यसमृध्द, आशयघन, लोकवेदी गोंयची भेट घडयली. त्या खिणाक म्हाका तुमी तुमची पयली याद म्हणून दिल्ल्या तुमच्या 'झाड' कविते वरीच भासले. विस्तीर्ण पसरिल्ल्या पठराचेर अत्यंत स्थितप्रज्ञतायेन उबें आशिल्लें झाड. आपले सावळेंत आयिल्ल्याकय 'झाड' करतात.

मुंबयकाराचो कोंकणीमोगी गोंयकार जावपांत तुमचो, तुमचे कवितेचो, एकूण लिखाणाचो, आमच्या आयज वेरच्या चर्चांचो मोलादीक वांटो आसा. गोंयांत आनी गोंया भायर जातल्या कोंकणी संदर्भांतल्या विवीध महत्वांच्या कार्यावळींक तुमी म्हाका घेवन वताले, तातूंत कोंकणीचे वेगळे वेगळे घाट, बोली, लिपी, थंयच्या कोंकणीचो भूसंस्कृतीक इतिहास, भुगोलीक वावर, सांस्कृतीक वावर आदी विवीध बाबी म्हाका समजून घेवपाक मेळ्ळ्यो. तुमी समजावन सांगल्यो. भाशा संस्कार कशें जावपाक जाय, कोंकणी कशी नवे पिळगे मेरेन रूजपाक जाय. ते खातीर खंयचीं नवीं माध्यमां आमचे कडेन आसात. ह्या आनी ह्या संदर्भांत जाल्ल्या आमच्या चर्चांतल्यान म्हजो भाशासमज, कोंकणीमोग अदीक घट जायत गेलो. ते खातीरच नीज गोंयकारांची 'मायभास' कोंकणी म्हजे खातीर तुमकां लागून 'पायभास' जाली, अशें आमी विनोदान म्हणचें. कारण भालचंद्र नेमाडेंक लागून म्हाका लागिल्लो कोंकणीचो लळो तुमी कळटां-नकळटां केल्ल्या भाशीक संस्कारांक लागून चड वाडलो. 'आपले मातयेची भास हीच आपली भास' हें तुमचें सूत्र तेच खातीर चड म्हत्वाचें.

'गोंयकार डॉट कॉम' हें कोंकणी भाशेंतलें पयलें न्यूजपोर्टल आनी ते उपरांत कांय दिसांनी 'राष्ट्रमत डॉट कॉम' हांवें सुरू केलें तेन्ना तुमकां जाल्लो आनंद, मेळिल्लें समादान आजूनय म्हज्या दोळ्यां मुखार झळकता. पुस्तक प्रकाशना सावन ते वेबसाईट तयार करपा मेरेनचे दर एके वाटचालींत सतत आशिल्लो तुमचो सक्रिय सहभाग म्हाका सगळें दिवन वता. हो सहभाग खूब मोलाचो, धिराचो आनी आदाराचो आसा. 'तूं एकलो ना, आमी सगळे तुज्या वांगडा आसात' हें सांगपी आसा. गोंयचो इतिहास, कोंकणीचो इतिहास, स्वातंत्र्यलढो, ओपिनियन पोल, राजभास आंदोलन ह्या सगळ्या बाबींचें ध्वनीचित्रमुद्रण जावचें आनी हो सगळो संघर्श नवे नवे पिळगे मेरेन तांच्या माध्यमांतल्यान पावचो ही तुमची तळमळीची इत्सा. आमी त्या एकत्रीत बरयिल्ल्या कोंकणी सिनेमाचें चित्रिकरण निकतेंच सोंपलें. आनी आतां आमचे चर्चेंत थरल्या प्रमाण वयल्या विशया मदलो एकेक विशय ध्वनीचित्र माध्यमांतल्यान टप्प्याटप्प्यान आमी मांड्यात. ते खातीर आवश्यक आशिल्लो अभ्यास, संदर्भ तपासणी सुरू आसा. येता त्या वर्स भरयांत हातुंतले दोन प्रोजेक्ट पुराय जातलेच. फक्त तुमच्या हातांची पयली टाळी वाजची, ही आमची इत्सा अपुर्णच उरतली.

तुमी प्रामुख्यान सैमकवी, सौंदर्यवादी साहित्यीक म्हणून नांवाजते आसले तरी, बुध्द, सॉक्रेटिस, सोचोक्लिज, तुकाराम, जिब्रान, रिल्के, रवीन्द्रनाथ ठाकूर, ग्रेस, भालचंद्र नेमाडे हे तुमचे चर्चाबिंदू. तुमचे नजरेंतल्यान ह्या साहित्यीकांक मेळप ही पर्वणी आसताली. तांच्या साहित्याचे कितलेशेच वेगळे पैलू तुमी ल्हवपीक तरेन उसोवन सांगताले, ताका लागून ते नदरेंतल्यान लिखाण परतून वाचप हो समृध्दानुभव आसतालो. (पैकीं ग्रेस आनी नेमाडे हांचो प्रत्यक्ष सहवास आमकां

दोगांकय दीर्घकाळ लाभलो. ताका लागून म्हज्या अट्टहासान तुमी नेमाडेंची 'देखणी' अणकारीत केली. 'कोसलायचें'य काम तुमी सुरू केल्लें.) ह्या समस्त लेखकांच्या जगण्याचें सूत्र तुमच्या लिखाणात आनी जगपांत पुरेपूर आशिल्लें. झेन कविते सारखो वेगळोच काव्यप्रकार भारतीय आनी पर्यायान कोंकणी साहित्यविश्वांत तुमी हाडलो. तुमची सादी, सोंपी, ओघवती, अर्थवाही, चित्रदर्शी, शांत रसान उपाट भरिल्ली, नामधुर शब्दकळा ह्या पुस्तकाच्या पानापानांत दिसता. तुमी केल्लो तुकारामाच्या अभंगाचो अणकार वाचून कोणाकय निश्चितच दिसतलें, तुकाराम मुळचो गोंयकार आशिल्लो म्हणून. इतलो तो अणकार बेमालूम जाला. संपूर्ण गाथा कोंकणींत हाडपाचो आमचो मनोदय मात उरलोच.

तशे आमचे खूब संकल्प अर्दवटच उरल्यात. कारण तुमी आतां परत न येवपाचे वाटेर गेल्यात. पूण तुमी म्हणटात ते प्रमाण, 'आमी खंयच वचनात. आमी हांगाच आसतात. बरयिल्लें उतर जो मेरेन परत परत वाचतात, तो मेरेन तो लेखक आमच्यांत जितो आसता. तो पुनर्नवा आसता.' तुमी म्हजे खातीर अशेच आसात. सदांच 'पुनर्नवा' जावन भेटपी. अक्षर आणि अक्षय.

तुमचो

किशोर अर्जुन

*(मूळ मराठी - कोंकणी अणकारः हेमा नायक)*

---

# वेगळो कवी

**बबन भगत**

दीस येतात दीस वतात. रमेशबाब गेलो ताका आज बारा दीस जाले. आयिल्लो मनीस केन्ना ना केन्ना वताच. पूण कांय मनीस आसतात ते केन्नाच वच्चे न्हय अशें आमकां दिसता. रमेशबाबा विशीं आमकां तशेंच दिसतालें. पूण रमेशबाब अचकीत गेलो. अकाली गेलो. सगळ्यांक चटको लावन गेलो.

रमेशबाबान आमच्या कोंकणी काव्य विश्वाक आनी शेंकड्यांनी कविता दिवपाचे. अस्सल कविता, रसरशीत कविता, ताज्यो फडफडीत कविता. रंगरंगयाळ्यो कविता, निजाच्यो कविता, गोंयचे मातयेचे वासाच्यो कविता. गोंयच्या सैमान भरिल्ल्यो कविता. मोराच्या पिसा-या सारख्यो सुंदर देखण्यो कविता, गोंयच्या लोकवेदाची किनार आशिल्ल्यो कविता.

कितें फरक आसलो हेर कवी आनी रमेशबाब हांचे मदीं आसलो एक व्हडलो फरक आसलो. आमी हेर सगळे कवी कविता बरयतालें जाल्यार रमेशबाब कविता जगताले. ते कविता बरयताले तेन्ना जणू तांची पुराय कुडच नादब्रम्ह जाताली. ताचे हात, पांय, बोटां, दोळे ताचे सगळेच अवयव जणू कवितेचे शब्द जाताले. शब्दशब्दुल जांवन रमेशबाब साक्षात आपले कुडीचीच एक कविता करताले. तांच्या आंगांतल्यान झिरीझिरी काव्याचो पावस पड्यलो. केन्ना सैमसंगीत जावन तर केन्ना मोगाचें कवन जावन.

*रे मोरा दिगंतरा*
*तुज्या आंगणी नाचता*
*रे मोर मोरया...*

रमेशबाब तुज्या काव्यप्रतिभेच्या जोरार तुवें अमर केली रे एक लोककाणी. एक अस्तुरी आनी एका मोराची. ती वाचताना कितले फावटी म्हज्या दोळ्यांत खोशयेचीं दुकां आयलीं रमेशबाब. तो तुजो संग्रह वाचताना एक वाचक म्हण वेगळीच तृप्ती हांवे अणभवली. सगळ्यांत व्हडलें सूख मेळटगीच जी तृप्ती जाता मन खोशयेन नाचूंक लागता ती तृप्ती रमेशबाब. कसलो भार आयिल्लो आसतलो तुजेर आंगणी नाचता मोर मोरया बरयताना?

तृप्तताय आनी सावुलगोरी रंगयताना त्या रंगांत कसो रंगून गेल्लो आसतलो तूं? तुजे काव्य प्रतिभेक आनी तुज्या काव्याक तोड ना रमेशबाब. तुमचें अजरंवर काव्य माथ्यार घेवन म्हाका नाचन शें दिसता. म्हाका भार भरता तुमच्यो शिरंतरांत काव्य फुंलोवपी कविता वाचतना.

आनी जीण खुब सुंदर आनी ओडलायणी कशी दिसूंक लागता तुमचें लोक अप्रूप ललीत साहित्य वाचताना. तुमी म्हाका सदांच एक गंधर्व कशें दिसले. एके विशिश्ट प्रेरणेन एका विशिश्ट ध्येयान ह्या ईहलोकांत आयिल्ले. ताका लागून तुमचे लागीं उलोवचे परस तुमी उलयतात तें आयकत रावचें अशें म्हाका सदांच दिसतालें. दर दिसा उजवाडपी फांतोडे विशीं कितली उमळशीक आसली तुमकां. फुलपाख्याक चिमटेंत धरचें तशें फांतोडेक तुमी तुमच्या काव्या वरवीं चिमटेंत धरताले. आनी आपल्या सोबीत, ल्हवपीक शब्दांचे अलंकार वापरून तुमी त्या सोबीत फांतोडेक शब्दबद्ध करताले. तुमची ती कळाशी तुमचे बगर कोणाकच जमली ना रमेशबाब.

तुमी मळब कळी सहज सुंदर रितीन फुलयली. तुमी मनाचो एक सुंदर तळ गांठीत झेन काव्य आमकां दिलें.

तुमच्या ऋषितुल्य मनाचो थाव घेवप मात व्हड्या व्हड्यांक जमलेंना.

तुमी आनंदयात्री आसले रमेशबाब. तुमकां भटकंती करपाक आवड्याली. तुमी अचकीत एक दीस गोंयांतल्यान ना जाताले तेन्ना

*ढूंढूं कहाँ तुझे रे बंधे......*

अशी म्हजी स्थिती जाताली.

तुजे जिणेचो कॅन्व्हास खूब व्हड आसलो. साहित्या विशीं जशे तुमी भरभरून उलयताले तशेच तुमचे जिणेंत आयिल्ल्या लोकां विशींय. आतां हांव तुमकां सोदतां तेन्ना म्हाका खूब निर्शेणी येता रमेशबाब. दोन म्हयन्यांनी परत येतलों अशें तूं सांगुन गेल्लो. ते दोन म्हयने तर केन्नाच सोंपून गेले. कितली चर्चा करपाची उरिली आमची कवितेचेर, ललीत साहित्याचेर.

तेविशीं विचार करतां तेन्ना जीव उदास जाता. घुस्मटूंक लागता.

*एक मोर आसा*
*पाखाटे फुलोवन*
*नाचूंक सोदता*
*तुवें रे मोरा*
*म्हणल्या बगर तो नाचचो ना*
*तूं म्हणशी ताका*
*रेऽऽऽ...... मोरऽऽऽ*





## नाच सोंपला मोरा हांगा

**आर. एस. भास्कर**

आमचो एकलो
सोडून गेला
जागो हांगा
रितो घाला
आमी भावा
एक मेळीन
रिती सुवात
भरची आसा

सावूळ घळीक
सुकती लागल्या
नाच सोंपला
मोरा हांगा
आमी भावा
एक मेळीन
मधूर सूरान
गावचें आसा

सारंगीची
सरी तुंटल्या
गंधर्वाचें
गायन शेणलां

आमी भावा
एक मेळीन
सरळ गीत
गावचें आसा

सौम्य संगीत
निश्चल जालां
सौम्य संगीत
निश्चल जालां
आमी भावा
एक मेळीन
सुगम संगीत
गावचें आसा

आमचो एकलो
सोडून गेला
जागो हांगा
रितो घाला
आमी भावा
एक मेळीन
रिती सुवात
भरची आसा.

संपर्क : 8891306123

## गुरूवर्य कविवर्य ...रमेश वेळुस्कर

**राजश्री महाबळेश्वर सैल**

भर दनपार धगधगता.
आनी हांवय धगधगत जळटां,कामाचे गर्देंत .
कविता खंय तरी रागार फुगार जावन बशिल्ली आसता .
ऑफिसाच्या पायऱ्यांर .
कितलिशींच कामां आसतात चड गरजेचीं
इतल्यांत ते येतात.
हांव खंय तरी घुस्पत, गोंदळत, बोवाळत आसतां
सुटिल्लें, तुटिल्लें विस्किटल्लें तारूं कशें
कोण तरी सांगता ते आयल्यात.
हांव धांवत येतां.
आतांच जल्मल्ल्या कवितेचो
येवकार करूंक आयिल्ले वरी.
हांव तांकां पळयतां कविवर्य रमेश वेळुस्कर.
आतांच हिमालयांतल्यान कंचनगंगेचो, हिमाद्रिचो
भोंवतणी काडून आयिल्ले वरी
सन्यासी, तपस्वी
काय म्हजी काकूट दिसून
दृश्य अदृश्य संवसारांतल्यान
कविरायाचें रूप पांघरून
म्हाकाच मेळूंक आयिल्ली म्हजीच कविता
एक कोनसो घेवन आमी बसतात
बाकिबाब, टागोर, ते कालीदास मेरेन फकत कविता
कविताच घसघसूंक लागता चारय दिकांनी
हांव एके वेगळेच तनर तनर धुंदींत
मोरपंखी सावुलगोरी जावन
घरा परततां.
दारांत एक नविताल्ल कविता
म्हजी वाट पळयत आसता
म्हाका पळोवन खुक्क करून हांसता .

*(ऑगस्ट २००७ त बरयिल्ली कविता)*

संपर्क: 09922265209



## दिव्य सपन रूख...

### शिरीश लवंदे

आमचो एकलो
सपनपिशें जिणेंत तुज्या
उतरां म्होवाळ सूख
राखेंतल्यान रावला उबो
दिव्य सपन रूख

भगवंतालो पूत जरी
गोंयचो तूं रमेश
न्हय रे फकत गोंय तुजें
तुजोच सगळो देश

जेन्ना तेन्ना येतली फुलून
आमची शब्द भूक
फुलां-फळां दितलो सांवळ
होच सपन रूख.

## पोटाचे खळगे वांगडा

### निलबा अ. खांडेकार

किदेंच आसना शाश्वत, अनंत
सोंपतलें सगळेंच एक दीस
काळखाच्या गुरुत्वीय खोलांत
काबार जातलें सगळेंच अस्तित्व
पोटाचे खळगे वांगडा
पंच महाभुतां लेगीत विरगळून वयतलीं,
पंचतत्वांत
आनी नश्ट जातली ही पृथ्वी लेगीत,
मंगळा भशेन
तेन्ना काळखा बगर कांयच आसचें ना
हें लेगीत पळोवंक उरचेनात आमी

तरीय उरतलें खूब किदें आमचे बगर
पाडंग जाल्ले ह्या पृथ्वीच्या चौकांत
केन्ना तरी एक दीस रुजयल्लें तें
मोग-मोयपासाचें तत्व
काळजांतल्यान फुलून आयिल्लें
मनीसपणाचें मुल्य
तीं तत्वां, तीं मुल्यां उरतलींच उरतली
पृथ्वींतले खंयचे तरी मातयेंत
उरतलो ते मातयेचो स्पर्श

तो वास
तो श्वास
आनी वाऱ्यान व्हांवयल्लो आमचो आवाज

खंय तरी नक्कीच आसतले आमचे शब्द
जे काळजां-काळजांतल्यान आयिल्ले
जे आमी वांगडा उलयल्ले
ती आमच्या स्पर्शांतली गरमी
आमचे वेंगेंतले चिड्डल्ले उस्कार
आनी तो समभोग
त्या समभोगांतलें स्वर्गसूख उरिल्लें आसतलें
जें आमी केन्नाच घेवंक पावले नात

आनी केन्ना तरी
खंयच्या तरी खिणाक फाटीं उरिल्ली
आमची प्रतिक्षा, आस
काळखांतूच पसवतली
त्या म्हास्फोटांत पसवतली
जल्माक घालून कितलेशेच ब्रह्मांड
आनी सजीवांचे उत्पती सावन
मनीस रुजतलो कितल्योच उत्क्रांत्यो हुंपून
आनी पोटाचे खळगेंतूच
दुख्ख शिजतलें
आनी तीच मनशाची खरी वळख आसतली
खरी वळख आसतली.

संपर्क: 9637092524

## हायकू

### आर. रामनाथ

(१)
सूर्याक जोर
आनी चंद्राक थंडी
सृश्टीक घाम

(२)
कुपांतुल्यान
अचळय देंव तूं
म्हाका मेळ तूं

(३)
यमाचो रेडो
म्हजो नामो सोदता
हांव सर्गेस्त

(४)
तुज्या माथ्यार
रगतफूल फुल्लां
हांव झडलां.

(५)
मडें जळटा
अस्थीविसर्जनाक
मनीस जाय

संपर्क: 9850458763



